IB/JAN. 2023/Vol.22/ISSUE1/Panaji-Goa. REGISTERED GOA/01/2021/2023 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413.

# बिम्ब

मासिक

जानेर 2023

22

वर्धापन विशेशांक

Railway Bridge

## म्हादयचें बावलें कर्नाटकान व्हयलें ..! गोंयकार घालतात शबै!!

मोल : ₹50/-

कोंकणी मासिक

# बिम्ब

*शीर्षकथा* म्हादयचें बावलें
कर्नाटकान व्हयलें ..!
गोंयकार घालतात शवै!!
- दिलीप बोरकार



ह्या अंकांत उक्तायिल्ले विचार त्या त्या बरोवप्यांचे आसात.
संपादक मंडळ तांचे कडेन सहमत आसतच अशें ना.


वर्स 22 : अंक 1
जानेर 2023
मोल 50 रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊस्कार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

अंक सजावट
गिरीश नंदा बोरकार,संकेत लवंदे

छापणावळ
इम्प्रेशन्स,बेळगावी

वर्गणीचे दर :
वर्सुकी वर्गणी 500 रु.
3 वर्सांची 1400 रु.
विद्यार्थ्यांक वर्सुकी 300 रु.
आनी 3 वर्सांक 800 रु.
जाल्यार संस्थांक वर्सुकी 700 रु.
आनी 3 वर्सां खातीर रु. 2000

BANK DETAILS :
Bimb Monthly Publication
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

कचेरी
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

# 22व्या वर्सांत पावल घालतना..!

नव्या वर्सांत पावल घालतना खोस जाता तितलोच जापसालदारकेचोय हुसको जाता. तो कोणाक सांगप आनी तातूंत कोणाक वांटेकार करून घेवप? घेवप काय ना? काय माथ्यार घेतिल्लें वजें जाता नज करून तडीक व्हरप? देझेंब्रांत 21 वर्सां पुराय करून ह्या म्हयन्यांत आमी 22 व्या वर्सांत पावल घालतात. फाटलीं 21 वर्सां कितें जोडलें आनी कितें मोडलें हाचो हिशेब आतां वाचप्यांक दिवपाची व्हडलीशी गरज दिसना. ह्या दोन दसकांत आमी तशे वाचकांच्या सोडात कोंकणी वावुरप्यांच्या लेगीत काळजांत सुवात मेळोवंक पावलेनात. दोन दसकां उलगल्या उपरांत हें अशें कित्याक दिसूंक फावो? 'आमी'तल्यान 'हांव' कडेन वचपाचो हो आरंभ बी न्हय मू? असो भंय दिसता!

'बिम्ब' नांवाचें एक मासिक सुरू करून नव्या नव्या बरोवप्यांक मुखार काडप, तांचें साहित्य उजवाडाक हाडप आनी कोंकणी भास, संस्कृताय आनी समाजाच्या उत्थाना पासत आपले परीन हात बोट लावप हो हाचे फाटलो हावेस आसलो.

जेन्ना एखादें नेमाळें सुरू जाता, मागीर तें दिसाळें आसूं वा म्हयनाळें तें एके व्यक्ती पुरतें मर्यादीत उरना. तें समाजाचें जाता. कित्याक तातूंत समाजाचें पडबिम्ब हाडपाचो हावेस आसता. नेमाळ्याचो संपादपी तेच पासत आपल्या संपादकींत समाजाचो आवाज जावन उलयता, देखून थंय कोण 'हांव'उरना जाल्यार 'आमी' जाता. संपादकींतलो दरेक विचार समाजाचो आसता अशें मानून आमी फाटलीं 21 वर्सां आमचे तांकी प्रमाण योगदान दीत आयले. 'बिम्ब परिवार' ह्या नांवान सुरक्षेचें एक काल्पनीक कवच तयार करून त्या परिवाराच्या नांवानच आमी हड्डें मुखार काडून हांगा मेरेन पावले. पूण व्हडल्या घराचे पोकळ वासे म्हणटात तशे ह्या परिवाराचे वासे करमेवन एकेक पोखरतात हाचीय कल्पना नव्या वर्सांत पावल घालतना आयले बगर रावना.

निदान पाव शतक एक दर्जेदार मासिक चलयतलों ह्या हावेसान 2002 वर्सा बिम्ब सुरू केलें आनी दर्जांत खंयच तडजोड करी नासतना ह्या 21 वर्सांत आमी 250 अंक वाचप्यां कडेन पावयले. ज्येश्ठ आनी खास करून नवोदीत लेखक-कवींचीं 170 दर्जेदार पुस्तकां उजवाडाक हाडलीं. ज्येश्ठ जरी हाताच्या बोटांर मेजपा इतले आसले तरी शेकड्या वयर नव्या बरोवप्यांक आमी लेखकाचे पदवेर व्हरून बसयले. निळू म्हजो खेळूं हें जरी खरें आसलें तरी जेन्ना आमी दर्जेदार अंक वा पुस्तकां म्हणटात तेन्ना दर्जो कसलो? होय प्रस्न उबो रावता. दर्जेदार म्हणल्यार बरो कागत वापरून केल्ली निर्मणी काय तातूंत आशिल्लें साहित्य?

ह्याच अंकांत बिम्ब परिवाराचो एक खांबो सखाराम बोरकार हांचो मोलावणी ह्या सदरांत 'साहित्याचो कोयर' म्हूण लेख आसा. हांगा आमी पाद्रीचो शेर्माव व्हनयेंक न्हय अशें म्हणूंक शकनात. तो शेर्मांव हांगा व्हनयेकूय लागता. आमी ह्या 21 वर्सांत किरकोळ उदारणा सोडलीं जाल्यार चडसो कचरोच निर्माण केला. खंयचे अपेक्षेन तर एक दीस ह्या कचऱ्यांतल्यानूच भांगर येतलें. पूण दुर्दैवान दरेक लेखांत सुदारणा करूनय त्योच चुकी आमकां परत परत निवळावंच्यो पडटात.

फाटल्या 21 वर्सांत जें घडलें ना तें फुडल्या तीन वर्सांत घडटलें हाचेर विश्वास दवरप कठीण! तरी लेगीत पंचवीस वर्सां एक दर्जेदार मासिक चलोवपाच्या हावेसान मारिल्ली चांट भ्रमांत रावून काय जायना, मारीत हांगा मेरेनआमी पावल्यात. आतां फकत तीन पावलां उरल्यांत. तातूंत्यान मासिकाक सर्गाचें दार उगतें जातलें काय पाताळाचें तें काळ थारायतलो. आयची मानसिकता आपलो कोयर व्हरून रासवळ वाटारांत उडोवपाची. आमचे कडेन जो साहित्याचो कोयर येत रावता ताच्यो पुडयो बांदून हेरां कडेन पावोवपाचो हो उद्योग तीन वर्सांनी काय जायना बंद केल्या बगर पर्याय ना.

ताचें कारण, साहित्याचो अभ्यास करून,आपूण बरयतां ताचो कस आपणेंच तर्जून पळोवपी पिळगी आतां बरोवपाचे तांकी भायर गेल्या. नवी पिळगी बरयता साहित्याचो अभ्यास नासतना. सामाजीक माध्यमां आंगठे दाखोवन असल्या बरपाक जेल दितात. देखून हे बरपी साहित्याच्या जाणकारांक किंकोंत करतात. तांका समजावप वो आमकां समजून दिवप तांकी बायलें आनी वेळेचो अपव्यय! तरी आस्त सोडप ना.

म्हादयचेर अवर्शण आयिल्ल्यान ऐन वेळार शीर्शकथा बदलची पडली देखून वर्साच्या आरंभाकूच अंकाक कळाव जालो देखून क्षमस्व! पेटून उठुया,म्हादय वांचोवंया होच नव्या वर्साचो मंत्र!!




# अमृत महोत्सवी गौरवग्रंथ 'भाई'




'भाई' चो अमृत महोत्सवी गौरव ग्रंथ 5 आगोस्ताक आमोरेच्या वेळार मिनेझीस ब्रागांझा सभाघरांत हातांत पडलो आनी थंयच तो हांवें उगतो करून चाळ्ळो. ग्रंथाच्या लेखानुक्रमाचेर नदर मारली आनी तातूंत म्हजें नांव पळोवन हांव खूब खोशी जालों. गोंयच्या आनी गोंयां भायल्या फाकिवंत लेखकांचे वळेरेंत हांव पावलों म्हण मन खूब धादोशी जालें. कार्यावळ सोंपल्या उपरांत भाई आनी दिदीचो निरोप घेवन हांव णवांक सुमार घरा पावलों. गुरू नाटेकाराचो सांगात सदांच आसता म्हूण म्हाकां अश्या सुवाळ्यांनी वांटो घेवंक मेळटा. सुवाळ्याची कसलीय जापसालदारकी दिवंचे पयलींच ती स्वीकारपाची तयारी गुरुची आसता. पयशांचें तोंड ताणें केन्नाच पळयलें ना.

रातचो न्हिदूंक वच्चे पयलीं हांव न चुकतां भुपेंद्र सिंगाची एक गझल आयकतां. ती आयकून हांवें मागीर गौरव ग्रंथाचीं पानां चाळूंक घेतलीं आनी सगळ्यांत आदीं म्हजो लेख वाचलो. संपादकी काट छाट केल्ल्यान भाईचें दुसरें भुरगें म्हणल्यार 'बार्देश बाझारा'चो उल्लेख दिसलो ना. मातशें वायट दिसलें. ताचेर आड नदर करून ॲड.क्लेओफात कुतिन्य हांचो लेख वाचपाक सुरवात केली. भाई म्हणल्यार कसलें रसायन हाची प्रचिती, सुंदर शब्दांनी ताणी मांडिल्ली आसा.

"After 1974 he was untoppable for long time. All I can say he dominated Goa's political scene and provided stewardship towering over all his contemporaries``

वयल्या वाक्यांत भाई कचकचीत भरिल्लो दिसता, हाचो अणभव येता.

ग्रंथाचो संपादक भौ.प्रभाकर ढगेचीं दोन उतरां 'गौरव ग्रंथाच्या निमित्ताने'वाचून काडलीं. भाईलीं सगलीं तासां आनी 'नव्या खलपशाहीचो इतिहास' तांणी सुंदर, सुटसुटीत आनी म्होंवाळ उतरांनी आमच्या मुखार दवरला. तांच्या उतरांक गांवठी तूप हळदीच्या खोल्यांत गरम केल्ल्याचो वास येता. खंयच अतिशयोक्ती ना. राजकारण न्हय, तर त्या परस व्हडा मळांचेर म्हणजे, शिक्षणीक, सामाजीक, सांस्कृतीक, साहित्यीक श्रेत्रांत भाईचो वावर खूब उंचेल्या पांवड्यार पाविल्लो आसा, हाची गवाय तांणी दिल्ली आसा.

गौरव ग्रंथांत जवळ जवळ 82 लेखांचो आसपाव जाल्लो आसा. हांव थोड्याच लेखांचो उल्लेख करतां...

❖ 'परमेश्वराने अतिशय उदार मनाने खूप काळजी घेवून त्या व्यक्तीला घडवलंय, असे आपल्याला त्याना पाहुन वाटतें...'–मीरा, बेळगाव.

❖ 'असामान्य बुध्दीमत्ता, कल्पकता, चिकाटी, अभ्यासू वृत्ती, दैवाला दोष न देता अविश्रांत कष्ट करण्याची जिद्द हे गुण हीच भाईची खरी ताकद'– ॲड.प्रभाकर नारुलकर.

❖ 'लोकसभेच्या उत्तर गोवा मतदार संघातून त्याना निवडून आणून, लोक सभेत पाठवणे आणि गेली पंचवीस वर्षे शिळा होऊन पडलेल्या या मतदार संघाचा उध्दार करणे...''–दिलीप

बोरकर. ❖'खलपाना वाचन, चिंतन, मनन, लेखन आणि वक्तृत्व अशा सद्गुणांची संस्कारी पार्श्वभूमि लाभली आहे.दुर्दैवाने गोवा त्यांच्या कर्तृत्वासाठी खूपच छोटे क्षेत्र ठरले. ते महाराष्ट्रांत जन्मले असते तर तिथल्या राजकारण आणि समाजकारणावर त्यांचा अमीट ठसा उमटला असता.'– राजू नायक.

❖'गोव्याचे यशवंतराव चव्हाण म्हणून उल्लेख'गोंयकारांक व्हडा अभिमानाची गजाल.–राकेश साळुंके. प्रकाशक, लोकायश प्रकाशन–सातारा.

❖ 'अजातशत्रू' ह्या लेखांत प्रि. केळकार बरयतात,'' चहुबाजुनी संकटे आली तरी कुठलाही माणूस हादरून जातो, ध्येय दूर करून स्वस्थ बसतो किंवा त्यांच्या नादी न लागण्याचे ठरवतो. परंतु भाईनी चहुबाजूनी संकटांची मालिका असूनही त्यावर संयमाने, प्रज्ञेने मात करून दाखविली. भाई म्हणजे चैतन्याचे झाड...'

❖ 'रमाकांत खलप म्हणजे रसिक, धुरंधर, मुत्सध्दी, विचारवंत, गुणग्राही, दिलदार व लोकांच्या प्रेमांत गुरफटलेला नेता.'–सतीश पाटणकर.

❖ 'माणूसपण जपणारा राजकारणी. त्यांच्या नावांवर आणखी पुस्तके यायला हवीत. कारण वाचकाना सांगण्यासारखे त्यांच्यापाशी खूब काही आहे.'–श्रीराम ग.पांचिद्रे.

❖ रमाकांत खलपांचे मंत्रीपद हुकल्याची शिक्षा आज गोवा भोगत असल्याचे माझे ठाम मत बनले आहे. इतिहासाने त्यांच्यावर फार मोठा अन्याय करून ठेवला आहे. पांच वर्षे मुख्यमंत्री असते तर सिंगापुरचे लीकुआनची उपाधी दिली असती'– नंदकुमार कामत.

सगळे लेख वाचून तोखणाय करपा सारके. खंयचो सादारण आनी खंयचो खूब्ब बरो हें सांगप कुस्तार. लागीं लागीं 90 टक्के बरोवप्यांनी भाईच्या अश्टताशी व्यक्तीमत्वाची आनी रुपाची प्रशंसा केल्या. म्हाका उगडास जाता, फिल्मस्टार राजेश खन्नान सुद्दां भाईच्या रुपाची तोखणाय करून म्हणलें,''अगर खलपजी बॉलीवूड मे होते, तो हमारी छुट्टी हो जाती.'' सुदैवान हांवें वेंचणुकेचे ते जाहीर सभेचें सुत्रसंचालन केल्लें.

सर्वसादारणपणान सत्तरी जाले उपरांत मनीस बावता, तोंडार फोंडकुलां पडटात. काळे केंस सोडून दियात, धवे केंस लेगीत वखदाक मेळूंक कुस्तार. हातांत बडी येता, दांत पडटात. पूण भाई मात आपल्या मुखामळा वेल्या प्रसन्न हांसपाक लागून सदांच चिरतरुण दिसतात आनी वागतातय!

तांच्या राजकी प्रवासाचेर खूबशें बरप जाल्लें आसा. तांणी राजकारणांत खूबशीं पदां भुसयलीं. भाऊसायब बांदोडकारां उपरांत लोकप्रिय अशें व्यक्तीमत्व, सामाजीक भान बाळगून कामां करपी, दूरदृश्टी आशिल्लो नेतो असो भाई अशें गौरवग्रंथांतल्या सगळ्याच लेखकांनी मान्य केलां. प्रत्येकाच्या लेखांत भाईक कसलें ना कसलें बिरूद लायलां. भेदभाव न करपी, भोवआयामी राजकरणी, गोंयच्या राजकारणांतलो खऱ्या अर्थान 'पितामह', गोंयचो यशवंतराव चव्हाण, धुरंधर मुत्सदी, कार्यकर्त्याक जपपी, गोंयचो एकमेव स्टेटस्मन, राजकारणातील भीष्म, सहकार रत्न, मराठी, कोंकणी, इंग्रजी, पुर्तुगेज आनी फ्रेंच भाशेचेर प्रभुत्व, बरो वक्तो.

भाई वयलो हो गौरवग्रंथ खूब सुंदर आनी मोलादीक जाल्लो आसा. ताची दुसरी आवृत्ती येवप गरजेची. भाईचे सुवातेर कोणूय जर मंत्री आशिल्ले जाल्यार ताच्या गौरवग्रंथाची दुसरेच दिसा दुसरे आवृत्तीची ऑर्डर वचपाची!




अशे तरेचो हो गौरवग्रंथ फुडलीं पंचवीस वर्सां येवप कुस्तार. ना म्हणल्यार फकत गुरू नाटेकार हें काम करूंक शकतात. म्हापशेंच्या इतिहासाचेर नदर मारल्यार भाई आनी गुरू हे दोगूय शापीत यक्ष म्हणूंक जाय. भाईक पांच वर्सां गोंयच्या मुख्यमंत्री पदाचेर बसयल्यार गोंयचो अमुलाग्र बदल जातलो आसलो अशें दोतोर नंदकुमार कामत बरयतात. तर गुरू नाटेकाराक म्हापशेकारांनी विधानसभेंत धाडूंक नाशिल्ल्या कारणान एक बरो आमदार फुकट घालयलो आनी म्हापशें विकासा पासून वंचीत उरलें अशें म्हाका दिसता. भाईक कांय लोकांनी राजकारणाच्या रानांत मदींच सोडलो जाल्यार गुरूंक फुडें हाडून 'नो एन्ट्री'चो बोर्ड दाखयलो.

कितेंय आसूं, हांगा ह्या दोगांयचेर अन्याय जालो तरी तांची प्रतिमा लोकांच्या काळजांत सदांच आसतली हातूंत दुबाव ना. तेच पासत ढगेन हो एक सुंदर आनी अप्रतीम गौरवग्रंथ उजवाडाक हाडून खूब मोठें कार्य केल्लें आसा. ते पासत तांकां मना काळजा सावन हुनहुनीत परबीं.

– **रवींद्र फोगेरी**, म्हापशें गोंय.




## सुपर हिरो

'विद्यापीठ परिसरांत आमोरे उपरांत भोंवू नाकात, थंय बिबटो भोंवता' म्हणपाचें परिपत्रक गोंय विद्यापिठान जारी केलें खरें पूण प्रोसोर दिवटेन सदचे वरीं ताचे कडेन आडनदर केली. सदचे संवये प्रमाण तो सात वरांचेर भायर सरून नवशाल्या बारांत वचून बसलो.

दीस थर्टीफस्टचो आशिल्ल्यान सरत्या वर्साक निरोप दिवपाच्या निमतान ताणें दोन पेग मायजच घेतले. भायर सरतना ताका याद जाली, आपणें बायलेक येतना चिकन हाडटां म्हूण सांगलां. ताणें चिकन तंदुरीचें पार्सल मागलें तेन्ना नवशान ताका तंदुरी बंद जाल्ल्याचें सांगलें. किचन बंद जाल्ल्यान व्हरपा सारकें आनीक कांय ना तें पळोवन प्रोसोर दिवटेन ताचे कडल्यान एक कील सादें चिकन घेतलें. उसरां आयलां म्हूण बायल तापली तरी चिकन पळोवन न्हिवतली आनी रांदून वाडटली हाची ताका खात्री आसली.

हालत धोलत तो आपल्या क्वॉर्टरा कडेन पावत आयिल्लो तेन्ना थंयचीं सुणीं मोठमोठ्यान भोंकतात तीं ताणें आयकलें. सदचींच,संवकळीचीं सुणी अशीं भोंकतात तें पळोवन तो अजापलो. तेय नव्या वर्साक येवकारतात आसतले असो विचार करीत तो आपले भितर हांसलो आनी मुखार सरलो जाल्यार एक व्हडलोसो सुणो ताचे सामकार येवन उबो रावलो. पूण तो मात्तूय भुकनासतना ताचेच कडेन टक लावन पळयत उबो आशिल्लो.

आतां रस्त्यार दोनी वटयां गाडयोय राविल्ल्यो आनी तांचे प्रखर लायटी उजवाडांत तो सुणो स्पश्ट दिसतालो. 'हो बरे जातीचो सुणो, हेडगो न्हय. मात्तूय भुंकना. भुकेला आसतलो!' अशें म्हणत प्रोसोर दिवटो चिकन घेवन ताचे म्हऱ्यांत गेलो आनी लक्तुबायेन ताचे सामकार तें दवरलें. तो तें खातना प्रोसोरान बरोच वेळ ताका पोशेलो आनी थापटीलो.

मागीर प्रोसोर घरा वचपाक उठलो.

घरा पावलो तेन्ना बायल हुसक्यान ताचीच वाट पळयताली. घोव भितर सरतकच तिणें ताका कांयच विचारनासतना वाडलो आनी मोन्यानी जेवन प्रोसोर न्हिदपाक गेलो. आपणें येवपाक कळाव केलो, हाडटा म्हूण सांगिल्लें तें चिकनूय हाडूंक ना तरी बायलेन कांयच म्हणलें ना तें पळोवन प्रोसोर नाय म्हणल्यार अजापीत जाल्लो.

पूण खरी गजाल अशी आशिल्ली, त्या परिसरांत बिबटो भोंवता म्हणपाचें तिणें आयकल्लें आनी खूब जाणांनी ताका पळयल्लोय बी. पूण आपल्या घोवाक भायर वचूं नाका म्हूण सांगपाक ती विसरिल्ली. तेन्ना तो कसोय जावं बरे भशेन घरा पावलो तेंच तिका देवाचे उपकार दिसले.

इतल्यांत तांचो न्हिदूंक गेल्लो पूत मोबायल घेवन उडयो मारीत भायर आयलो. ताच्या मोबायलाचेर एक व्हिडीओ व्हायरल जाल्लो. ताचें कॅप्शन आशिल्लें 'ताळगांव पठारा वयलो सुपर हिरो.' ताणें मोठे खोशयेन तो आपले आवय मुखार धरलो.

बिबट्याक चिकन खावयत, वयल्यान ताचे फाटीर हात भोंवडायत बशिल्ल्या आपल्या घोवाचो तो व्हिडीओ पळोवन प्रोसोर दिवटेची बायल थंयच घुंवळून पडली.



## नातलां पाय

प्रोसोर दिवटे नवशाल्या बारांर नातलां फुलोवन घरा पावलो तेन्ना सदचे वरीं ताची वाट पळयत बशिल्ली आपली बायल ताका दिसली ना. तिचे सुवातेर नातलां पाय ताची वाट पळयतालो.

भितर सरल्या बराबर नातलां पायन झिंगलाचेर नाचत प्रोसोराक येवकार दिलो, नातलां आनी नव्या वर्साचीं परबीं दिलीं आनी ताका मायेमोगान विनयलें, ''प्रोसोर आयच्या ह्या खिणाक आनी शुभ समयार तुका जाय तें माग. हांव तुजी वीश पुराय करून तुका नातलांचीं परबीं भेटयतां.''

प्रोसोरान म्हणलें, ''नातलां पाय, म्हजी बायल म्हाकां सद्रांच पिडापीड भोगोयता, झगडीं करता. हांव सामको उबगलां तिका. तेन्ना तुका खऱ्यानीच म्हाकां कितें दिवंचें दिसल्यार हे बायलेक व्हर आनी तिचे सुवातेर म्हाकां दुसरी कोणूय बरीशी बायल दी.''

प्रोसोरान इतलें म्हणला मात, नातलां पायन आपली पोती कुशीक दवरली आनी कोनशाचो सारनी खुटो घेवन ताका बडय बडय बडयलो.

बऱ्याच वेळान ताका कळ्ळें ताची बायलच सांता क्लॉज जावन ताची वाट पळयताली.

# म्हादयचें बावलें कर्नाटकान व्हयलें ..! गोंयकार घालतात शबै!!

गोंयचे नामनेचे नाटककार पुंडलीक नारायण नायक हांच्या 'शबै शबे भोवजन समाज' ह्या राजकी विडबंन नाटकांत एक प्रसंग आसा.

राजकारणी मतदारां मुखार फटाश्यो मारपाच्या नेटार गांवांत पूल बांदपाचें आश्वासन दिता. मतदार खूश जावन ताळयो मारतात. पूण त्या वातावरणांत एका आदर्श, विचारी नागरीकांचो प्रतिनिधी मानू येता अश्या एका अवचिन्नाक गांवांत न्हय ना म्हणपाची कल्पना येता. तशें तो आपल्या वांगड्यांक सांगता. तांचीय ट्युबलायट पेट्टा आनी धाडस करून ते ती गजाल मतां मागूंक आयिल्ल्या राजकारण्याचे नदरेक हाडटात. राजकारण कोळून पिल्लो तो राजकारणी तांचें म्हणणें सहजपणान घेता आनी आपूण गांवांत आदीं न्हंय खणटलों आनी मागीर ताचेर पूल बांदतलों म्हणपाचें दोट्टी आश्वासन दिता. मतदार खोशयेन भरतात आनी त्या राजकारण्याचो जयजयकार करतात.



**दिलीप बोरकार**

*साहित्यकार, ज्येश्ठ पत्रकार आनी बिम्ब मासिकाचे मुखेल संपादक*

शबै शबै भोवजन समाज नाटकांतलो तो राजकारणी म्हणल्यार फकत नाटकांतलें पात्र न्हय तर तो गोंयच्या राजकारण्यांचो प्रतिनिधी. असलेच तरेचे राजकारणी सद्या गोंयांत पंचायत ते जिल्हो पंचायत, जिल्हो पंचायत ते विधानसभा आनी विधानसभा ते लोकसभा अश्या सगळ्या थरार आमकां दिश्टी पडटात. तितलेंच न्हय तर त्या राजकारण्यां वांगडाच आमकां त्या नाटकांतलो पुराय भोवजन समाज आमचे भोंवतणी वावुरतना दिसता. पात्रां म्हूण न्हय तर खरो मतदार म्हूण! नाटकांत आदर्शवादी, क्रांती घडोवन समाज बदलपी पात्र आसा तशें आमचे मदींय आसा, जांचे फाटल्यान लोक उबे आसात अशें दिसलें तरी फाटल्यान वळून पळयत जाल्यार कोणूच आसना.

लोकशायेंत निश्क्रीय आनी भ्रश्टाचारी राजकारण्या आड आवाज उठोवपाक मेळटा. निश्ठावंत आनी विचारवंत सामाजीक वावुरपी समाजांत जागृताय घडोवन हाडून ह्या भ्रश्टाचारा आड लढो सुरू करूंक शकता. एका काळार असल्या लोकांचे निश्ठेक आनी विचारांक तेंको दिवन लोकय तांचे फाटल्यान रावताले. आपल्या फुडाऱ्या पासत आपूणय त्याग करताले. पूण आयज असले अनुयायी नात. राजकारण्यांनी तांकां वेगवेगळीं हांयसा दाखोवन गरयेक लावन दवरल्यात. आज जे कोण

आंदोलनाच्या नांवान रस्त्यार येवन शबै घालतात तातूंत समाजकारण मात्तूय आसना. तातूंत भरिल्लें आसता तें राजकारण. राजकारण्यांनी समाजसेवेच्या नांवान खोटल्यांनी दुडू केला. तोच वापरून ते आपले कार्यकर्ते विकते घेतात आनी आपली शक्त दाखोवंक तांकां दिसवड्याचेर आंदोलक म्हूण रस्त्यार हाडटात. हातूंत लोकशायेचो अंशूय आसना. हाकाच लागून लोकशायेंत जांका खऱ्यानीच आवाज काडपाचो आसता त्या फुडाऱ्यां फाटल्यान कोण आसना आनी जे कोण आसतात तांका राजकारणी केन्ना मोलायत तेंय कळना. निसुवार्थी लोकांचो उणाव जाल्ल्यान आयज लोकशाय न्हिदल्या आनी राजकी सुवार्थ्यांचो जागोर चल्ला.

ह्या असल्या वातावरणाक लागून गोंयांत लोकशायेक पोशक आनी पुरक अश्यो चळवळी न्हिदल्यात आनी न्हंय नासल्यार, गांवांत आदीं न्हंय बांदून ताचेर पूल बांदपाचीं आश्वासना दिवप्यांची चलती आसा. तेच पासत गोंयांत आयज ज्यो न्हंयो आसात तांचेर दोळे दिपकावपी आकांताळे पूल उबारप चालू आसा आनी ज्या गांवांत लोक उदका पासत वळवळटात तांच्या ताळ्यार उदकाचो थेंब घालपा बदला थंयच्या मोप वाटारांत आकांताळो विमानतळ उबारून ताका नांव कोणाचें दिवप हाचेरच आपली शक्त घालयतात.

गोंयांत ह्या वर्सा घसघश्यांनी पावस पडला. देजेंब्र सोंपून जानेर लागलो तरी कांय सुवातींचेर गोंयांत अदीं मदीं पावस शेनून वता. गोंयचे उदका प्रकल्प उदक साठोवणेची मर्यादा हुपून गेल्यात. अशें आसतना गोंयांत कांय गांव पिवपाच्या उदका पासत वळवळटात. दोनूच गांवांचें मोस्र हांगा घेवं येता जे फाटले कांय दीस उदकाच्या थेंब्या पासत आंक्रदन करतात.

पेडणे हो म्हाल उदरगती बगर कितलींच वर्सा पडून आसा. पेडणेची उदरगत कशी आसची हाचो आराखडो खंयच्याच सरकारान आनी पेडणे म्हालांतल्या आमदारांनी केन्ना केला अशें दिसना. आयज पेडणे म्हालाचें नांव संवसारार गाजता तें मोप विमानतळा पासत. ह्या म्हालांत तीन म्हत्वाचे प्रकल्प सरकार हाडटा. तातूंतलो मनोहर आंतरराष्ट्रीय विमानतळ पुर्णयेक पावन प्रधानमंत्र्यांनी ताचें लोकार्पण केलां. आनीक दोन म्हत्वाचे प्रकल्प म्हणल्यार तयार जावन वापराक उबें आशिल्लें आयुश्य हॉस्पिटल आनी येवपाचो आसा तो आयटी प्रकल्प. ह्या तिनूय प्रकल्पांक लागून पेडणेकारांचें भाग्य कशें फळफळटा ताका काळ गवाय आसतलो. पूण आयज पेडणे म्हाल वळवळटा ताका आमी गवाय आसात. पेडण्याची उदरगत करपा पासत आयिल्ले हे तिनूय प्रकल्प प्रचंड उदकाची गरज आशिल्ले. पेडणेकारांच्या ताळ्या वयलें उदक ह्या तीन प्रकल्पां पासत मोठ्या प्रमाणांत वतलें. ह्या प्रकल्पांक पावोवन उदक उरल्यार तें पेडणेकारांक मेळटलें. ह्या म्हालांतल्या ह्या तीनूय प्रकल्पांची उदक घोंटपाची तांक आकांताळी. ती भागोवप हें सरकाराचें पयलें कर्तव्य अशें सरकार मानता. कित्याक हे प्रकल्प फुडाराचे नदरेन क्रांतीकारी. तेच वांगडा वर्तमानांत पेडणेकार उदकाच्या थेंब्या पासत आक्रंदन करतात ताचे कडेन सरकाराचें लक्ष वचना.

पेडणे म्हालाक उदका पुरवण करपाक चांदेल उदका प्रकल्प उबो जालो. पूण हांगा उदकाचेर प्रक्रिया जावन तें वापरा लायक जावन ह्या म्हालांतल्या लोकांच्या घरांनी पावता काय ना हाचो विचार जावंचे आदी पेडणे म्हालांत जे हे तीन आकांताळे प्रकल्प आयल्यात तांका उदका पुरवठो करपाक चांदेल उदका प्रकल्पांतलें उदक वळोवपा पासत सरकार प्राधान्य दितलो हातूंत दुबाव ना. तसो यत्न चालू आसा.

पेडणे म्हालांतल्या लाखभर लोकांक उदका पुरवण करपा पासत चांदेलचो हो उदका प्रकल्प उबो केल्लो. हांगच्यान एकाच पायपांतल्या 15 एमएलडी उदक ह्या लोकांक वता. पूण सरभोंवतणच्या केरी, पालयें मांद्रें, हरमल, कोरगांव, मांद्रें, मोरजी, तुयें, पार्से, आगरवाडो बी वाठारांत आतां जानेर म्हयन्यांतूच नळ कुथनेतात आनी हांगा रावपी लोक उदका थेंब्या पासत नळा कडेन चातका वरीं नदर लावन बसतात. तेच पासत ह्या वाठारांत दिसपट्टें खंय ना खंय आंदोलन जाल्ले दिश्टी पडटा आनी तांची आरड आतां सदचीच जावन पडल्या.

दुसरें एक मोस्र घेवंया सत्तरी म्हालाचें. सत्तरी म्हाल हो राजा-म्हाराजांचो म्हाल अशें म्हणूं येता. ह्या म्हालाचेर गोंय मुक्त जाले उपरांत आनी तें पुर्तुगेजांच्या शेकातळा आशिल्लें तेन्नाय बी राणे सायबांच्याच अधिपत्या खाला आशिल्लें. देखून ह्या म्हालाचेर पुर्तुगेजांचीय कृपादिश्टी आशिल्ली आनी स्वतंत्र गोंयच्या सरकारांचीय. गोंय मेकळे जावन स दसकां उलगलीं तरी ह्या म्हालाचेर राणे घराब्याचोच शेक चलता. तो देंवचे परस दिसान दीस चड पिंयोर जावन वता. प्रतापसिंग रावजी राणे हांणी पांयार उबो रावं येता



तितले मेरेन सत्ता राखली आनी त्या उपरांत भाजपच्या आशिर्वादान श्वास चलता मेरेन राजभोगाची तजवीज करून घेतली. तशें करतना आपलें राज्य अचळय सुनेचो सुवादीन केलें. सत्तरी म्हालांतले दोन मतदारसंघ ह्याच घराण्याच्या नांवार सासणाचे सा जाल्यात. तिसरो मतदारसंघ आयच्या मुख्यमंत्र्यान आपल्या नांवार करून घेतला. म्हणटकच सत्तरी म्हाल आनी सरभोंवतणचो वाटार हो गोंय मुक्त जायत सावन तसो सत्तेचेच सावळे खाला आसा. अशें आसुनय सत्तरी म्हालांत उदकाची समश्या सदांच तकली वयर काडीत आसा आनी थंयची जनता सदांच खाश्यांच्या दराऱ्या खाल जियेत आयिल्ल्यान तांच्या उदकाच्या उणावाक लागून सुकिल्ल्या ताळ्यांतल्यान आवाज केन्नाच भायर सरलो ना. पूण स दसकां उपरांत काय जायना, हालींसराक ह्या वाठारांतल्यान घुस्मटामाराचे हुंकार येवंक लागल्यात. मागीर ते आयआयटीच्या निमतान जावं वा उदकाच्या.

ह्या म्हालां भायर दिवचल, म्हापशें, पर्वरी अशे उत्तर जिल्ह्यांतले सगळेच वाटार उदका पासत अदीं मदीं पिरंगतात वा आड्डतात. आतां तांच्या बोडार म्हादयच्या नांवान आकांत आयला. म्हादय हातासपाचें कर्नाटकाचें सपन जर खरें जालें जाल्यार सगल्यांत आदीं सत्तरी म्हाल उदका पासत वळवळटलो तें थारिल्लेंच आसा आनी तातूंतल्यान राणे आनी सावंत घराणेंय सुटपाचें ना. गांठीक कितलोय दुडू आसलो आनी हातांत सत्ता आसली तरी ते सत्तेच्या नेटार मतदार वळोवंक येतात तशे उदकाचे पाट भगिरथ प्रयत्नानी लेगीत शक्य ना. ताचेर एकूच उपाय म्हणल्यार सत्ता आनी संपत्तीचो माज कुशीक दवरून एक गोंयकार ह्या नात्यान पुराय सत्तरीन म्हादय वाचोवंक फुडें सरूंक जाय. कित्याक म्हादय जर कर्नाटकान सुतलायली जाल्यार सगल्यांत आदीं ताचो असर सत्तरी म्हालांतल्या जिविताचेर पडपाचो आसा. म्हादय न्हंय इतलीं वर्सां उप्पाट भरून व्हांवतनाय सत्तरी म्हालांतल्या कांय वाटारांनी पावसांत लेगीत टँकरांतल्यान उदक पुरवण करपाचे प्रसंग आयल्यात, तेन्ना म्हादय जर आटली जाल्यार सत्तरीचें कितें जातलें हाचो विचार सत्तरीवाल्यांनी करून थंयच्या राजा-म्हाराजांक आनी महाराणयांक रस्त्यार येवपाक पराथूंक वा फुसलावंक जाय.

## हो प्रस्न पुराय गोंयचो

म्हादय कर्नाटकान सुतलायल्यार ताचो असर फकत पेडणें, सत्तरी आनी उत्तर गोंयचेरूच पडपाचो ना. आतांचे परिस्थिती प्रमाण फकत लोकां पासत उदक मेळपाचे नदरेन विचार केल्यार गोंयच्या स म्हालांक ताचो मोट्या प्रमाणांत फटको बसतलो. सत्तरी, दिवचल,



बार्देश, तिसवाडी, फोंडें आनी धारबांदोडें हे म्हाल उदका पासत कांय वर्सां भितर वळवळे काडटले. तेच वांगडा कर्नाटकाच्या आनी केंद्र सरकारच्या नाटकांक लागून म्हादय आटली जाल्यार पुराय गोंय हें गोंय उरचें ना तर एक सुको सडो जावन पडटलें म्हणपाचें सगळेच पर्यावरणतज्ञ ताळो सराटून सांगतात. म्हणटकच गोंय जर सांबाळपाक जाय जाल्यार उदक आमकां मेळचें ना म्हणत कांय म्हाल कपलाक मिरयो घालतात तांका तांच्या नशिबार सोडी नासतना पुराय गोंयकारांनी म्हादय वाटावंक रणसंग्राम उबो करूंक जाय. तो काळ आतां आयला.

म्हादयचें हे लफडें काल पयरचें न्हय. ताका आरंब जावन बरोच काळ सरला आनी ताचे विशीं सगळ्या समाज माध्यमांनी मोठे प्रमाणांत समाज जागृताय घडोवन हाडपा पासत आपले परीन योगदान दिलां. 2006 सावन केन्ना ना केन्ना म्हादय सांबाळात म्हणत कोणें ना कोणें आक्रोश करून साद घालाच. हाचेर बिम्बानूय आपले परीन विचार मांडपाचें काम कांय अंकांतल्यान केलां. अशें आसलें तरी समाजाची यादगार उणीं आसता वा आपल्या सदच्या हेर समश्यां मुखार तांकां म्हादयचो प्रस्न तकलेंतल्यान कुशीक दवरचो पडला आसूं येता. म्हणटकच पुराय मनीसकुळयेचे माथ्यार जेन्ना खंयच्याय प्रकरणाक लागून अरिश्ट घुंवत रावता तेन्ना समाजाक ग्लानींतल्यान भायर सरूंक सतत हालयत रावचें पडटा. तें समाज माध्यमाचें कर्तव्य.

### म्हादय ते मांडवी असो प्रवास

म्हादय न्हंयचो उगम कर्नाटकांत जाला. कर्नाटक हें गोंयच्या शेजराचें राज्य. गोंयचे दक्षिणेक कर्नाटक आनी उत्तरेक महाराष्ट्र अशे हे दोन गोंय राज्याचे शेजारी. दोनूय राज्यांक गोंय सैमीक संपत्तीन आनी सुंदरायेन भरिल्लें आसा तें पळोवं नज. तांचे सदांच दोळे फुटल्यात आनी बुकल्याची नदर जशी भोंपश्याचेर तशी हे दोनूय शेजारी गोंयचेर नदर दवरून जिबल्यो चाटत आसात. तरी लेगीत तांच्या दावकुलांतल्यान गोंय वाटावपाक गोंयकार सदांच यशस्वी जाल्यात. ह्या दोनूय शेजारी राज्यांनी गोंयच्यो पन्नास टक्के नोकऱ्यो आनी वेवसाय-उद्योग हातासल्यात. इतलेंय आसून गोंयांक पिडापीड भोगोवपाची एक्कूय संद हे शेजारी सोडीनात. कर्नाटकांत उगम जाल्ली ही म्हादय न्हंय 99 किलो मिटर प्रवास करीत गोंयचे दिकेन धांवता. हातूंतले पयले किलो मिटर ही न्हंय कर्नाटक राज्यांतल्यान व्हांवता जाल्यार उरिल्लो 70 किलो मिटरांचो प्रवास महाराष्ट्र आनी गोंयच्या वाटारांतल्यान करीत गोंयचे शिमे लागीं सासणाचो राबितो करून राविल्ल्या अरबी म्हालदर्याक मेळपाक वता. म्हादय न्हंयच्या ह्या 99 कि.मी. प्रवासांत ही न्हंय आपल्या उदकान भिजयता तातूंत दोन हजार बत्तीस चौखण किलो मीटर भूंय वाटार आसपावता. हातूंतलो तिनशे पंचात्तर चौखण कि. मी. कर्नाटकांत. सत्त्यातर चौ.कि.मी. महाराष्ट्रांत जाल्यार 1580 चौ. कि.मी. भूंयवाटार गोंयात पडटा. म्हादय न्हंयची पुराय लांबाय 111 कि.मी. धरली जाल्यार गोंयचो पन्नास टक्के भूंय वाटार म्हादय उदका खाला येता. कर्नाटकांत म्हादय ह्या नांवान जल्मून गोंयांत येवन मांडवी ह्या नांवान अरबी म्हाल दर्याक मेळपी ही न्हंय लाखांनी लोकांची जीवनदायीनी जाल्ली आसा. तिच्या नाड्यार गोंयची समाजीक आनी पर्यावरणीय जीण निंबून आसा. अशें आसूनय कर्नाटकान म्हादयच्या नांवान सदांच गोंयकारांक नाटक केलां.

म्हादय न्हंयचेर कर्नाटका वरीच महाराष्ट्र आनी गोंयचो सैमीक समान हक्क आसूनय राजकीय वांटणेक लागून हो वाद तयार जालो. चार दसकां आदीं कर्नाटक सरकारान शेत आनी पिवपाच्या वापराक लागून म्हादयच्या उदकाचो वापर करूंक मेळचो म्हूण केंद्र सरकारा लागीं प्रस्ताव



दवरलो. कित्याक हे न्हंयचेर कर्नाटकाचो जितलो हक्क आसा तितलोच हक्क महाराष्ट्र आनी गोंयचो आसा. म्हादय कर्नाटकांत उगम पावल्या म्हूण ताचे मालवजाचेर कर्नाटक आपल्याक जाय तितलें उदक वापरूंक शकना. कर्नाटकाक म्हादयंतलें 7.56 टीएमसी उदक जाय. देखून म्हादय न्हंयतल्यान तें उदक कर्नाटकाक थंयची दुसरी न्हंय मलप्रभा, तांतूंत वळोवपाचें आशिल्लें. ते पासत कर्नाटकान केंद्र सरकारा कडेन जो प्रस्ताव दवरिल्लो ताचेर 1978 ते 1989 ह्या तेरा वर्सांत उदकाच्या वांटपा वयल्यान खूब यत्न आनी वाटागाटी जाल्यो.

त्या उपरांत हालींच्या काळार आतांच्या कळसा, सुर्ल, हलतरा बी वाटारांतल्यान 1.72 टीएमसी आनी भांडुरा हे वाटारांतल्यान कर्नाटक सरकारान 2.18 टीएमसी उदक मलप्रभेंत राज्याच्या वापरा पासत घुंवडावंचें अशी मंजुरी घेवपाक कर्नाटक यशस्वी जालें.

त्या प्रमाण कर्नाटक सरकारान 2002 वर्सा उदक घुंवडावपाच्या ह्या प्रकल्पाक आरंभ केलो आनी ताका संबंदीत आशिल्ली मान्यताय राष्ट्रीय पर्यावरण संस्थे कडल्यान घेतली. पूण हाका गोंयच्या पर्यावरण जाणकारांनी हरकत घेतली आनी गोंय सरकारान ह्या बेकायदेशीर वावराक हरकत घेतली. गोंयान विरोध केल्ल्यान त्या काळच्या अटलबिहारी वाजपेयी सरकारान कर्नाटकाक दिल्ले हे मंजुरेक स्थगिती दिली. हाका लागून उप्रांतच्या काळांत हो उदकाचो तंटो गोंय आनी कर्नाटक ह्या दोन राज्यां मदीं पेटलो. देखून हें प्रकरण सर्वोच्च न्यायालयांत पावलें.

आतां हो उदकाचो वाद कसो सोडोवप? कर्नाटक राज्य हें गोंयचें शेजारी राज्य. गोंयकारांक शेजाऱ्यां लागीं झगडीं करपाक आवडना. खंयचोय वाद हो चर्चेन,





एकमेकांच्या बरेपणान सुटावो करपा कडेन गोंयकारांनी आपलो कल दिला. आतां तीं भिजूडपणां थारल्यांत ही गजाल वेगळी. गोंयकार केन्नाच कर्नाटकां सारके आक्रमक जाले नात. म्हणटकच 2010 त लवादाची स्थापना करून हो वाद तडीक व्हरचो असो निर्णय जालो आनी मागीर हो तंटो केंद्र सरकारच्या चाबकाक लागून लवादाचे सुवादीन केलो. लवादाचो निर्णय जायना तो मेरेन म्हादयंतल्या उदकाचो एक्कूय थेंब मलप्रभा न्हंयेंत घुंवडावपाक स्थगिती दिली. तरी लेगीत हो वाद मदीं मदीं वयर सरतालो तो कर्नाटक उत्तर कर्नाटकाक शेता पासत आनी पिवपा पासत उदक जाय म्हणत केंद्र सरकारा कडेन मागणें करतालो देखून. केन्ना केन्ना संवाद, सर्वोच्च न्यायालय, गोंय सरकार आनी केंद्र सरकार हांका भिसक्यार मारून दादागिरी करीत कर्नाटक आपल्याक जाय तशें उदक घुंवडायतालें आनी स्थगिती आसूनय आपल्याक जाय तशें बांदकाम करतालें.

म्हादयचें उदक अशे तरेन जबरदस्तीन कर्नाटकान आडायल्यार गोंयच्या पर्यावरणाचेर ताचो वायट परिणाम जातलो आनी अशी उदकाची व्हांवती बंद जाल्यार गोंयच्या न्हंयांनी खारें उदक येतलें. ते भायर गोंयांत जो म्हादय न्हंयचेर निंबून वाटार आसा तो सुको सडसडीत पडटलो म्हणपाची भिरांत गोंय सरकार, केंद्र सरकार आनी सर्वोच्च न्यायालया मुखार मांडटालें.

### कर्नाटकाक केंद्र सरकारचो फावोर

कर्नाटक राज्याक म्हादय न्हंयतल्यान उदक घुंवडावंक मेळचें देखून कर्नाटक सरकारान केंद्र सरकारा



कडेन सुदारीत प्रस्ताव दवरून मोदी आनी शहाक सांकडें घालें. सद्या कर्नाटकांत भाजपचें सरकार आसा आनी गोंयांतूय भाजपच आसा. हीं दोनूय राज्यां भाजपच्या अधिपत्या खाला आसलीं तरी तांतूंत एक खास आनी दुसरें उणें खास आसा. खास आशिल्लें कर्नाटक राज्य. तांचें सरकार आनी जनता आपल्या राज्या पासत सदांच सतर्क आसता. मागीर त्या राज्यांत कोणाचेंय सरकार आसूं, आपली जनता, संस्कृताय आनी भूंय हाचे विशीं खंयचेंच सरकार तडजोड करी ना आनी थंयचे लोकय ओगी रावनात म्हणपाचें दरेक घडणुकेंतल्यान आतां मेरेन सिद्द जालां. म्हणटकच केंद्र सरकार कर्नाटका सारख्या स्वाभिमानी राज्यांतल्या लोकां लागीं खेळूंक सोदीना.

त्या भायर कर्नाटकांतल्या खासदारांची संख्या खूबच व्हडली, जांचो केंद्रांत सरकार घडोवपा पासत भाजपाक मोलाचो आदार लाबता. गोंयचे सारखे दोन खासदार आसून नासून भाजपच्या फुडाऱ्यांक सारकेंच. त्या भायर गोंयकार हे पेज आनी तांका केन्नाय विकते घेवं येता म्हणपाचें केंद्रांतल्या फुडाऱ्यांनी बेस बरें पारखिलां. तेच पासत गोंयच्या हेर पक्षांतल्या आमदारांक सांगता त्या मोलान विकते घेवन भाजप फुडाऱ्यान पक्षाच्या गोठ्यांत व्हरून बांदल्यात. अशे तरेन फावो त्या परस चड भोवमत तयार करून दवरून आनी विरोधी पक्षाक कापाझ करून उडोवन गोंय सरकाराक शंड करून दवरलां. गोंयचे राजकारणी गोंय राज्याच्या फुडारा परस आपलोच फुडार रचूंक दंग आशिल्ल्यान तांच्या विरोधाक तसो केंद्रांतलो सुणो लेगीत खायना. तेच पासत कर्नाटकान सुदारीत प्रस्ताव हाडल्या बराबर कर्नाटक राज्याची वेंचणूक नदरे मुखार दवरून, म्हादयचो प्रस्न न्यायालयांत आसतनाय केंद्र सरकारान सर्वोच्च न्यायालयाक किंकोंत करून कर्नाटकाक मान्यताय दिल्या.

गोंय सरकार जुवारी न्हंये वयल्या नव्या पुलाचेर रावून सेल्फी काडपांत आनी मोप विमानतळाक मनोहराचें नांव दिवपांत दंग आसतनाच कर्नाटक सरकारान दिल्ली वचून म्हादय हातासली. गोंय नव्या वर्साच्या येवकाराक सनबर्नाचें आयोजन करतना कर्नाटक सरकार म्हादयच्या कळसा-भांडुरा ह्या उप न्हंयांतलें उदक कर्नाटकांत घुंवडावपा पासत दंग आशिल्लें. ते नदरेन नव्या वर्सा आपले जनतेक कितें भेट दिवंची हाची वेवस्था करतालें. अशे वेळार गोंय सरकार आनी गोंयकार नवे वर्साचे मौजमजेचें आयोजन करतालें.

केंद्र सरकारान गोंयकार आनी गोंयचें सरकार पेज म्हणपाचें पारखिलां. कर्नाटकांतले पाटबंधारे मंत्री गोविंद कारजोळ कर्नाटकाच्या कळसा-भांडुरा उप न्हंया वयल्या प्रकल्पाच्या सुदारीत आराखड्याक बेगोबेग

मंजुरी मेळची म्हूण दिल्ली वचून केंद्रीय जलशक्तीमंत्री गजेंद्रसिंग शेखावत हांचे कडेन चर्चा वा वाटागाटी करून तत्परतेन ही मंजुरी घेता जाल्यार केंद्रांत कितें घडटा हें खबर आसुनय आनी म्हादयचे बाबतींत कितें घडलां म्हणपाचें गोंयच्या मुख्यमंत्र्यांक दिल्ली आपोवन खबर दिवनय गोंय थंडपणान रावता हाचेंच अजाप जाता.

थंय दिल्ली केंद्र सरकार कर्नाटक सरकारा कडेन म्हादयच्या नाड्यार वेंचणुकेचो सौदो करता आनी हांगा गोंयचें सरकार कोणाक मंत्रीपद दिवपाचें आनी कोणाक कसलें म्हामंडळ दिवपाचें हाचेर सौदो करता. महाभारतांत पांडवांनी द्यूत खेळून आपले बायलेक, द्रौपदीक पणाक लायली, तिका कौरवांचे भकीक घाली हें वाचून आनी महाभारत मालिका दूरदर्शनाचेर पळोवन तिडकपी गोंयकार, गोंय सरकार राजकी द्यूत खेळत आपले आवयक कर्नाटकाचे भकीक घालता तें पळोवन ओगी कसो रावता हाचेंच अजाप दिसता.

## करनाटक नांवात 'नाटक' आसत पूण थंय नाटकां चलनात!

कर्नाटक हें गोंयचे दक्षिण शिमे वयलें आमचें शेजारी राज्य. आमचे दुसरे शेजारी म्हणल्यार महाराष्ट्र. शेजारी सदांच बरे आसूंक जाय म्हणटात! तांचे लागीं बरी लागणूक आनी वागणूक दवरून शेजारधर्माक जागचें ही आमकां मेळिल्ली शिकवण! तीच आमची भारतीय संस्कृताय. तेच नदरेन जर गोंयकार आयचे परिस्थिती कडेन पळयता आसत जाल्यार गोंयचें हें विटिल्लें नाटक अशें म्हणचे पडटलें. कर्नाटक ह्या नांवांत 'नाटक' आसलें तरी कर्नाटक सरकार,कर्नाटकी जनता आनी थंयचे हेर राजकारणी आपल्या राज्याचो आनी अस्मितायेचो प्रस्न येता तेन्ना फाटीं फुडें पळयनात. कर्नाटक सरकार गोंय सरकारा वरीं नाटक करून आपले जनतेक फटयना. कर्नाटकांतली जनता आपल्याक कोणूय फुडारी येवन जागयतले आनी मागीर आमी मुखार सरतले म्हूण रावना. राज्य आनी अस्मिताये आड कितेंय अरिश्ट येता अशें दिसलें काय ते पेटून उठटात. हालींच खंयतरी कोणें कोंकणी नामफलक लायलो. कन्डींगांनी तो काडून उडयलो. महाराष्ट्र एकीकरण समितीन कितें तरी विधान केलें हांणी फाटीं फुडें पळयनासतना गाडयांक उजो घालो. हांगा कसलेंच नाटक ना. ही उत्स्फुर्त प्रतिक्रिया जी दरेक स्वाभिमानी मनशा मदीं वसता. पूण आमच्या गोंयांत सगळेच कडेन नाटकां.

कर्नाटकाक म्हादयचो विशय कितलो जिव्हाळ्याचो तें खबर ना. म्हादय जरी कर्नाटकांत उगम पावता आनी ते न्हंयचे काठा वयल्या भूंयभागाक म्हादयच्या उदकाची गरज आसा तरी तो भूंयभाग तसो आंवाटान कमी. त्या भायर कर्नाटकांत मलप्रभा आनी हेर न्हंयो आसात जांचो






वापर कर्नाटक राज्य करता. पूण ताचे परस गोंयांत म्हादय चड अंतर व्हांवता आनी तिचे आदारून आशिल्लो भूंय वाटाराय आंवाटान व्हडलो आसा. ते भायर गोंयांत एक म्हादय सोडली तर दुसरी न्हंय अस्तित्वांत ना. हाचे वयल्यान म्हादय गेली जाल्यार आपलें कितें जातलें हाचो हुसको गोंयकारांक चड सतावंक जाय आशिल्लो. पूण तसो तो आसा हें आसपा परस दाखोवपाचें नाटक गोंयचें सरकार करीत आसा आनी गोंयकारांच्या दोळ्यांक उदक लायता. सरकाराचीं हीं नाटकां गोंयच्या दरेक मनशाक खबर आसात तरी आपल्याक खबर ना अशे तरेचें नाटक चलता. कितें म्हणपाचें ह्या नाटकांक आनी नाटकी लोकांक?

गोंयचे मुख्यमंत्री खऱ्यांनीच गोंयची तळमळ घेवन वावुरतात काय तशें नाटक करतात हें तशें कोणाकूच कळपा सारकें ना. तांची देहबोलीच अशी जी नरो वा कुंजरोवा अशे प्रकारची. फाटीं जेन्ना तांच्या गोंयकारपणाचो प्रस्न समाज माध्यमाचेर व्हायरल जालो तेन्ना आपूण शंबर टक्के गोंयकार आनी आपलो जल्म म्हापश्यां जालो म्हणपाचें तांणी जाहीर सांगलें ताची याद जाता. कोण खंय जल्मलो ताचे वयल्यान गोंयचो मोग थारना. तो काळजांत दवरूनय गोंयच्या हिताक पडना. ते पासत तो आपले कृतींतल्या दाखोवन दिवंचो पडटा.

आयची राजकी परिस्थिती पळयत जाल्यार दोतोर प्रमोद सावंत हो टर्म धरून फुडलोय टर्म गोंयचे मुख्यमंत्री आसतले. तांणी गोंयच्या राजकारणाचो खोलायेन अभ्यास केला आनी पक्षाचे मतदारसंघ खंयचे कमकुवत आसात थंय ते घट करपाक साम, दाम, दंड,भेदाचे पाचर मारल्यात. गोंयचे कांय मतदारसंघ जे व्यक्ती केंद्रीत आसात थंय हेर पक्षाच्या वा अपक्षांक वेंचून येवपाक आदार केला आनी ते वेंचू येतकच तांकां सरळ आपल्या पक्षांत सांगता त्या मोलान विकते घेतल्यात. आमच्या लोकप्रतिनिधीची लायकी पळयत जाल्यार विक्रेक आसा ताका कोणूय विकत घेतलो. प्रमोद सावंत हांणी आपलें श्रूढ राजकारण वापरून आपलें कदेल घट केल्यार तांका कोणें हरकत घेवपाचें कारण ना.

प्रस्न आसा,ज्या गोंयचेर आपूण सत्ता भोगतां त्या राज्याक आपूण एकनिश्ठ आसां काय ना हाचो. गोंय राज्या परस आपूण आपल्या पक्षाक आनी पक्षनेतृत्वाक एकनिश्ठ आसा काय कितें हाचो. गोंयचो जेन्ना विचार येता तेन्ना गोंयचे मुखार आनीक कांयच व्हड न्हय हाचें भान दरेक मुख्यमंत्र्यान दवरप गरजेचें. विलिनीकरणाचो प्रस्न आयलो तेन्ना दयानंद बांदोडकार गोंया कडेन एकनिश्ठ रावले नात. तांचें उपरांत कितें जालें हाका गोंयचो इतिहास गवाय आसा. मोप विमानतळाक लेगीत तांचें नांव दितना भाऊवाद्याक मारिल्ली खरस गोंयकारांनी हालींच पळयल्या. म्हणटकच गोंयचो सगळे तरेन पुराय उपभोग घेवन जो कोण ताचे कडेन प्रतारणा करता ताका खंयच्यान ना खंयच्यान भोगचें लागता हाचें भान बाळगप शाणेपणाचें थारूं येता.

हालींच मुख्यमंत्री तातडीन म्हणटात तशे दिल्ली वचून आयले. कोण म्हणटा तांका अमित शहान आपोवन व्हेलो तर कोण मोदीन आपयलो. कितेंय आसूं,मुख्यमंत्री दिल्ली गेल्ले हें खरें. तांका दिल्लीं आपोवन व्हरून म्हादय प्रकरणी कर्नाटकाक दिल्ल्या डिपीआरा विशीं म्हायती दिल्ल्याचें विरोधक सांगतात. तांका ह्या विशयाचेर कांयच आवाज काडप ना म्हणपाचेंय शिटकायलां अशेंय म्हणटात!

पूण म्हादयच हो प्रसंगच असो आसा, मुख्यमंत्री ताचे संबंदी मौन पाळूंक शकनात. आयज म्हादय प्रकरमाक लागून गोंयचो दरेक मनीस खदखदता. हो खदखद भायर काडपा पासत गोंयकार पक्षीय आनी व्यक्तीगत मतभेद कुशीक सारून एकठांय येतात. कांय लोकांनी मुख्यमंत्र्यांच्या राजिनाम्याची मागणी केल्या. अजून खरें



म्हणल्यार तसो प्रसंग येवंक ना. विरोधकांनी मागणी केली म्हूण राजिनामो दिवंक हें पद म्हणल्यार खेळणें न्हय. मुख्यमंत्री प्रामाणीक नात अशें खंयच दिसना. पूण तोय वेळ येवं येता हाची खात्री मुख्यमंत्र्यांक आसा. हालींच जाल्लो मंत्रिमंडळाचे बसके उपरांत आनी गोंयच्या गोमन्तक ह्या चॅनलाच्या 'सडेतोड नायक' हे मुलाखतींत उलयतना ते सामके पारदर्शक दिसले. तांणी म्हादय ही आपली आवय आनी तिचे कुशीकच आपूण रावतां देखून तिचे बाबतींत आपूण संवेदनशील आसां अशेंय स्पश्टपणान सांगलें. म्हादय बचाव अभियना वेळार तांचोय एक कार्यकर्तो म्हूण एका काळार तेंको आसलो.

पूण आतां म्हादयंतल्यान खूब उदक व्हावन गेलां. त्या काळचे कार्यकर्ते प्रमोद सावंत आतां राज्याचे मुख्यमंत्री आसात. त्या भायर ते सरकार पक्षांतले आसात. तांकां आपल्या फुडाऱ्यां सामकार उलयतना राज्याचो मुख्यमंत्री म्हूण उलोवपा वांगडाच आपल्या पक्षाच्या ज्येश्ठ फुडाऱ्यां कडेन आपूण उलयतां हाचें सातत्यान भान दवरचें पडटलें. तांची अवस्था हे खेपे कुरुक्षेत्रांतल्या अर्जुना सारकी आसा हाचें भान गोंयकारांनी दवरून श्रीकृष्णाची भूमिका वटोवची पडटली. तांच्याच मुखेलपणा खाला हो लढो केंद्र सरकार आनी कर्नाटक सरकार हांचे आड लढपाक एक वेगळी खुमखुमी आसतली! रोखडोच आपूण केंद्रीय घरमंत्र्यांक मेळटलों म्हणपाचेंय तांणी उतर दिलां. सगळ्या पंचायतींनी थाराव घेवपाचोय तांणी उलो मारला.

सरकारा वांगडा हेर विरोधी पक्षांनीय ह्या लढ्यांत वांटो घेवपाक कांयच हरकत ना. तृणमूल काँग्रेस हो हुंवाळून घाल्लो पक्षय आतां मुखार सरला. ह्या पक्षान गोंयची जितली वाट लायल्या तितली आनीक खंयच्याच पक्षान लावंक ना. ताका खरें म्हणल्यार म्हादयचेर उलोवपाचो कसलोच अधिकार ना. राजकी प्रगल्भताय नाशिल्ले तृणमूल आनी आरजी हे विद्वाटे पक्ष तशे सरकारा सांगाताक वचूंक शकनात आनी एकटेय वचूंक शकनात. आडवाद आसा तो आरजीचो. तो पक्ष लोकांक हाडूंक शकता पूण तांचे भितर प्रगल्भ नेतृत्वाचो अभाव आशिल्ल्यान म्हादय सारको सगळ्या लोकांक एकठांय हाडून लढो सुरू करपाची तांक ह्या पक्षाक ना. तांचीं नाटकां तितलीं पळोवपाचीं जीं वेंचणुके वेळार दिश्टी पडल्यांत.

भाजपचे केंद्रीय मंत्री श्रीपाद नायक हांचींय नाटकां सद्या सुरू जाल्यांत. पंचवीसेक वर्सां खासदार म्हूण उत्तर गोंयचो मतदारसंघ तांणी उबयलो. पूण लोकसभेंत आनी हेर कडेंय तांचो आवाज कोणेंच केन्ना आयकलो ना. हातार उडयलां तें मंत्रीपद फाटीर घेवन गोगलगाय कशी ते भोंवत रावल्यात आनी आपल्या वांट्याक जें मेळ्ळां ताचो उपभोग घेवपांतूच धन्यताय मानल्या. आतां वेंचणूक लागीं पावता तशीं तांचीं नाटकां सुरू जाल्यांत. ते आपले खासदारकीचो काय मंत्रिपदाचो राजिनामो दिवपाचें नाटक करूंक लागल्यात. धमक आशिल्ली जाल्यार ते सरळ वचून राजिनामो दिवन येवपाचे. हो प्रसंगच तसो आसा. पूण नाटकां वा नवटंकी करून सत्तेर येवपाची जी ह्या लोकांक संवय जाल्या ती सहज गळून पडपाची ना.

आनीक एक राज्यसभेचो खासदार दिल्ली गेल्लो. ताणें थंय वचून ह्या काळांत कितें केलें हाचो पत्तो कोणाकूच लागलो ना, पक्षा कडल्यान तांचें केल्लें हें पुनर्वसन हें मान्य आसा. पूण असले जेन्ना जिवावेले प्रसंग येतात तेन्ना तांचो उपेग हिरो जावपा खातीर नाटकी पद्दतीन तांणी करून घेवं येता. नाय जाल्यार 'म्हादयचो जिवा वयलो प्रसंग गोंयचेर आयिल्लो आसतना तुमी सभाघरांत कितें कालयतालें?' काय म्हूण खुबळिल्ले गोंयकार नक्कीच तांका विचारतले.

### असल्या प्रसंगार कर्नाटक कितें करपाचें ?

समजा केंद्र सरकारान म्हादय संबंदी हो डिपीआर कर्नाटकाक डावलून गोंयाक दिल्लो जाल्यार कर्नाटक कितें करपाचें? जे दिसा केंद्र सरकारान हो निर्णय घेतलो त्या खिणाच्यान कर्नाटक पेटपाचें कोण म्हूण पळय नासतना तांच्या वाहनाक उजो घालपाचे. सरकारी मालमत्तेची जमता तितली नासाडी करपाचे. गोंयचें जें वाहन दिसता वा गोंयकार दिसता ताका मोडून तोडून दवरपाचे. हो विध्वंस केन्ना सोंपतलो हाची कोणाक पर्वा





नासपाची.

कर्नाटक आनी दक्षिण भारतांतल्या हेर राज्यांक असो विध्वंस करपाची रगतांतूच खुमखुमी आसा. ते हें सगळें आपलें राज्य, आपली संस्कृताय वा अस्मिताय जें कितें आसा ताचे पासत करतात काय तशें केल्ल्यान लोक भियेतात आनी आपले वाटेक वचूंक सोदी नात अशें दिसता हें कळपाक मार्ग ना. आमच्या गोंयांत कितलेच कन्नाडींग आसात. गोंयात सुखान नंदतात. आजून तांणी आपली कन्नाड भास सोडून कोंकणी आपणावंक ना. फाल्यां म्हादय कर्नाटकान व्हेल्या उपरांत गोंयांत जें कितें अवर्शण येतलें तेन्ना गोंयकारां वांगडा तांकांय हें पानवळ भोगचें पडटलें. ते कन्नाडींग म्हणून तांचे पासत कर्नाटक सरकार म्हादयचो एक पाट गोंयांत सोडपाचे नांत. तेन्ना एक तर ह्या लोकांनी गोंयांत रावपाचें वा म्हादयच्या उदकार व्हांवन कर्नाटकांत आपल्या मूळ गांवांत वचपाचें. पूण तशें शक्य ना. तेन्ना तांणी आतांच शाणेपणा करून म्हादयक लागून कर्नाटका आड गोंयांत आंदोलन करपाचें. गोंयकार आंदोलना खातीर मुखार सरतात तेन्ना व्हडा संख्येन तांणी तातूंत वांटो घेवपाचो आनी आपली गोंया कडली निश्ठा दाखोवन दिवपाची. जर तें शक्य ना जाल्यार 'आम्ही जातो आमच्या गावा' हें कानडींत म्हणत कर्नाटकाची वाट धरपाची. फकत पोट भरपा पासत कर्नाटकांतल्यान येवन नाटक करपाची गरज ना.

## गोंयकार कितें करतात?

आयज गोंय आनी गोंयकार खुबळ्ळा आनी केंद्र सरकार आनी कर्नाटकाच्या नांवान शबै घालतात ताचें फाटलें कारण म्हणल्यार, कर्नाटक सरकाराक कळसा-भांडुरा हांगा चलपी म्हादय न्हंये वयल्या प्रकल्पाक 'डिपीआर' क केंद्रीय जलआयोगान मंजुरी दिल्या. हें प्रकरण खरें कितें हाची खबर भोवतेक गोंयकाराक ना. म्हादय व्हरतात,कर्नाटकाक म्हादय दिवन उडयली .आतां ामकां गोंयाक उदक मेळपाचें ना. मांडवी आतां सुकतली अशें खूब कितें तकलेंत घेवन गोंयकार आसा. तांच्या ह्या प्रस्नांक फुडाऱ्यांनी विस्कटावन जापो दिवन तांका लढ्या पासत तयार करचें पडटलें. हें हांगा बरप चल्लां तो मेरेन तसो कोणूच रस्त्यार येवंक ना. दिसाळीं आपले परीन गोंयकारांक पेटोवपाचो यत्न करतात. पूण जे सर गोंयकारांक जागोवंक रासवळ सभा जायनांत आनी हो विशय तांचे सामकार दवरून तांका जागयनात तो मेरेन गोंयकार सुस्त आसतलो. एकदां विशय आनी त्या फाटले परिणाम गोंयकारांक सारके कळटले तेन्ना तांका आवरप कोणाक शक्य जावंचें ना. ते हो प्रस्न तडीक व्हरूनच शांत जातले ते जैताचो जल्लोश करपाक. ह्या विशयाची व्याप्ती पळयत जाल्यार सरकारूय पडूंक शकता हाचें भान गोंयकारांनी खास करून आयच्या गोंयच्या सरकारान दवरपाची गरज आसा. तेन्ना गोंय काय सत्ता हाचें भितरलें एक कितेंय सरकारान वेंचून काडचें. गोंयांत म्हादयचो शिगमो सुरू जाला, गोंयकार शबै घालूंक फुरफुरल्यात हाची कल्पना केंद्र सरकाराक आसतलीच! आतां सत्तेची तळय कोण सांबाळटलो तेंच पळोवपाचें!

*पणजी, गोंय. मो. 9822136885*



# आंगांत साहित्य रचपाची प्रतिभा आसप ही दैवी देण

## – मीना काकोडकार



श्रद्धा
गरड
*लेखिका केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या युवा साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत कवयित्री. बालसाहित्य आनी ललित लेखनय करतात.*

### मीना काकोडकार

कोंकणी कथेंत आपली अशी खाशेली सुवात निर्मिल्ल्यो मीना सुरेश काकोडकार (आदल्यो-मीना दु. गायतोंडे). कथा,नाटक,ललित,काव्य,कादंबरी अश्या सगल्याच साहित्य मळाचेर आपलो छाप दवरपी गोंयची एक नामनेची लेखिका.दिसपट्टे जिणेंतल्यो घडणुको आनी मनांतल्यो भावना ल्हवपीक उतरांनी कथा कादंबऱ्यांनी चितारप ही तांची खाशीयत.

मीनाबायलें साहित्य

दोंगर चंवल्ला (कथा संग्रह),सपन फुलां (कथा संग्रह),आमी (कथा संग्रह), शब्दसूर (ललित निबंध),सांव्या रेगो (कादंबरी-अणकार), वास्तु (कादंबरी),साळकांतलो जादुगार,काणयो-खोसदिण्यो-देखदिण्यो टींग टींग टायटींग,नाडपुरची नाडकथा, पिपलुची भोंवडी, पिपलू बेबूक आनी साळका तळें, बोवाळभट दीपू,हुशार कोण?, दीपूली काणी, भाबडें मन,यो रे यो रे पावसा,कमलाताई काकोडकार,आमचो जॉन, हांव आनी म्हजो टायगर(भुरग्यांचें साहित्य)

मीनाबायक मेळिल्ले कांय पुरस्कार

कुळागर पुरस्कार(1990)
केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार (1991)
डॉ.टी.एम.ए.पै फाऊंडेशन पुरस्कार 91992)
कथा पुरस्कार (1993 आनी 2003)
गोंय सरकाराचो यशोदामिनी पुरस्कार (2002)
गोंय राज्य सन्मान (2007)
रंग सन्मान पुरस्कार (2008)
गोंय राज्य पुरस्कार (2008-09)
पद्मा बिनानी वात्सल्य पुरस्कार (2011)
शाश्वती पुरस्कार (2012-13)
जनगंगा पुरस्कार (2013)
श्रीमती सरस्वतीबाय साहित्य पुरस्कार (2012)
सानरिया डॉट कॉम चित्पटाक बेस्ट डायलॉग पुरस्कार, गोंय राज्य चित्रपट महोत्सव 2015.
विमला पै विश्व कोंकणी पुरस्कार (2015)
साहित्य अकादेमी अणकार पुरस्कार (2016)
कोंकणी भाशा मंडळाचो जीवन गौरव पुरस्कार 2022.
20 व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद. (2011)

जल्म-21 सेतेंब्र 1944,गोंयात.
शिक्षण-बीएस्सी.मुंबय.
गोंय सरकारच्या लेखा खात्याची जोड संचालक म्हूण निवृत्त.
मो. 8087708050
विद्यानगर,मडगांव-गोंय.



**श्रद्धाः–** मीनाताई,'बिम्ब अस्तुरी' हे मुलाखत वळेरींत तुमकां येवकार! आरंभाकूच कोंकणी भाशेविशीं तुमचे विचार आनी अणभव आमकां समजून घेन दिसता.

**मीनाः–** कोंकणी म्हळ्यार फकत एक भास न्हय, तर ती संघर्षांतल्यान वाट काडीत फुडें वचपी एक चळवळ. पुर्तुगेजांच्या शेकातळा आसतना तिका मारपाचो तांणी जायतो यत्न केलो. पूण कोंकणीच्या म्हापुरसान – शणै गोंयबाबान गोंयच्या स्वत्वाचो सोद घेतलो, गोंयकारांचो चिड्डून उरिल्लो स्वाभिमान जागयलो आनी मांयभाशेची कीट आमच्या काळजांत पेटयली. ते एके किटीन साहित्याच्यो आनी वावुरप्यांच्यो असंख्य मशाली पेटत रावल्यो. साहित्याची बुन्याद घट करतलीं जाल्यार पयलीं भास जिवी दवरूंक जाय.

वेल्श(Welsh) भाशेंत एक म्हणणी आसा – 'भाशे बगर देश हो काळजा बगर देश. देखून आमचें काळीज घटमूट करतलीं जाल्यार असो प्रयत्न जण एकल्यान करूंक जाय. आमचें दायज, आमच्यो आल्लयो, लोकां काणयों, धालो, फुगड्यो हें सगळें फुडले पिळगे मेरेन पावंक जाय जाल्यारच आपले भाशे विशीं मोग, अभिमान तांच्या काळजांत किल्लतलो. कोंकणी साहित्याचो सामको सुरवेच्या काळाचो नियाळ केलो जाल्यार दादल्यांचे तुलनेंत बायलो उण्यो. पूण साहित्य म्हणटना आमी फकत लिखीत साहित्याची मोलावणी करून उपकरची ना. कागदार उतरावन जें उजवाडाक येता तितलेंच साहित्य अशें मानूक जावचें ना. मौखिक साहित्यय तितलेंच म्हत्वाचें.

आमचे लोकसंस्कृतायेच्या दायजाचेर आमच्या आर्विल्ल्या साहित्याचें वैभव आकाराक आयलां. हें साहित्य बायलांच्या ओंठार आशिल्लें. फुगड्यो, धालो, होंवयो, गीत, काणयो हें आमचें अप्रूप अशें साहित्य भांडार बायलांनी आपल्या ओंठार केळयत दवरलें. ह्या साहित्याक खूब मोल आसा. त्या काळार तें कागदार नाशिल्लें; पूण लोकांच्या ओंठार आशिल्लें. अशे तरेचें मोलादीक भांडार आमचे संस्कृतायेंत आनी भाशेंत आसा. लिखीत साहित्या विशीं सांगतलें जाल्यार कोंकणी ही बरोवपाचें माध्यम जावं येता अशें मानपी खूब





थोडे लोक अशिल्ले. साथ दिवपी उणे आनी विरोध करपी चड आशिल्ले. विरोधा आड झुजपी म्हालगडे आमचे मदीं आशिल्ले. आनी म्हालगड्यांनी दाखोवन दिल्ल्या मार्गा वेल्यान चलपी आमचे सारके नवोदीत आशिल्ले जे निकतेच साहित्याच्या मार्गार पावलां मारुंक लागिल्ले. हेर भासांक फाटलो खूब इतिहास आसा. तसो तो आमचे भाशेक ना. देखून हेर भासांच्या मानान आमचें साहित्य उणें. दर्जांत मात फाटीं ना. आमचें अणकारीत साहित्य जेन्ना देशांतल्या विंगड विंगड वाठारांत हेर भासां वांगडा सादर जाता तेन्ना ही गजाल लक्षांत येता. देखूनच आकड्यां वेल्यान कोणें दर्जो थारावचो न्हय. आमचे कोंकणीक दोन ज्ञानपीठ पुरस्कार आनी एक सरस्वती सन्मान मेळ्ळा ही गजाल कोंकणीच्या लखलखीत फुडाराची गवाय आसा.

**श्रद्धा:–** कथा बरोवपाचो तुमचो प्रवास केन्ना आनी कसो सुरू जालो?

**मीना:–** म्हज्या साहित्यीक प्रवासाचे हांव दोन वांटे करीन. पयलो वांटो हो साहित्य प्रवास सुरु जावचे पयलींचो. तेन्ना हांव म्हजेंय नकळटां घडटालें. आनी दुसरो वांटो बरोवंक लागले उपरान्तचो. हे दोनय वांटे म्हजे नदरेन म्हत्वाचे. भुरगेपणांत आवयन सांगिल्ल्या राजकुंवरांच्या, माणकां मोतयांच्या रंगयाळ्या सपनांत हांव रंगून वतालें. त्या काणयांनी एक वेगळे तरेचें कल्पनाविश्व नदरे सामकार उबें रावतालें. अश्यो ह्यो काणयो आयकतां, आयकतां केन्ना तरी म्हजें वेगळें विश्व मनांत तयार जावंक लागलें आनी आयकल्ल्या काणयांची फास्की मोडून हांव काणयो घडोवंक लागलें. साहित्याचें बीं ते कंवळें पिरायेचेर म्हज्या मनार शिंवरतालें. रूजचे खातीर! म्हज्या बाबान म्हाका केन्ना काणयो सांगल्यो नात. पूण सैम वाचूंक शिकयलो. म्हजो जल्म गांव पाळोळें. एक सोबीत सुंदर मनभुलोवणो गांव. हांगचो पांचवो निळो दर्या, चवरिल्ले दोंगर, घुंगरां वाजयत व्हांवपी व्हाळ... सगळेंच ओडलायणें. पाळोळेच्या सैमाचो म्हज्या साहित्यांत व्हड वांटो आसा. बाबा म्हाका घेवन खूब फावटीं फांतोडेर 'रनचो माळो' हे दोंगुल्लेचेर वतालो. तेन्ना सुस्त न्हिदिल्लें थंड किरांव रान म्हज्या दोळ्यां सामकार जागें जावंक लागतालें. न्हिदसुऱ्या सुकण्यांचे जागे जातनाचे पयले वयले सूर कानार पडटाले आनी भोंवतणी कोण्ण नासून लेगीत सगलें रान जागें जावन लक्ष, लक्ष दोळ्यांनी आमकां पळयता अशें दिसतालें.

बाबान म्हणचें, 'हो सैम म्हळ्यार देवान रचिल्ली सोबीत कविता!' आनीक एके वेगळे नदरेन हांव सैमा कडेन पळोवंक शिकलें. फुडें मागीर ह्या सैमाचेर हांवें एक कविता केली. 'गडगड्याचा पाऊस'. घडये तेन्ना हांव आठ वर्सांचें आसतलें! मराठी शाळेंत शिकतालें. कोंकणी ही बरोवपाची भास आसूं येता हे विशीं गिन्यान नाशिल्लें. शिवाय भास शुद्ध आसपाचीय गरज नाशिल्ली. फकत पावसा विशीं म्हज्यो भावना उक्तावप इतलोच ते कविते फाटलो हेतू आशिल्लो. उपरान्त असल्यो कविता हांवें खूब केल्यो. म्हज्या घडपांत म्हज्या आई बाबाचो खूब व्हड वांटो आसा. कल्पना विलास कसो करचो हाचो वारसो म्हाका आई कडल्यान मेळ्ळो आनी वास्तवाची जाण बाबान शिकयली. कल्पना विलास आनी वास्तव ह्या दोगांयच्या सुमेळांतल्यान म्हज्यो कथा जल्म घेतात. घरच्या मनशांची तोखणाय सगल्यांच्याच वांट्याक येता, पूण म्हज्या वांट्याक घरच्यांच्या वांगडाच गायतोंड्या वाड्या वेल्या सगळ्या जाणटेल्यांची तोखणाय आयली. तेन्ना कळनासलें, पूण आज कळटा तें म्हणजे तांचे तोखणायेक म्हज्या बरपा परस तांची म्हजे वेली मायाच चड जापसालदार आसली.

आमचो गायतोंड्या वाडो ल्हानसोच पांच–स घरांचो. सांजेचे सगळ्या घरांतले जाणटेले – भिकबाब, दोतोर पुंडलीक गायतोंड्याचो बापूय मंगेशबाब आनी ताचो काका गजाननबाब हे म्हज्या आज्या वांगडा– पांडूबाबा वांगडा गजाली मारपाक आमगेर येताले. मंगेशबाब आनी गजाननबाब



हांकां शिक्षणाचें खूब म्हत्व. आमी भुरगीं दिसलीं रे दिसलीं मंगेशबाब आमकां ना चुकतां विचारी, कोणाचो पयलो नंबर आयला? आनी पयलो नंबर घेवपी आमचे मदीं कोण नाशिल्ल्यान मंगेशबाब दिसतकीर आमची पळापळ जाताली. दर एका घरांतलो कोण ना कोण शिकपा खातीर मुंबय गेल्लो आनी उपरान्त थंयच स्थायीक जाल्लो. कांय धुवोय बी लग्न जावन मुंबय पाविल्ल्यो. पूण माया म्हयन्याचे सुटयेंत सगलीं नातरां आजोळा येतालीं. कुमुदताई तेलंगाचें आशा, भाग्याताई वाघाचें शैला हांचो मुखेलपणान उल्लेख करचो पडटलो. हांव, म्हजी बाप्पोल भयण मिलन, शैला, आशा, आमची तिप्पोल भयण नयन हीं सगलीं वेळेर बी वचून मज्रा करतालीं. ते भायर आमी दर वर्सा एक नाटकुलेंय करतालीं. एका वर्सा हांवें 'गड आला पण सिंह गेला' हें नाटकुलें बरयलें. पात्रां पांच. शिवाजी राजा – हांव , जिजाबाई – मिलन, उदयभानू– आशा, रायबा– शैला आनी तानाजी– नयन

मंगेशबाबाली वासरी बरी व्हड आशिल्ली. अर्दी वासरी थोडीशी उंच आशिल्ली आनी अर्दी सकल आशिल्ली. वयलो भाग आमी स्टेज कशी वापरतालीं आनी सकल्या भागांत प्रेक्षकांनी बसपाचें. मंगेशबाबाल्या घरच्या बायलांचीं कापडां वापरून आमी पड्डे करतालीं. नाटक पळोवंक दोन दोन आणे तिकेट आसताली. जमतात त्या पयशांचीं आमी भुरग्यां खातीर पुस्तकां घेवन तीं लागींच आशिल्ले शाळेंत दितालीं. ह्या आमच्या नाटकाक उपाट प्रतिसाद मेळटालो. आमच्या नाटकाक प्रॉम्प्टर नासतालो. ताका लागून भाशण तोंडपाठ करचें पडटालें. पड्डो कुशीक सरून नाटक सुरू जातकीर सगल्यो जाणटेल्यो पदर तोंडाक लावन तोखणायेन हांसताल्यो. नाटक सोंपतकीर सगले जाणटेले आमकां शाबासकी दिताले, 'पणजेकान्नी नाटक बरें जालें!' अशें म्हणपी भिकबाब,'तुमच्या नाटकाक दोन आणें न्हय चड तिकेट फावता' अशें म्हणून दोन रुपया आमच्या हातार दवरपी गजाननबाब, म्हाका म्हऱ्यांत घेवन मायेन पोशेवपी म्हजो आजो ह्या सगळ्यांनी म्हाका बरोवंक उमेद दिली. तांकां कोणाक हांव विसरूंक शकना. ह्या सगळ्यांचो म्हज्या घडपांत वांटो आसा.

**श्रद्धा:**– बालसाहित्याचो तुमच्या घडपांत वांटो आसतलोच! तुमीय बरयलां.

**मीना:**– वयले वयर पळेतल्याक बाल साहित्य बरोवप म्हळ्यार सामकें सोंपें कशें दिसू येता. पूण दिसता तितली ती सोंपी गजाल न्हय. कारण अशें, साहित्य बरयतना भुरग्यांचें मानसशास्त्र सतत दोळ्यां सामकार दवरचें पडटा आनी हाचें इतलें दुसरें कठीण कांय ना. हातूंत व्हडलें कितें आसा? आपलें ल्हानपण याद केल्यार पुरो अशें कांय जाणांक दिसता. पूण तें पुरायेन खरें न्हय. कारण आमच्या ल्हानपणांत आमी ज्या वातावरणांत वाडल्यांत आनी आतांचीं भुरगीं ज्या वातावरणांत वाडटात तातूंत खूब फरक आसा. तांचे पिरायेचो आनी गिन्यानाचो ताळमेळ आतां सोंपेपणान घालूंक मेळना. आतांच्या इंटरनेटाच्या युगांत भुरग्याचें गिन्यान जाणट्यांक









फाटीं घालता. सतार निखटीच वाजयली म्हणून गोड सूर येवचे नात. तारो जुळोवंक जाय.

म्हज्या भुरगेपणांत भांगरा केंसाचे राजकन्येची काणी हांव तल्लीन जावन आयकतालें. आज ती काणी हांवें नातरांक सांगली जाल्यार घडये ती म्हाका केंस भांगराचे करूंक राजकन्या खंयच्या पार्लरांत वताली काय म्हणून विचारतलीं. तरीकय भुरग्यांक सुरस आनी चमत्कारीक काणयो खूब आवडटात. तांकां तें सगळें फटीचें हें खबर आसता. पूण तरीकूय तांकां तें आवडटा. मात हें फटीचें जग तांचे सामकार उबें करपांतय एक लॉजीक आसूंक जाय. देखूनच अशें साहित्य रचतना फॅन्टसी आनी वास्तव हांचो सुमेळ सादूंक जाय. भुरग्यांच्या मानसशास्त्रावेलें एक पुस्तक वाचिल्लें– 'Between parent and child'. ह्या पुस्तकांत कांय घडणुको सांगिल्ल्यो तातूंतली एक म्हाका सांगन दिसता. केन्ना केन्ना भुरग्यांचीं मनां समजूंक अवय बापूय लेगीत असमर्थ जातात.

एक पावट एक जोडपें आपले गाडयेन प्रवासाक वचूंक भायर सरलें. तांचे वांगडा तांचे दोन ल्हान भुरगे आशिल्ले. धाकलो भाव फुडें आवय म्हऱ्यांत बशिल्लो. आनी व्हडलो फाटल्यान बशिल्लो. व्हडलो म्हळें तरीकय तो ल्हानच आशिल्लो. फाटल्या भावाक लागून हाका व्हडलो म्हणपाचो इतलेंच. तीन वरांचो प्रवास जावन गेल्लो. 'व्हडलो' शाणो कसो फाटल्यान बाशिल्लो म्हणून आवयक ताची अपुराबाय दिसली. तिणें म्हळें, 'बाबू तूं खूब शाणो. मम्माक तुजी तोखणाय दिसता.' तिणें इतलें म्हळां मात बाबून हातांतली सॉफ्ट ड्रींकाची बाटली धाकल्या भावाच्या माथ्यार ओतली. थोडें आवयच्या आंगार पडलें. सगल्याक चिकचीक. गाडी चडटेर आशिल्ली आनी ट्रॅफिकय खूब आशिल्लो. ताका लागून गाडी मदींच थांबोवंक मेळऽ नासली. ना जाल्यार गाडी थांबोवन बाबूचेर चार थापटां फुलोवंक आवय बापूय फाटीं रावचीं नासलीं.

आवयक दिसलें आपणें हाची तोखणाय केल्ली आनी हाणें अशें कित्याक केलें काय? आपणें तशें कित्याक केलें हें बाबून तेन्ना सांगलें ना. पूण कांय तेंपान ताणें तें आपूण जावन सांगलें. गाडयेंत धाकलो भाव आवय म्हऱ्यांत फुडें बसला म्हणून ताचे तकलेंत भावा विशीं वायट वायट चिंतनां येतालीं. मळबांतल्यान व्हडको भालो गाडयेक तोपचो आनी फुडें बशिल्ल्या भावाचे दोन कुडके जावचे अशें ताचे तकलेंत येवंक आवयन ताची तोखणाय केल्ली. ती आयकून व्हडल्याच्या जिवाक चोर कशें जालें. आनी आपणाक ही तोखणाय फावना हें दाखोवंक ताणें तीं पिशेपणां केल्लीं.

तर भुरग्यांचें मानसशास्त्र हें अशें भोव घुसपणेचें. अश्या ह्या भुरग्यां खातीर साहित्य बरयतना तंत्रा परस तांच्या मनाचीं दारां उकतीं करपी मंत्र चड गरजेचो. हो मंत्र अलीबाबाचे काणयेंतलो 'तिळा उघड 'काय आनीक कसलो हें जण एका बरोवप्यान सोदून काडचें पडटलें.

**श्रद्धाः** बालसाहित्याचो तुमचो प्रवास कसो आनी केन्ना

सुरू जालो?

**मीना :-** जण एकल्याच्या काळजांत एक ल्हान भुरगें लिपिल्लें आसता. तें आमचें भुरगेपण सांबाळून दवरता. म्हजे बाबतींत सांगतलें जाल्यार जेन्ना, जेन्ना ह्या भुरग्यान तकली वयर काडली तेन्ना, तेन्ना हांवें भुरग्यांचेर आदारुन कथा बरयल्यो. देखीक- दोंगर चंवल्ला, सुकण्या पिला रे, मास्तर म्हणटा, बापूय न्हू तो आमचो?, आपलें परकी- पूण हातूंत मुखेल पात्र जरी भुरगो आसलो तरी तें बालसाहित्य ह्या विभागा खाला येना. त्यो कथा हांवें जाणट्यां खातीर बारयल्यात. खासा भुरग्यांक दोळ्यां सामकार दवरून जेन्ना आमी तांचे खातीर साहित्य रचतात ताका बालसाहित्य म्हणूं येता. म्हजो बालसाहित्याचो प्रवास 1979 ह्या वर्सा सुरू जालो. ताचे पयलीं हांवें बालसाहित्याचे दिकेन वचपाचो केन्ना यत्नय केलोना. उपरान्त 1979 वर्सा सर्गेस्त नरसिंह दामोदर नायक हांचे यादीक बालसाहित्य सर्तीचें आयोजन केल्लें. ते सर्ती खातीर हांवें 'साळकांतलो जादूगार' हें तीन अंकी बालनाट्य बरयलें. ताका पयलें बक्षीस मेळ्ळें. हें बालनाट्य दुर्गा प्रकाशनान उजवाडाक हाडलें आनी ताका 2011 वर्साचो 'पद्मा बिनानी फांवडेशनाचो' नामनेचो 'वात्सल्य पुरस्कार' फावो जालो.

नामनेचे रंगकर्मी भौ. श्रीधरबाब कामत बांबोळकार हांणी हें नाटक राजमाता पद्मावती राजे सौंधेकार हायस्कूल, बांदोडें हांचे वतीन सादर केलें. उपरान्त हांवें तांचे खातीर 'टींग टींग टायटींग' आनी 'नाडपूरची नाडकथा' हीं आनीक दोन बालनाट्यां बरयलीं. श्रीधरबाबान ताचेय प्रयोग सादर केले. बालसाहित्य बरयलें म्हणून जायना तर तें वाचपी बाल वाचकय तयार करचे पडटात. ही मोख दोळ्यां सामकार दवरून कोंकणी भाशा मंडळान बालसाहित्याच्या मळार काम सुरु केलें. तांचे खातीरय हांवें पुस्तकां बरयलीं.





आतां मेरेन हांवें बालसाहित्याचीं 16 पुस्तकां बरयलीं. तातूंत 'हांव आनी म्हजो टायगर' हें हालींच उजवाडाक आयिल्ले म्हजे बालनवलिकेचो आस्पाव आसा.

**श्रद्धा:-** तुमी वयर कोंकणी अणकारा विशीं उल्लेख केल्लो! तुमच्यो कथा खंयच्या भासांनी अणकारीत जाल्यात?

**मीना:-** म्हज्यो कथा हिंदी, मराठी, इंग्लीश, उडिया, तामीळ, मल्यालम, तेलगु, कन्नड, पुर्तुगेज आनी जर्मन भाशेंत अणकारीत जाल्यात. बाय गीता शणै हे नामनेचे लेखिकेन म्हज्या कोंकणी कथांचे तीन संग्रह कन्नडांत छापल्यात. शिवाय तिणें म्हजी 'वास्तू' ही कादंबरी कन्नडांत अणकारीत केल्या. बाय विद्या पौ चें नांव सगळ्यांचे संवकळीचें. तिणें म्हज्या जायत्या कथांचो इंग्लीशींत अणकार केला. म्हजे 'वास्तू' हे कादंबरीचो 'Abode of Love' ह्या नांवान इंग्लीश अणकार केला. 'वास्तू' कादंबरीचे कन्नड आनी इंग्लीश अणकार हे Konkani Language cultural foundation मंगळूर हांणी प्रकाशीत केल्यात.

म्हज्या 'सपन फुलां' ह्या साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळिल्ल्या पुस्तकाचोय बाय गीता शणै' हिणें कन्नडांत अणकार केला जो साहित्य अकादेमीन उजवाडाक हाडला.

पद्मा बिनानी फांवडेशनाचो 'वात्सल्य' पुरस्कार फावो जाल्ल्या 'साळकांतलो जादूगार' ह्या बालनाट्याचो 'कमल निवासी जादूगर' हो हिंदी अणकार बिनानी फांबडेशनान उजवाडाक हाडला. ताचो हिंदी अणकार भौ. देविदास ग. नाईक (मडगांव) हांणी केला.

**श्रद्धा:-** तुमचो साहित्य प्रवास खूब आसा. यादीय खूब आसतल्यो!

**मीना –** तश्यो यादी खूब आसात. पूण तातुंतली एक जी म्हाका भोव मोलादीक दिसता ती सांगतां. 1994 तली गजाल. साहित्य अकादेमीन कोचीनांत आयोजीत केल्ल्या 'सुरभी' ह्या राष्ट्रीय सेमिनारांत वांटो घेवपाची संद

म्हाका मेळिल्ली. त्या निमतान एक आगळो वेगळो अणभव म्हाका आयलो. कोंकणीचीं आमी सात जाणां आशिल्लीं. भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार, चंद्रकांतबाब केणी, मनोहरराय सरदेसाय, भाई मावजो, रमेश वेळुस्कार, पुंडलीक नायक आनी हांव. हेर भासांतलेय ज्येश्ठ लेखक थंय आयिल्ले. ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाल्ले भौ. कारंथ, टी. शिवशंकर पिल्ले, सी नारायण रेड्डी, एम टी वासुदेवन नायर आनी हांचे सारकेच आनीकय रथी म्हारथी साहित्यांतले भिश्माचार्य म्हणपा सारके व्हड लेखक थंय जमिल्ले. पूण म्हान आसूनय ते ल्हाना वांगडा ल्हान जाताले. साहित्याचे वेगवेगळे प्रवाह एकठांय येवन थंय अथांग म्हासागर जाल्लो. आनी तातुंतलो एक सुपुल्लो बिंदू- थेंब जावपाचें भाग्य म्हाका मेळिल्लें. एका लेखकाचे जिणेंत अशे राष्ट्रीय प्रवाहांत भरसून वचपाचे खीण येवप हें म्हत्वाचें. ते खीण तांका अंतर्मुख करतात. त्या म्हासागरांत आपूण खंय आसां ताची जाणविकाय करुन दितात.

'सुरभी' हो 'मानसोत्सव' आशिल्लो, फेस्टीव्हल ऑफ मायन्ड्स! सगल्यांचें एकामेकां वांगडा शब्दांचें नातें जुळिल्लें. दीस भर वेगवेगळ्या सत्रांनी वांटो घेवपाचो, तरेकवार विचार आयकुपाचे आनी रातचीं हॉटेलांत उकत्या मळबा पोंदा गजाली करूंक बसपाचें . सगलीं मेकळेपणान उलयतालीं.





आमी ज्या हॉटेलांत राविल्लीं थंय 'थायी रामायण' बरोवपी संस्कृत पंडीत डॉ. सत्यवृत शास्त्रीजी आशिल्ले.

'श्रीरामकीर्तिमहाकाव्यम्' हें थायी रामायणावेलें पयलें संस्कृत महाकाव्य तांणी बरयलें. तांची जीण म्हळ्यार साहित्याची तांणी केल्ली तपश्चर्याच आशिल्ली. आनी हें महाकाव्य म्हळ्यार तांच्या साहित्य तपश्चर्येचो एक वांटो म्हळ्यार जाता. थायलंडाचे राजकन्येक संस्कृत शिकोवपा खातीर ते कांय काळ थायलंडाक वचून राविल्ले आनी ह्या रामायणा वेल्या संस्कृत महाकाव्याक प्रस्तावना थायलंडची राजकुंवर Her Royal Highness Mahachakri Sirindhorn हांणी बरयल्या. शास्त्रीजींचो बायोडेटा वाचल्यार दोळे दिपावतात. आमकां मेळ्ळे तेन्ना तांकां ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळूंक नाशिल्लो. पूण उपरान्त तो मेळ्ळो. तांणी संस्कृत रामायण महाकाव्याच्यो तीन प्रती वांगडा हाडिल्ल्यो. आनी तातूंतली एक म्हाका सस्नेह भेट म्हणून स्वाक्षरी करून दिली. हो म्हाका म्हजो व्हड भौमान कसो दिसता. तें संस्कृत महाकाव्य आनी शास्त्रीजी म्हज्या काळजांत सदां खातीर उरल्यात.

**श्रद्धा :** नव्या बरोवप्यांचें साहित्य वाचून तुमकां कितें दिसता ? तांकां मार्गदर्शन करतना तुमकां कितें सांगन दिसता?

**मीना:-** पयली गजाल म्हळ्यार बरोवप्याक मुळांत साहित्याची जाण आसची पडटा. ताका आशयाक म्हत्व दिवंक समजूंक जाय. म्हजे नदरेन ज्या साहित्याक चिंतनाची खोलाय आसता तेंच साहित्य तिगून उरता, वाचप्यांक आवडटा. साहित्याची साधना करतना बरोवप्यान दोन गजाली मतींत दवरूंक जाय. त्यो म्हळ्यार खूब वाचन आनी शक्य जाता तेन्ना भोंवड्यो करप. ह्यो गजाली म्हळ्यार साहित्याक सारें. विशयाचो सारको अभ्यास होय गरजेचो. बरयिल्लें साहित्य छापूंक धाडचे पयलीं परतें, परतें वाचून निवळावंक जाय. आमचे कवी मनोहरराय सरदेसाय म्हणटाले ते बशेन उतर बरें शिजले बगर तें पानार वाडचें न्हय. देखून नव्या बरोवप्यांनी आपल्या लेखनांतल्यो चुकी समजून घेवन त्यो निवळावपाची गरज आसा.

श्रद्धा, जिणेची वाट चलतना मनशाची वागणूक बदलता.




सोळा वर्सांचेर वागतालो तसो तो चाळिशी कडेन पावतकीर वा उपरान्त वागना. ताका जाण येता, मॅच्युरिटी येता. पूण ती ताका सोळा वर्सां पिरायेचेरच आसची अशी अपेक्षा कोण धरना. देखूनच नव्या बरोवप्यांनी बरयिल्लें लिखाण आमी मॅच्युअर नदरेन वाचून ताची मोलावणी करप सारकें जावचें ना. फकत तांचें लिखाण वाचतना तांणी साहित्याची थोडी तरी साधना केल्या काय कितें हें जाणवूंक जाय. ताच्या लेखनांत थोडो तरी स्पार्क आसूंक जाय. हो स्पार्कच तांकां साहित्याचे वाटेर फुडें फुडें व्हरता. वज्र लखलखतलें जाल्यार ताका तासां पडपाची गरज आसता. पूण मुळांत तें वज्र पारखुपाची नदर आमचे कडेन आसूंक जाय. नव्या बरोवप्यांचें लिखाण हांव हेच नदरेन वाचतां.

**श्रद्धा :-** तुमचे एकाद्रे कथेंतलें कथाबीज वा विशिश्ट अणभव तुमकां कसो मेळ्ळो ताचे विशीं जाणून घेवंक आवडटलें!

**मीना:-** तशें सांगपा सारके अणभव खूब आसात. जिणेची वाट चलतना जण एकलो अणभव पुंजायत फुडें वता. ह्या अणभवांत कितलींशींच कथाबिजां आसतात. केन्ना केन्ना हीं बिजां रुजून येतात. केन्ना केन्ना एका बिजांतल्यान एकच कथा निर्माण जाता. तर केन्ना केन्ना कांय कथाबिजां मेळून एक कथा जल्मांक येता. 'मुक्त आयज बंद जीण' ही अशी कथा जी कांय कथाबिजांल्यान जल्माक आयिल्ली.

कितल्योशोच आदार नाशिल्ल्यो बायलो आमी पळयतात ज्यो जाणटेपणांत आपल्याक आदार मेळत हे आशेन दुसऱ्याल्या संवसारा खातीर घश्टत रावतात. जो मेरेन तीं घश्टतात तो मेरेन लोकय तांचो फायदो घेत रावतात. पूण उपरान्त ज्या वेळार तांकां आदाराची खरी गरज आसता, तेन्ना मात तीं कोणांक नाका जातात. असल्या कांय बायलांची जीण म्हज्या दोळ्यां मुखार आशिल्ली. म्हणल्यार तांच्या दोळ्यांतली व्यथा, ओंठांवेलो फटीचो हांसो खंयतरी म्हाका हालोवन गेला. तांचें तें घश्टप, फुडें मागीर उबंत पडप सगलें हांवें पळयलां. असल्यो ह्यो काकीबायो, व्हनीबायो आनी बायो आमचे सरभोवतणीं अजून आमकां दिश्टी पडटात. हें सगळें पळयतना काळजांत किंवाटो दाटून आयलो आनी तातुंतल्यान आपलें दुबळेपण काडून उडोवन तायट मानेन उबी रावपी काकीबाय जल्माक आयली.

**श्रद्धा :-** तुमचे कथेंतलीं बायल पात्रां आनी दादले पात्रां हातूंत खंयचीं चड सशक्त जाल्यांत अशें तुमकां दिसता ? अशें एकाद्रें पात्र सांगशात, जें तुमी खूब तांकीन चिंतारलां आनी तें बरें उबें जालां?

**मीना:-** प्रत्येक कथेंत वेगवेगळीं पात्रां आसात. तांचे



मर्दी बायल वा दादलो असो फरक करप सारकें जावचें ना. कांय कथांनी बायल सशक्त जाल्या कारण ती 'तिची' कथा आसा. तर  कांय कथांनी दादलो सशक्त जाला कारण ती 'ताची' कथा आसा. लेखक स्वता बायल काय दादलो हाचो ताचे कथेंतल्या पात्रांच्या चित्रणाचेर परिणाम जाता अशें म्हाका दिसना. म्हजे कथेंतलें एक सशक्त पात्र सांगतलें जाल्यार हांव 'शीण' हे कथेंतलें 'आपाचें' पात्र सांगन. बायलेच्या मरणा उपरान्त एकटुको पडिल्लो हो आपा आनी ताचें दुख्ख लोकांच्या काळजा मेरेन पावलां हाची गवाय   म्हाका वाचप्यां कडल्यान मेळ्ळी. ही कथा छापून येतकीर एक दीस एक जाणटेलो म्हजें घर सोदीत आयलो. 'हांव अमको' ताणें आपलें नांव म्हाका सांगलें.'तुजे 'शीण' कथेंत जें घडलां तें म्हजेय जिणेंत घडलां. घडत आसा.' ताचे दोळे भरून आयले. 'तुवें म्हजेरच कथा बरयल्या कशी म्हाका दिसली.'

' जाणटेपणांत आमच्या सारक्या  घोवा बायलेक वांगडाच मरण येवंक जाय गो बाय. एकल्याक फाटल्यान दवरून कोणेंच वचचें न्हय.' ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवक लागलीं. म्हजे 'शीण ' हे कथेंतलो तो मूर्तिमंत 'आपा' आशिल्लो. म्हजी कथा आपाचे बायलेच्या बाराव्याक सोंपताली. पूण ह्या आपाची चालू आशिल्ली .बायलेचे यादींचेर तो जियेतालो आनी मरऽसर जियेवपाचो आशिल्लो. म्हजे कडेन मन मेकळें करून तो गेलो. पूण म्हाका अस्वस्थ केलें. कारण कथेंतल्या आपाचें दुख्ख  हांवें ह्या खऱ्या आपाच्या दोळ्यांत पळयलें. हे कथेक दिल्लीचो नामनेचो 'कथा' पुरस्कार फावो जाला.

**श्रध्दा:–** तुमी स्वावलंबी आसूंक जाय अशें तुमकां कित्याक दिसलें? आनी तें करुंक तुमी कशीं मुखार सरलीं? कार्यालयांत काम करतना एक अस्तुरी म्हणून तुमकां आयिल्लें अणभव समजून घेवप देखदिणे थारूं येतात.

**मीना:–**  स्वावलंबी आसप भोव गरजेचें. आर्थिक संकश्टां केन्नाच कोणाक सांगून येनात. अशे वेळार स्वावलंबी



आसल्यार निदान पयशांचें बळगें तरी ताका थोडोसो धीर दिता. शिक्षणाचो उपेग आपणें जिणेंत करुंक जाय अशें म्हाका सदांच दिसतालें. देखून ग्रॅज्युएशन जातकीर नोकरी करचेलें म्हजे मनांत आशिल्लें. त्या काळार नोकरी मेळप आतां इतली कठीण नाशिल्ली. आतां नोकरी म्हळ्यार उंबराचें फूल जाल्या.  हांवें आयकर खातें आनी लेखा खातें ह्या दोन खात्यांनी इंटरव्यू दिल्ले आनी दोनूय कडेन म्हजी निवड जाली. पूण आयकर खातें हें सेंट्रल गव्हर्नमेंन्टाचें आशिल्ल्यान बदली जावन खंयय वचपाची भिरांत आशिल्ली. देखून हांवें लेखा खात्याची निवड केली.

आमचें खातें फकत  हिशोबच करपा पुरतें मर्यादीत नाशिल्लें तर कर्मचाऱ्यांचे कलेक प्रोत्साहन दिवपी आशिल्लें. 'स्पॉट लायट'  ह्या आमच्या म्हयनाळ्या वणटी पत्रकाचेर कर्मचारी आपल्यो कविता, कार्टून वा हेर कितें बरोवंक शकताले.

भौ.एस.एन.केंकरे आनी पाडुरंग शंकवाळकार ह्या दोन संचालकांचो म्हाका हांगा मुजरत उल्लेख करीन दिसता. जांणी कर्मचाऱ्यांचे कलेक सदांच प्रोत्साहन दिलें. एका वर्सा म्हाका 'बेस्ट ऑल राऊंडर' हो किताबय म्हाका म्हज्या खात्यान दिल्लो. म्हज्या साहित्याक आनी हेर कलेक म्हज्या ऑफिसांत सदांच पोशक अशें वातावरण मेळ्ळें.

काम करतना एक अस्तुरी म्हणून म्हाका जो अणभव आयलो ते विशीं सांगतां. घडये हो फरक आमच्या मनांत नासता पूण लोकांची तुमचे कडल्यान वेगळी अपेक्षा आसूं येता.

तेन्ना हांव मडगांवचें ट्रेझरी ऑफिसर म्हणून काम पळयतालें. जाणटेले पेन्शनर आपलें पेन्शन घेवंक ट्रेझरी ऑफिसांत येताले. म्हजी थंय नेमणूक जावचे पयलीं पेन्शनर आनी ऑफिसर हांचें नातें फकत 'ऑफिशियल' आशिल्लें पूण म्हजी थंय नेमणूक जातकच ल्हवू ल्हवू तें चित्र बदलूंक लागलें. कांय पेन्शनर आपलीं पर्सनल सुख दुख्खां सांगूक म्हज्या म्हऱ्यांत येवंक लागले. अयशीं वर्सांचो बाप्पा काउंटरा वेल्यान आपलो पेन्शनाचो बुक घेतालो आनी बद्द म्हज्या केबिनांत येतालो. आपली बायल आतां आपल्याक किंकोंत करता हें ताचें दुख्ख आशिल्लें. 'फकत  पुतांची पार्त घेता आनी म्हजे कडेन मायेचीं दोन उतरां लेगीत उलयना. कळटलें तिका एक दीस'. तो फडफडटालो. म्हजे कडेन हें उलोवन तो आपलें मन ल्हव करी.

कांय बायलोय बी आपलो घोव पेन्शन घेवन बद्द बारांत वता. ताका मातसो समजाय अशेंय सांगूक येताल्यो. थोड्या जाणटेल्यांचें जिवीत सामकें एकटुकें जाल्लें. आपली कोणच वासपूस करना ही तांची खंत आशिल्ली. तांकां कोणा कडेन तरी मन ल्हव करपाचें आसतालें. जाचेर तो विश्वास दवरूंक शकतलो असो कोणतरी तांकां जाय आसलो. म्हाका खबर ना तांणी म्हाका कित्याक वेंचून काडलें तें! घडये तांचे नदरेन एक बायल मनीस आपलें दुख्ख बरे तरेन समजूंक शकतली अशें तांकां दिसतालें जांवये! हांव तांकां समजून घेवपाचो यत्न करतालें. चड कांय करप म्हाका शक्य नाशिल्लें. पूण म्हजो थोडोसो वेळ तांकां दितालें. आपलें मन उकतें करून जातकीर तांकां घडये बरें दिसतालें जांवये! पूण हाका लागून



आमचे मदीं फकत 'ऑफिशियल' नातें उरलें ना तर तातूंत आपलेपणाचें नातें भरसलें. काळजांतल्यो ह्यो असल्यो गजाली आनी अणभव तर एका लेखकाक घडयत आसतात... सतत..!

**श्रद्धा:-** साहित्या भायर तुमकां हेर कसले छंद आसात?

**मीना:** एका मनशाक कितलेशेच छंद आसूं येतात. पूण सगल्यांकच सारको न्याय दिवंक वा तो छंद केळोवप तांकां शक्य जालें ना जाल्यार ते कलेची आवड आसूनय ती फाटीं पडटा. म्हजे विशीं सांगतलें जाल्यार म्हाका साहित्या भायर चित्रकलेची, अभिनयाची, बागकामाची आनी समाजकार्याची आवड आसा. आतां दर एका छंदा विशीं तुका सांगतां.

म्हजो बाबा इंजिनियर आनी तो खूब सुंदर चित्रां काडी. ताची ही कला थोडीशी म्हज्या आंगांत आयली. हांवें दोन

वर्सा मुंबय फायन आर्टसाचें शिक्षणय घेतलां. दोन ल्हानशो घडणुको सांगतां. म्हजी आजी 'आती' भायर पडटकीर म्हजो आजो 'भाऊ' सामको अस्वस्थ जालो. जाणटेपणांत बायलेचो साथ सुटप हें ताणें खूबच मनाक लावन घेतिल्लें. तेन्ना हांवें आतीचो पोर्ट्रेट काडून तो फ्रेम करुन भाउक दिलो. तो पळोवन ताचे दोळे भरून आयले. म्हाका ताणें आपले वेंगेंत घेतलें. तो फोटो ताणें आपले बाजे मुखावेले वणटीर लायलो. निदान फोटोंत तरी ती आपल्याक दिश्टी पडटा म्हणून ताका थोडें तरी समाधान मेळ्ळें आसुंये अशें म्हाका दिसता. दुसरी घडणूक म्हळ्यार दोतोर वसंतबाब नगर्शेकार हो म्हज्या बाबाचो खाशेलो इश्ट आशिल्लो. वसंतबाब हे काणकोणा नामनेचे दोतोर आशिल्ले. आमकां भुरग्यांक वसंतबाब खूब आवडटाले. हांवें तांचो पोट्रट काडलो. मात तो म्हजे कडेन उरलो. उपरांत वसंतबाबांच्या भुरग्यांनी तांची शंभरावी जयंती मनोवपाची थारायली. व्हडल्या कार्यक्रमाचें आयोजन केलें. त्या वेळार तांणी एक यादस्तीक छापिल्लें. वसंतबाबांच्या भुरग्यांनी तातूंत तांच्या बापाय विशीं आपल्यो भावना उक्तावपी लेख बरयिल्ले. म्हजेय कडेन तांणी लेख मागिल्लो. तो दितना हांवें वसंतबाबांचो हांवें काडिल्लो पोर्ट्रेटय तांचे कडेन दिल्लो. तांणी तो म्हज्या लेखा वांगडा ते यादस्तिकेंत छापलो. तांकां तो तातूंत छापपा इतलो म्हत्वाचो दिसलो ही म्हजे नदरेन खूब व्हड गजाल आशिल्ली.हांव फॅब्रिक पेन्टींगय करतालें. म्हज्या इश्टीणींक, सोयऱ्यांक कुशनां पेन्ट करुन भेट म्हणून दिवपाक म्हाका खूब आवडटालें. कोणाकोणांक दिलीं तें हांव विसरुन गेलां पूण केन्ना, केन्ना तातूंत कोण तरी मेळटात तेन्ना 'आगो, तुवें दिल्लीं कुशनां हांवें अजून सांबाळून दवरल्यांत' अशें मुजरन सांगतात. ह्या सगल्या पेन्टींगांतल्यान हांवें फकत तीन गजाली सांबाळून दवरल्यात. दोन चादरी. एकेचेर हांवें जपानी बायलो पितारिल्ल्यो आनी दुसरें चादरीचेर शास्त्रीय नृत्य करपी बायलो. हांचे भायर बाबान म्हजे खातीर कोमाले पितारिल्ली एक साडी आसा. ती बाबाली याद म्हणून हांवें सांबाळून दवरल्या. पूण आतां म्हजो हो छंद पुरायेन फाटीं पडला. पूण ही कला म्हजो नातू इशान हाका आयल्या. तो खूब सुंदर चित्रां काडटा. म्हजे 'हांव आनी म्हजो टायगर' हे बाल नवलिकेक सजावट आनी चित्रां



इशानाचीं.

म्हज्या बाबाचे कलेचो वारसो ताचो पणटू इशान फुडें व्हरता म्हणल्यार जाता.

**श्रद्धा:** तुमी तुमच्या बापायन पितारिल्ल्या कोमाल्यांचे साडयेचो उल्लेख केला ते विशीं थोडेंशें सांगशात?

**मीना:** ही साठ वर्सां पयलींचीं गजाल. त्या काळार गुगल बी ना आनी ताका लागून तरेकवार कोमाले सट्ट करुन पळोवपाचे दुसरे कसले साधनय नाशिल्लें. कोमालो दिसलो जाल्यार कॅमेऱ्यान ताचो फोटो काडप आनी पुराय रीळ सोंपतकीर तें धुवन घेवप हो व्हड प्रोसेस करचो पडटालो. जायते पावटी एक रीळ सोंपून तें धुता म्हणसर खूब तेंप वतालो. ताका लागून बाबान जेन्ना हे कोमाले पितारपाचें थारायलें तेन्ना आमचे भोंवतणी भिरभरपी कोमाल्यांचो आदार घेवचो पडटालो. गरज आशिल्ली ती पासियेंसाची. पानार, फुलांर बाशिल्ल्या कोमाल्यांक अळंग पोशांत धरप सोंपें काम नाशिल्लें. खूब प्रयत्न करतकीर एकाद्रो हाताक लागतालो. आतां फोटो काडटना लेगीत ते आमकां नाचयतात ताचे वेल्यान तेन्ना बाबान तांकां कशें अळंग धरलां आसतलें हें चिंतूनच म्हाका अजाप दिसता.

धरिल्ल्या कोमाल्याक बाबा मागीर जाळयेच्या कुरपण्यां पोंदा सोडटालो. उपरान्त बाबा तांचो स्कॅच काडटालो आनी रंग भरतालो. सैमाचे ते रंग, ती नक्षी कागदार चितारप कठीणच आशिल्लें. तरी बाबा आपले परीन यत्न करतालो. चितारून जातकीर आमी तांकां परत पोरसांत सोडटालीं. अशे कितलेशेच कोमाले बाबान पयलीं कागदार चितारले आनी एक दीस ते सगळे साडयेर पितारुन ती साडी म्हाका दिली.

तेन्ना त्या कोमाल्यांचीं नांवां आमकां खबर नाशिल्लीं फकत कोमाले इतलीच तांची वळख आशिल्ली. पूण आज जेन्ना हांव ती साडी उगडून पळयतां, तेन्ना म्हाका 'सदर्न बर्ड वींग','मोरमोन', 'कॉमन मोरमोन' आनी हेर कितलेशेच कोमाले थंय दिश्टी पडटात. सैमाचे ते रंग तश्शाक तशे कागदार पितारुंक बाबाक घडये शक्य जालें नासत. पूण त्या रंगांत आपली माया भरसून ताणें ते कोमाले जिवे नक्कीच केले.

**श्रद्धा:** तुमचो अभिनयाचो प्रवास केन्ना सुरू जालो?

**मीना:** अभिनयाची सुरवात जाली ती हांव काम करतालें त्या लेखा खात्याच्या 'अकांवट्स डे' ह्या वार्सीक कल्चरल प्रोग्रामांतल्यान. आमच्या कल्चरल प्रोग्रामा खातीर हांवें नाटकुलीं बरयलीं आनी तीं सादर करुंक पयले पावटी स्टेजीर चडलें. कला अकादमी दर वर्सा कोंकणी नाट्यस्पर्धा घेताली. वेगवेगळ्यो संस्था ते स्पर्धेंत वांटो घेताली. सुरवेच्या काळांत कोंकणी भाशा मंडळ ही संस्था ते स्पर्धेंत वांटो घेताली. तेन्ना 'एके राती' ह्या बादल सरकाराच्या 'पगला घोडा' ह्या नाटकाच्या कोंकणी  अणकारांत तशेंच 'येतां आं









मम्मी' ह्या स. वसंत कानेटकर हांच्या 'अखेरचा सवाल' ह्या नाटकाच्या कोंकणी अणकारांत हांवें वांटो घेवन पयलीं इनामां मेळयलीं. उपरान्त नामनेचे फिल्म दिग्दर्शक बाब राजेंद्र तालक हांच्या कलांगण हे संस्थे तर्फे जीं नाटकां केलीं तातूंत हांवें वांटो घेतलो. तांच्या 'सॉरी रॉंग नंबर' ह्या नाटकाची आनी तातूंतल्या 'कोरीन' हे म्हजे भूमिकेची लोक अजून याद काडटात. ते भायर 'तुझं आहे तुझपाशीं' आनी 'सापळा' ह्या दोन मराठी नाटकांनीय हांवें कामां केल्यांत. नाट्य कलाकार म्हणून एक वेगळी वळख ह्या नाटकांनी म्हाका मेळोवन दिली. आनी ताची दखल घेवन कला अकादेमी, गोंय हांचो 'रंगसन्मान' पुरस्कार म्हाका फावो जालो. कागदार पात्रां रंगोवप आनी माचयेर उबें रावन आपूणच पात्र जावप हे दोनय अणभव वेगवेगळे. मात ते दोनय म्हजे आवडीचे. पूण हो छंदय आतां फाटीं पडला. आतां उरल्यात दोन छंद. बागकाम आनी समाजकार्य. ह्या दोनय छंदांक मात हांव अजून वेळ दितां. आमचें एक ल्हानशें पोरसूं आसा . ताका हांव 'गार्डन' म्हणचें ना. कारण पारंपारीक गार्डन जशें आसता तशें तें ना. ह्या पोरसांत काम करूंक म्हाका खूब आवडटा. आपले आवडीचें काम करुंक मनशांक वेळ मेळटा आनी पुरोय जायना हें मात सामकें खरें. पोरसांत प्लॅन करून झाडां रोवंक नात. जीं झाडां आवडटात आनी रोवचींशीं दिसतात तीं झाडां आमच्या पोरसांत आसात. तरेकवार दसणी, रातराणी कलप्वती, तांबडो जाम, मुसांडा, पॅरान फ्रुट, हेर सोबेचीं रोपां हांच्या सांगाताक वेगवेगळ्यो लिंबीणी, तिखी, करबेल एकामेकांच्या हातांत हात घालून धोलतात. ह्या सगळ्यांक मायेन उदक, सारें घालपाचें काम म्हजें. घरा मुखावेले बिल्डींगेची 'डेड वॉल' सामकी आमच्या दुर्गाक तेंकून आसा. ती शिमिटाची वणट पयलीं आमचे नदरेक आपटताली. पूण आमच्या दुर्गाचेर चडपी एके वालीन ल्हवू ल्हवू करून ही पुराय वणत व्यापली. आतां ती पांचवीचार वणत आमचे नदरेक शितळकाय दिता. इतलेंच न्हय तर तरेकवार सुकणीं तातूंत घोंटेर बांदतात.









खास करून साळोऱ्यो आनी बुलबुल. ते भायर तरेकवार कोम ाले पानांर आनी फुलांर भिरभिरत आसतात. ह्या सगल्या कोमाल्यांचेर हांवें 'बिम्बा'च्या दिवाळी अंकांत एक लेखूय बरयिल्लो.

पयरच कोणें तरी म्हाका विचारलें, 'तुज्या पोरसांत इतले कोमले कशे येतात?' हाची जाप हांव कोमल्यां कडल्यान काय घेवंक शकना देखून हांवच हाचेर चिंतूक पडलें. मागीर म्हजे लक्षांत आयलें तें म्हणजे तांचे आवडीचीं येजमान झाडां आमच्या पोरसांत आसात. ते भायर आनीक भोव उमेद दिवपी विचार तकलेंत आयलो तो म्हणजे हीं मनशां निरुपद्रवी, हांचे पसून आपल्याक कांय भंय ना असो तांकां भरवंसो दिसता आसतलो देखून तीं आमच्या पोरसांत भिरभिरतात. पोशांत लेगीत बसतात. आमचे गॅलरींत साळकांची ल्हानशी तळी आसा. उदकांत जळेरां जावचीं न्हय म्हणून तातूंत 'गप्पी' हीं नुस्तीं घाल्यांत.

हाडटना फकत स नुस्तीं हाडिल्लीं. आतां तांची संतत वाडून तीं तळेंभर जाल्यांत. तळ्यांत पावलां बुडोवन बसल्यार तीं नुस्तीं रोकडींच आपल्याली 'फिश थेरपी' सुरु करतात. 'Flora आनी Fauna' तर हें म्हजें ल्हानशें पोरसूं आनी तातूंतलें म्हजे मन धादोशी करता.

श्रद्धा, आतां तुका निमण्या छंदा विशीं सांगतां. घडये ताका छंद म्हणप बरोबर जावचें ना. समाजकार्य तें. ते खातीर फकत आवड आसून उपकरना पोटतिडक आसची पडटा. पदरमोड करपाचीय तयारी आसची पडटा. रस्त्या वेल्या सुण्यांचे वाडटे संख्येक आळाबंदा हाडपा खातीर आमच्या सारख्या कांय लोकांनी एकठांय येवन GAWT एक संस्था सुरु केली.

'गोवा ॲनीमल वेलफेअर ट्रस्ट' हे बिगर सरकारी संस्थेची हांव एक ट्रस्टी आसां. म्हजो घरकार ते संस्थेचो अध्यक्ष.

रस्त्या वेल्या सुण्यांचो आंकडो वाडचो न्हय, तांकां रेबीज हें दुयेंस जावचें न्हय म्हणून आमची संस्था वावुरता. पर्यायान समाजाक भेडसावपी कुत्र्यांचे समस्येचेर उपाय सोदचे खातीर वावुरता म्हळ्यार जाता.

**श्रद्धा:** इंटरेस्टींग! 'गोवा ॲनीमल वेलफेअर ट्रस्ट' हे संस्थे विशीं विस्तारान सांगल्यार वाचकांकय उमेद मेळूं येता!

**मीना:** आमच्या सारक्या कांय मोनजातीच्या मोग्यांनी एकठांय येवन आमची ही संस्था 1999 ह्या वर्सा सुरु केली.

ताचे पयलीं रस्त्या वयल्या सुण्यांक फारान मारताले. ताचे विरुद्ध कांय मोनजात मोगीलोकांनी कोर्टांत वचून ताचेर बंदी हाडली. पूण कशेय तरेन कुत्र्यांची वाडटी संख्या उणी करुंकच जाय आशिल्ली.तशें जाल्यारच समाजाक भिशटावपी ह्या प्रस्नाक कांय प्रमाणांत आळो घालप शक्य आशिल्लें. सुरवेक आमी मडगांवां काम करतालीं. पूण उपरान्त आमकां कांय कारणांक लागून मडगांव सोडून काकोड्या येवचें पडलें.

आमची संस्था कितें करता जाल्यार कुत्र्यांचें निर्बिजीकरण हें आमचें मुखेल काम. पूण ते खातीर पयलीं हे रस्ताद सुणे धरून हाडचे पडटात. ते खातीर आमचे खाशेले प्रशिक्षीत सुणे धरपी आसात. पूण तरीकय हें भोव जोखमीचें काम.

कुत्र्यां फाटल्यान धांवप, तांकां जाळये पोंदा धरप आनी उबारुन व्हॅनींत घालप अशें करतना जायते पावटी कुत्रे घास मारतात. केन्ना केन्ना जांकां रॅबीज जाला असो दुबाव आसा अशाय कुत्र्यांक धरुंक वचचें पडटा.रेबीज म्हळ्यारच आंगार कांटो येता. अशे वेळार तांकां धरुन हाडप हें केदें जोखमीचें काम हो अंदाज येतलो. आमच्या ह्या मोन्यानी चलपी

समाजकार्याची दखल घेवपी, ताचे फाटले जोखमीची दखल घेवपी खूब थोडे! पूण आमी घेतात ते जोखमीची दखल घेवन 'गॉडफ्रे फिलीप' हे कंपनीन आमचे संस्थेक 'सोशल ब्रेव्हरी स्पेशल पुरस्कार' दिला. मुंबय जाल्ल्या एका खाशेल्या सुवाळ्यांत 50,000 रुपया आनी प्रमाण पत्र आमचे संस्थेक फावो जालें.

– रस्ताद सुण्याचें निर्बिजी करणाचें ऑपरेशन करतकीर घाय पेखसर तांकां शेल्टरांत दवरप, तांकां जेवण खाण, वखदां दिवप. आनी उपरान्त जंय साकून तांकां धरुन हाडिल्ले थंय परत व्हरुन सोडप.

– अपघात जाल्ल्या सुण्यांक, माजरांक शेल्टरांत हाडून तांचेर उपचार करप.

– रस्त्यार सोडिल्ल्या सुण्यां–माजरांच्या पिलां खातीर ॲडोप्शन कॅम्प घेवप. आमचे कडेन एक मोबायल क्लिनीक बस आसा, तातूंत ऑपरेशन करतात.

– गांवगिऱ्या वाठारांनी वाशिनां तोपूंक कॅम्प घेवप.

ह्या सगल्या कामांक खूब खर्च येता. कुत्र्यांचीं जेवणा खाणां, स्टाफाचो पगार, वखदां आनी हेर जायत्यो गजाली आसात. पूण गोंय सरकार कडल्यान आमकां अजून म्हणसर कांयच आदार मेळूंक ना.

पूण आमकां मदतीचो हात फुडें करपीय कांय लोक आसात. फाटीं हांवें भांगरभूंयेंत आमच्या ह्या शेल्टरा विशीं म्हायती दिवन एक लेख बरयिल्लो. तो वाचून बाब अरुण सुखटणकार, अन्वेशाबाय सिंगबाळ आनी स्नेहाबाय सबनीस हांणी आमकां सदळ हातान मदत केल्ली.

ते भायर पोरुं पुराय वर्स भर मडगांवच्या रोटरी क्लबान आमकां आमच्या कॅम्पां खातीर आनी हेर जायत्या गजालींक आदार दिलो. पोशिल्ल्या सुण्यां खातीरय आमची ओपिडी आसा. धनी भायल्या गांवांत वतात तेन्ना तांच्या कुत्र्यांक दवरपा खातीर आमचे कडेन कॅनलींग सेवाय उपलब्ध आसा. कोरोनाच्या काळांत आमकां खूब त्रास जाले. येणावळ बंद जाली पूण खर्च मात चालूच आशिल्लो. ते दीस याद केल्यार नाका जातात. म्हजे स्वताचे जिणेंत रूढ अर्थान ज्याका संघर्ष म्हणटात तो केन्ना करचो पडलो ना. पूण ह्या शेल्टरा खातीर पयसो उबो करतना मात संघर्ष करचो पडटा. सम ाजकार्य म्हणटा तें तेन्ना आंगावेलें उदक न्हय. थोडोसो त्रास सोंसचोच पडटा. आनी तो आमी सोंससतातय बी.

**श्रद्धा:** लेखकान साहित्यांतल्यान समाज प्रबोधन करुंक जाय काय नाका? तुमचें मत कितें?

**मीना:** म्हजे नदरेन लेखकान साहित्यांतल्यान आपले विचार मांडचे. आपले मन उकतें करचें. पूण तातूंतल्यान समाज प्रबोधन जाताच अशें ना. कारण आपणें वाचलां तातूंतल्यान कितें घेवचें हें निमाणें वाचप्यांचेर अवलंबून आसता. कांय पावटी लेखकाक मातय अभिप्रेत नाशिल्लो अर्थ वाचपी तातूंल्यान घेतात असो म्हाका स्वताक अणभव आयला.

लेखकाचें साहित्य ही एक कलाकृती. ती वैचारीक निबंध न्हय. देखून कथेंतली एकादरी समस्या, ताचीं कारणां वा उपाय, समाजान ताचेर कितें करुं येता हाचेर कथेंत चर्चा करप शक्य नासता. कथा फकत भावनांचीं स्पंदनां पुंजायता. मनशाक समजून घेवप आनी घडणुकेचीं वेगवेगळीं तासां वाचप्यां मुखार दवरप ही लेखकाची मोख आसता. समाज प्रबोधनाची चौकट घालून हांव साहित्य रचना. जें कितें बरयतां तातूंतल्यान समाज प्रबोधन जालें जाल्यार म्हाका खोसच जाता.

**श्रद्धा:** खंयचेय सत्य घडणुकेचेर आदारुन लेखक बरयता तेन्ना तें पुरायेन सत्यच आसता काय केन्ना केन्ना ताचो विपर्यास जावपाची शक्यताय आसता?



**मीना:** खरें आनी फट ह्यो एकाच नाण्याच्यो दोन बाजू. एकल्याचे नदरेन जें खरें तें दुसऱ्याचे नदरेन फट आसूं येता. काल्पनीक साहित्यांत लेखक आपल्याक जाय तशी सूट घेवंक शकता. पूण तेन्ना लेखक ताचे जिणेंत आयिल्ल्या हेर व्यक्तींचो आस्पाव करून ती ताची स्वताची काणी म्हणटा तेन्ना तो सांगता तें पुराय खरें काय तातूंत सत्याचो विपर्यास जाला हें त्या साहित्यांत आयिल्लीं हेर मनशांच सांगूंक शकतात. पूण सत्याचो जर विपर्यास जाला आसत जाल्यार ती गजाल उकती करूंक तांचे कडेन लेखका भशेन माध्यम नासता देखून तो तातूंत ज्यांचो उल्लेख जाला तांचेर एके वटेचो अन्याय म्हणू येता. देखून आपल्या हातांत पेन आसा तें तलवार कशें वापरप काय कितें हाचेर विचार करुन लेखकान साहित्य रचूंक जाय. आनी समजा असल्या 'सत्य सत्य' म्हणून बरयिल्ल्या साहित्यांत कोणाचेर चिखलफेंक जाला आसत जाल्यार नाण्याक दोन बाजू आसतात ही गजाल वाचप्यांनी तें साहित्य वाचतना मतींत धरूंक जाय.

**श्रध्दा :** हें जग एक रंगमाची अशें म्हणटात. दर एकलो हांगा आपआपलें संवंग करता. तुमच्या म्हणण्या प्रमाणें हे रंगमाचयेर मोनजात कसलें संवंग करता?

**मीना:** तूं म्हणटा तशें जग ही व्हडली रंगमाची अशें धरलें जाल्यार हातूंत सगळे प्राणी आपआपलें संवंग प्रोम्पटींगा बगर करतात. मोनजात तरेकवार आसा. तातूंत व्हड प्राणीच न्हय तर जीव जंतू आनी किडे मुयो लेगीत येतात. ह्या प्रत्येकाचें, सैमांत म्हत्वाचें योगदान आसता. कांय जाणां तर एकामेकांचेर अवलंबून जियेतात. देखीक अन्नसांकळ घे. हातूंत एकलो



दुसऱ्याचें भक्ष्य, दुसरो तिसऱ्याचें भक्ष्य तर तिसरो चौथ्याचें भक्ष्य.मनीस लेगीत मोनजातीचेर अवलंबून आसता. फक्त अन्न म्हणून न्हय तर ते आमकां भावनीक आदार लेगीत दितात. एक ल्हानशी गजाल सांगता. आमी अमेरिकेक आमच्या पुतागेर गेल्लीं. थंयची लायब्ररी हें आमचें मुखेल आकर्शण आशिल्ले.

आमची नातू शर्व तेन्ना चार वर्सांचो. पूण ताका पुस्तकां वाचपाची लहानपणासावन आवड. न्हिदचेपयलीं पुस्तक वाचले बगर तो न्हिदना. तर तो आनी आमी आत्र्या पायऱ्यान लायब्ररींत वतालीं.एक दीस थंय ठशरव ुळींह ऊरपपू म्हणून प्रोग्राम आशिल्लो. एक बायल थंय एका डॉबरमन जातीच्या काळ्याकुळ- कुळीत कुत्र्याक घेवन आयिल्ली. तिणें जमनीर एक चादर घाल्लें आनी डॅनी ताचेर स्थानापत्र जाल्लो.शर्वान तिका आपल्याक डॅनीक पुस्तक वाचून दाखोवंक जाय म्हणून सांगलें. तिणें शर्वाक पुस्तक घेवन येवंक सांगलें. शर्वान

रोकडेंच पुस्तक हाडलें आनी ते चादरीर डॅनी म्हऱ्यांत बसून ताका चित्रां दाखयत वाचूंक लागलो. डॅनी मन लावन काणी आयकतालो आमकां डॅनीची आनी शर्वाची दोगांयची लक्तुबाय दिसली.

म्हणटासर कितलीशींच भुरगीं डॅनीक वाचून दाखोवंक आयलीं. चवकशी करतकीर ती बायल डॅनीक घेवन वेगवेगळ्या स्कूलांनी आनी लायब्ररींनीं वता म्हणचेलें समजलें. हें सगळें कित्याखातीर? ह्या म्हज्या प्रस्नाक तिणें जाप दिली तीं अशी– नोकरी करपी आवयबापूय आपल्या भुरग्यांक फावो तितलो वेळ दिवंक शकनात. भुरगीं जें कितें सांगूंक सोदतात ते आयकूंक तांचे कडेन फुरसत नासता. अश्या वेळार हो डॅनीक तांचें म्हणणें आयकून घेता आनी तांकां थोडो तरी भावनीक आदार दिता. तर मोनजात ही अशी ! तांचीं संवगां तरेतरेचीं !

**श्रद्धा:** जिवीत जगतना सूख आनी दुख्ख जण एकलो अणभवता. जिवीत कशें जगचें अशें तुमकां दिसता? तें एक विद्यापीठ म्हणपाचें जंय आमी शिकतात काय एक कादंबरी जातूंतल्या प्रसंगांचो अणभव घेवन आपले प्रसंग घडयतात ?

**मीना:** जिवताची व्याख्या सादी सोपी आसली जाल्यार कितें जातलें आशिल्लें! पूण तशी ती ना. जिविताक कसलीच फास्की घालून ताची व्याख्या करुंक येवची ना.

जिणेंत सुकती आनी भरती येताच आनी संवसाराच्या म्हासागरांत पेंवतना संघर्षाच्या ल्हारांचोय सामनो करचो पडटा. ह्या ल्हारां मुखार तग धरतलो जाल्यार मनशाची विचारसरणी ते तांकीची आसची पडटा. त्या खातीर ताका खंयच्याच विद्यापिठांत वचपाची वा कादंबरी वाचपाची गरज ना. दर एकल्यान आपले जिणेंचे पुस्तक आपणेंच बरोवपाचें आसता. आपल्याक जाय तसलीच जीण आपल्या वांट्याक येतली हाचो कोणच भरवंसो दिवंक शकना देखून आसा तातूंत सूख मानून घेवप हो एकच पर्याय आमच्या मुखार उरता. आनी तशें केलें जाल्यारच मनीस आनंदी रावंक शकता. आनीक एक गजाल सांगन दिसता ती म्हणजे जेन्ना आपल्या मना विरुद्ध कितें घडटा तेन्ना शक्य आसत जाल्यार तें बदलपाचो अवश्य प्रयत्न करचो. पूण जर शक्य नासत जाल्यार ताचेरच चिंतत रावन कश्टी जावचे परस ती गजाल 'सोडून दिवची'.

जिणेंत असल्यो साबार गजाली आसतल्यो ज्यो आमच्या मनांत सांचत उरतात आनी आमकां दुख्खी करतात. तशें जावचें न्हय देखून हें 'सोडून दिवप' गरजेचें. मन नितळ दवरतलीं जाल्यार असो प्रयत्न करुंक जाय आनी नितळ मन हें सुखी जिविताचे दिकेन पावली मारप!

**श्रद्धा:** मुलाखत सोंपयतना, जांचे मदी सृजनशील साहित्य रचपाची प्रतिभा आसा तांणी लेखनाचो प्रवास चालू दवरप गरजेचें कित्याक? हे बाबतींत तुमी आमचे अस्तुरेक कितें संदेश दितलीं?

**मीना:** आंगांत साहित्य रचपाची प्रतिभा आसप ही दैवी देण. देखून ती सांबाळून दवरप ही दर एकल्याची लागणूक मागीर ती बायल आसूं वा दादलो! एक गायक केदोय व्हडलो आसलो तरी दिसपट्टी रियाज करता. कारण गळ्यांतले सूर सांबाळटलो जाल्यार रियाज गरजेचो हाची ताका जाण आसता. साहित्याचेंय तशेंच. सातत्यान बरयत रावप हो एके तरेचो रियाजच. वापरा विणें उरलें जाल्यार मशीन लेगीत घट जाता. मात सगल्योच अस्तुऱ्यो हे गजालीक पाळो दिनात. हांवें जायते पावटी पळयलां आंकवारपणांत आपलें अशें खाशेलें स्थान निर्माण करून दाखोवपी चली लग्न उपरान्त संवसारांत घुसपून आपलें सगळें व्यक्तिमत्त्वच शेणोवन बसता. थोड्यांक ते विशीं खंत भोगता, तर थोडीं संवसाराच्या व्यापा मुखार हें अशेंच जावचेलें अशें धरून चलतात. पूण अशें कित्याक जावचें? लग्नां उपरान्त दादल्याच्या कलागुणांक बादा येना जाल्यार बायलांचेच बाबतींत अशें कित्याक जाता? हाका जापसालदार कोण? म्हजे नदरेन हे परिस्थितीक जापसालदार ती स्वताच, हेर कोण न्हय. इच्छा शक्त आसल्यार सगलें शक्य आसा. संवसार, नोकरी सांबाळूनय साहित्याची साधना चालू दवरपी कितल्योश्योच अस्तुऱ्यो आसात. जे निश्ठेन एक अस्तुरी आपलो संवसार सांबाळटा तेच निश्ठेन तिणें साहित्यीक संवसार सांबाळूंक जाय. बदलत्या काळाचें भान दवरुन साहित्यांतलीं नवीं आव्हानां स्विकारून लिखणीक नवी दिका दिवंक जाय.

आमच्या साहित्याचेर बायलांचें साहित्य असो छाप पडूंक जायना. तसो तो पडलो जाल्यार तें आमचें खाशेलेंपण न्हय तर आमच्या साहित्याची मर्यादा जावंक पावतली.

खंयचोय विशय मागीर तो कितलोय बोल्ड, विभत्स जावचो ना हाची जतनाय घेवन, एके तिरायत नदरेन ताचे कडेन पळोवन आमचे लिखणेन तो पितारुंक आमकां धिराय येवंक जाय. नव्या युगांतलें आमचें साहित्य नव्या काळा प्रमाणें विज्ञाननिष्ठ, नाविन्यपूर्ण, रुचेतनेची उत्कट आविश्कार जावन प्रकट जावंक जाय. आपल्या आंगांतल्या साहित्य गुणांचो सार्थ अभिमान बाळगून एके अस्तुरेन आपलो साहित्यप्रवास चालूच दवरुंक जाय अशें म्हाका मनापासून दिसता.

*फातोर्डा–मो.8087708050*

▶ कथा

# ममी आनी दुसरो पापा



मुखार ताची मोगाळ,सोबीत सुंदर ममी उबी आसली, सोरो पीवन तोंड,दोळे सुजिल्लो सो पापा उबो आसलो. म्हन्यांतच म्हातारो आज्जो उबो आसलो. जुवीज साडे पांच वर्सांच्या रोहनाक विचारतालो,''बाळ,तुका ममी वांगडा रावचें आसा काय पापा वांगडा? बेगीन सांग पळोवया.''

''प्रस्न अविचारीच आसलो.

रोहन बेगबेगीन गेलो आनी ताणें ममीले कमरेक वेंग मारली आनी म्हटलें,''ममी वांगडा.''

''बरें आसा,आमी तुका ममी वांगडाच दवरतात बाळ.''

लागींच उबो आशिल्लो आज्जो म्हणटालो,''जुविजान ममी वांगडा काय आज्जा वांगडा रावता काय विचारल्यार रोहन नक्की म्हणटासलो आज्जा वांगडा म्हण! कसलो विचारहीण जुवीज हो, म्हज्या घरांतलो कुलदिवो आमका दिये नासतना परके सुनेक व्हर म्हण सांगता.

आज्जो धा वीस लोकां हुजीर रडलो. दुकां तागेल्या मिरयो पडिल्ले काती वयल्यान सकल देंवक लागलीं. तरीय ताका दिसतालें,कोणाचें कॅर करी नासतना नातवाक धरून वोडून घेवन वच्चें. पूण ताका आपल्या पुताचेरच विश्वास नासलो. फाल्यां हीं झगडीं कोणाच्या बळग्यार झगडटलों हांव! तरीय सुनेल्या सोयऱ्यांतलो एकलो जाणटो मनीस थंय उबो आसलो,ताणें वचून ताका म्हटलें,''नातू म्हगेल्या कुळांतलो तो. आमचे सरींच दवरून वच म्हण सांग तूं स्नेहाक.''

तो दादलो मातसो रागारच दिसतालो.वातावरणय गंभीर आसलें. ताणें तीख आवाजांत म्हणलें,'' भुरग्याक आवय कडच्यान काडून घे म्हण सांगता? बेबद्या बापायच्या भरवंशार कोर्टान भुरग्याक अश्या बापाय कडेन कशें दिवंचें?''

'' हांव आसां, हांव पळयतां आसलों.

'' पिकिल्लें पान, तुजे खुस्तार त्या अपुरबुद्द भुरग्याक बापायसरीं दिवंचें?''

'' काल आर्ग्युमेंटाक आमच्या वकिलान कितें सांगिल्लें जाणां, सोऱ्याक लागप हो एक टि.बी.,कॅन्सर,लेप्सरी भशेन एक रोग. असलो खंयचो रोग जाल्लो जाल्यार बायल घोवाक सोडून वचूंक शकसासली?''

''ताका घरगुती हिंसाचाराक लागून घटस्पोट मेळ्ळा.''

'' लेप्सरी जाल्ल्या मनशाचें आंग कुसता खंय,आनी ताका वायट वास मारता.''

''सोड त्यो खबरी. घटस्पोटाचें सगळें जालां. मडें सारयेर लासून गेलां.''

आज्जो पुताक कोर्टातच सोडून एकलोच घरा आयलो. पुताचेर हरशी ताचो राग आशिल्लोच. सोरो पिलार अच्छेव करतालो. ताका लागूनच नातू हातांतल्यान गेलो अशें दिसतालें. सोऱ्याची केन्ना,कशी सुरवात जाली तें आदीं कळलेंच ना. अदी मदी घरांत सोऱ्याचो वास सो घुंवक लागलो. मागीर तो उसरां घरा येवंक लागलो. काय तेंपान घरांत बोवाळच सुरू जालो.




महाबळेश्वर सैल

*साहित्य अकादेमी आनी सरस्वती सन्मान ह्या मानाच्या प्रतिश्ठेच पुरस्कारांनी सन्मानीत ज्यश्ठ साहित्यकार*

स्नेहाक ताचें पिवप मात्सेंय मानव नासलें. मागीर बाचाबाची,झगडीं सुरू जालीं. स्नेहा ताच्या सोऱ्याच्या व्यसना वांगडा जुळोवन घेवंक शकलेंच ना. दर एक बाबतींत तें सोऱ्याचेंच निमीत्त मुखार करतालें आनी सोताक बरें नीतळ थारावंक पळयतालें.

तातूंत एक भुरगें जालें. आज्जो नातवार अतोनात जीव लावन बशिल्लो. हांगेल्या झगड्यां पेल्यान नातवाचो खूब खूब मोयेन मोगान सांबाळ करतालो. तो पयलीं रेवेन्यु खात्यांत नोकरेक आसलो. तीग जमा भयण्यां फाटल्यान जाल्लो हो भाव दिवाकर,एके कंपनींत नोकरेक लागलो नी रोखडोच सोऱ्याक लागलो.

000

स्नेहा सोबीत आसलें,सडसडीत घटमूट आंगलोटाचें आसलें. घटस्पोट मेळ्ळो तेन्ना ताका अठ्ठावीस वर्सां पुराय जाल्लीं. तागेलो बापूय तागेलें लग्न करूंक सोदतालो. तागेल्या भुरग्याक आपूण पोसतलों म्हणटालो.

लागीच्याच वाड्या वयल्या एकल्यान एक दीस एक सोयरीक हाडली आनी स्नेहालें दुसरें लग्न एका वर्सांत जालें. हो दुसरो घोव चाळीशेक मैला भायल्या गांवात कंप्युटराचो कसलो तररू व्यवहार करतालो. तागेली बायल दोन वर्सां फाटीं छातयेच्या कॅन्सरान मेल्ली. स्नेहा परस तो सात आठ वर्सांनी व्हड आसलो.

जेन्ना चलो रोहनाक खंय दवरतलो हो प्रस्न आयलो तेन्ना दुसऱ्या घोवाले आवयन म्हटलें, ह्या लग्नाक लागून आमी आवय पुताची ताटातूट करचीं नात. हांव तागेली खासा आज्जी जातलें. स्नेहा घोवा घरा वतना रोहनाकूय घेवन गेलें.

सुनेलें दुसरें लग्न जालें म्हूण कळटकीर आज्जो लाचार रडत कसो तिगेल्या कुळारा गेलो. ातां तरी नातवाक दिता काय म्हण विचारूंक. पूण स्नेहा वांगडा पुताकय घेवन गेलां म्हण कळटकीर वोग परत आयलो.

दुसऱ्या दिसाक तो त्या पयलींच्या वकिला कडेन गेलो आनी स्नेहा दुसरें लग्न जालां आनी वांगडा पुताकय घेवन गेलां म्हण सांगलें.

वकिलान सांगलें,'घटस्पोट मंजूर करतना कोर्ट कोणाकच केन्ना बंधन घाली ना,तांणी दुसरें लग्न जावंचें न्ही म्हण. आतां तुमका एकच जमेची बाजू ,ती पोटगी मागूंक शकची ना. आवय थंय पूत हें कोर्टाक मान्य आसतलेंच. आज्जो रडत घरा आयलो. ताका दिसलें आज्याचीं दुख्खां कोणाक कळनात!

स्नेहाचो दुसरो घोव पयले बायलेलें कॅन्सराचें दुयेंस काडटना तीन वर्सां बेजाकरून गेल्लो. आतां हें दुसरें लग्न जातकीर तो जसो सगळीं सुखां भोगूंक हापापिल्ले वरीं जाल्लो. आवयन मोटे फुसारकेन सांगिल्लें,'आमी आवय आनी पुताची ताटातूट जावंक दिवंचीं नात. हांव तागेली आजी जावन सगळें करतलीं!'

पूण दुसरो घोव साईदासाक तें आवडूंक नासलें. पूण हांगा विरोध केल्यार दुसरी स्वरूप सुंदर बायल हातांतल्यान वतली ही भिरांत आसली म्हण तो वोग रावलो. तेणी तकली हालोवन सगळ्याक 'हां' म्हटलें.

दुसरी आज्जी आपले परीन ताचें सगळें करताली. मम्मीय रोहना भोंवतणीच गणमणटाली.साईदासच इल्ली खोटी खरी अपुरबाय दाखयतालो. ताका पयलीं बायले पासून भुरगें नासलें. हो वोगच मर्दी पडला अशें दिसतालें. तो तापट,कुजक्या स्वभावाचो असो नासलो. पूण एका मोगा अभिमानी घोवाक दिसचें,बायल पुरायेन आपलीच आसची, मर्दी आनी कोणाचें वारें नासचें असो तो आसलो.

रोहन पयलींच ह्या घरांत आयलो तेन्ना नवी आज्जी ताका शिकयताली, कोणाक काका म्हणचें,कोणाक काकी म्हणचें, कोणाक आज्जी-आज्जो म्हणचें. पूण दुसऱ्या बापायक,साईदासाक ती पापा म्हण म्हण सांगूंक लागली तेन्ना तो सामकोच गडबडलो. आपणाच्यान तशें म्हणूंक जावचें ना अशें दिसलें.

तागेल्या पापाल्यो कांय गजाली ताका आवडनासल्यो खऱ्यो पूण तो ताचेर राग धरून बशिल्लो वा ताका तो मुखार नाका आशिल्लो अशें न्ही. लागीं लागीं पापा सद्दां सोरो पीवन उसरां येतालो. आदीं बरोच बोवाळ घालतालो.मम्मीन कितेंय आड उलयल्यार तिचे फाटीर थापटां घालतालो. तिका गाळी संवतालो. तरीय तीं एकेच कुडींत न्हिदतालीं. मम्मी ताका खाकोळांत घेवन कुशीन कुशीन पडटाली.

पपा केन्ना मुडांत आसल्यार बरो आसतालो. तास भर ताका मांडयेर घेवन बसतालो. कानात खबरो सांगतालो. एकेक कॉफी बायट चॉकलेट जीत रावतालो. तागेली पोटा पसून छातये मेरेनची ऊब जाय जाय शी दिसताली.

मम्मील्या घटस्पोटाक आतां वर्स जाल्लें. ह्या एका वर्साक तो खूब खूब शाणो जाल्लो. हांगाचे शेजारचे लोक,मेळूंक आयल्ले सोयरे ताचे सरी विचित्र,फकाणेर नदरेन अशे पळयताले. कोण ताका ओडून म्हऱ्यांत घेनासलो. सगळे वयलेचाराक शे उलयताले.दोळ्यांत विचित्र हांशें आसतालें. रोहनाक कितें तरी भितरल्यान कळटालें. एक दीस तो रडूंक लागलो, मम्मीन विचारल्यार म्हणूक लागलो, म्हाका



आज्याली याद येता!

लग्न जावन आयल्ल्या तिसऱ्या दिसाक दुसऱ्या घोवान स्नेहाक म्हटलें,''आतां आमी आमच्या बेडरुमांतच न्हिदुंया.''

स्नेहा जाणा आसलें,बेडरुमांत तर न्हिदूंक वचूकच जाय. पूण रोहन ताका परको भुरगो. भुरग्याचें कशें आपलेपण ना. तो वांगडा न्हिदूंक आयल्लो ताका आवडचें ना. ताचो स्वभावय म्हाका नीट कळिल्लो ना. आतां घोवा बायले मदीं झगडीं म्हटल्यार ताका थर्त भिरांत दिसताली. आनी ताका 'हेरच' भुरग्याक घेवन नव्या घोवा वांगडा न्हिदूंक वचप कशेंशेंच दिसतालें. ताणें रोहनाक म्हटलें,''बाळ,आज पसून हांव दुसरे कुडींत वेगळें न्हिदतलें,तूं हांगाच न्हीद.''

हाचेर रोहन व्हडान रडूंकच लागलो. 'ना,हांव हांगा एकलो न्हिदचो ना.'म्हणूंक लागलो.

'' अरे, हांगा तुगेली आज्जी आसा,तिचे बराबर न्हीद.''

तेन्ना ताणें व्हडान म्हटलें,''ना,ती म्हगेली आज्जी न्ही.हांव तिचे वांगडा न्हिदचो ना ''

स्नेहाल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. तें रोहनाक बरोच वेळ थापटीत रावलें.तो न्हिदून पडटकीर ल्हवच उठून घोवासरीं गेलें.

अशें हें आठ धा दीस चल्लें.मदीं तो उठून रडूंक लागल्यार आज्जी ताका मम्मीच कशी थापटीताली. ल्हव ल्हव ताका एकटो न्हिदची संवय जाली. नवे आज्जेची बेठी थुळेवणी  आसताली, पूण तिचे विशीं ताका चडशें आपलेपण दिसनासलें.ताका परती परती आज्जालीच याद येताली.

सारक्के तीन म्हयन्यान मम्मीक गर्भारपण आयलें. मम्मीची मोटी अर्थअपुरबाय सुरू जाली. पूण तिगेलें वोकप,घुवळ येंवचें सवंग रोहनाक आवडनासलें.तीं दोगांय पयस पयस शीं गेलीं. मम्मी आतां ताका पयलींच्या आपलेपणान पळयना अशें दिसतालें. एक दीस आज्जी म्हणटाली,'पयली बायल भुरगें जावचे पयलींच गेली,आतां वंशाचो दिवो स्नेहाच्या पोटांत येतलो.'

मागीर हांव कोणाल्या वंशाचो दिवो तर! इतलें चिंतपाची ताची पिराय नासली. तरीय ताका खूब भितरल्यान एक जाणीव स्पर्शून गेल्ली. एक दीस ताणें सट्ट करून मम्मीक म्हटलें,''मम्मी,आमी आज्याल्या घरा या.''

मम्मीन फक्कत ताची तकली थापटीली.

आतां स्नेहाचें पोट इल्लें इल्लें वाडूंक लागिल्लें. तें पळोवन रोहनाक वीट सो येतालो. ताका आज्याली,आज्जेली खूब याद येताली. आज्जो भायर गेल्यार रित्या हातान केन्नाच येय नासलो. चणें,तिळां लाडू,चाकलेटी बी कितें तरी हाडटालो. न्हावचे पयलीं आंगाक तेल काडटालो; घमघमीत वासाचें गांवठी खोबरेल तेल! आज्जेलीं दोनय धोंपरां धरिल्लीं, ती हातांत बडी धरून चलताली. बारीक मोठो वावर करतना,कुडींत पडिल्ले कडेन आसतना ती बारीक आवाजांत गाणीं म्हणत आसताली. म्हाका मटाळत म्हगेलें गाणें म्हणटाली. पापान पोटाक लावन मांडयेर घेकीर आख्खो पापा आपलो दिसतालो. मम्मी मात एकलीच कुशीन कुशीन रावताली. पापान मारतकीर रडत बसताली.पापाल्या सोऱ्याचोच सगळो खेव आसलो. म्हणच सगळें वायट आसलें.

आतां हांगा सगळे खोटी खोटी अपुरबाय दाखयतात.तें ताका कळटालें. मम्मी तर हेरच वावरांत गुंथल्ली आसता. आपलें गर्भार पोट घेवन पयस पयस बसता. दुसरो पापा केन्ना ताका रागान पळयता, मागीर खोटें खोटें हांसता.

ताका आतां आज्याली खूब याद येताली. कश्शेंय करून आज्यासरीं वच्चों अशें दिसतालें.

आज्जो सदृदा ताका परवचो म्हणूक घेवन बसतालो. ताणें ताका क ख ग घ मेरेन बरोवंक शिकयल्लें. आज्यान ताचें पूर्ण नांव,घरगांवाचो पत्तो पाठ करून घेतिल्लो–रोहन दिवाकर मठकार,लिंगावाडो,मुंडकेरी...

आतां तो साडेसात वर्सांचो जाल्लो. गेल्ल्या तीन वर्सांत तीन घरां, तीन शाळो आनी तीन तरेचो लोक जाल्ले. मम्मीले कुळरा तर बेठीच धुसपूस आनी निर्शेणी पातळिल्ली आसताली. एक दीस आज्जेन म्हटलें, 'ह्या भुरग्यालें नशीबच खोटें. कपलार कितें बरयल्लें आसा कोण जाणां!'

रोहन ल्हान तरी ताका सगळें कळ्ळें. ताणें खूब भोगिल्लें,सोंशिल्लें. तो आतां खूब खूब शाणो जाल्लो. ताका आतां हातूंतल्यान सुटावो करून घेवचें अशें दिसतालें. तेन्ना ताचे मुखार एकलोच उबो रावतालो तो पापागेरचो आज्जो! ताका आज्ज्यासरीं वच्चो कळवळेच लागले.

ताणें मम्मीक म्हटलें,''हांव आज्ज्यासरीं वयतां मम्मी,पावय तूं म्हाका.''

''खंयच्या आज्ज्यासरीं?''

''पापाल्या घरच्या.''

''ना. तुवें आतां हांव मरसर म्हज्या वांगडाच रावचें.''

'' मरूं तूं बेगीन, तुगेलो तो घोव मरूं बेगीन.''

ताचेर`क थापट मारचें अशें स्नेहाक दिसलें. पूण णव म्हयने भरूंक आयल्ले.ताच्यान थापट उखलूंक जालें ना.

मदीं चार दीस गेले. मम्मी दिवस भरिल्ल्यान तिचें कुंथनवप आनी वथरेवपच चालू आसलें. रोहनाचेरय ती रागार आसली.

रोहन जाणां आसलो हांगाच्यान –होसकट्टीसान ताच्या मुंडरगी गांवात बशी वयतात म्हण. वर्सा फाटीं तेच बसीर नव्या पापा वांगडा हांगा आयल्लो. ती तांबडी बसगाडी डांबर रस्त्या वेल्यान चकचकीत धांवता ती दिसूंक लागली. आनी मागीर आज्जालो हासरो चेहरोय दिसूंक लागलो.

बशीक तिकेटीक पयशे लागतात हें तो जाणा आसलो. मम्मी,नवो पापा शाळेक वयतना ताका केन्ना धा रुपये दिताले,मदीं कितेंय खावंक म्हण. स्कूल बॅगाच्या पाकिटांत आसले. ते काडून बरी तकली चलोवन मेजले. सत्तर अंयशी जातालेच.भुरग्याक अर्दी तिकेट लागता हें तो जाणां आसलो. ते ताणें काडून बोल्सांत घातले.

सकाळीं ताणें सवकसायेन शाळेची तयारी केली. सकाळीं आठांक शाळेंत पावंक जाय आसलें. पांच सात मिणटांचे वाटेरच शाळा आसली. पयलीं दोन म्हयने मम्मी ताका शाळेक पावोवंक येताली. आतां तो एकलोच शाळेक वयतालो. ल्हान तालुक्याचो गांव. शाळेच्या मुखार आनीक पांच सात मिनटार बस स्टँड आसलें.

मम्मी रागार आसली तरी ताणें हात हालोवन 'बाय मम्मी' म्हटलें आनी तो चलूंक लागलो. वाटेर एका घराचें बांदकाम चलिल्लें. थंय एका कोनशाक रित्यो पोतयो, दबे, पत्रे घालून दवरिल्ले आसले. आतां थंय कोणच नासलो. तो गेलो आनी ताणें स्कूल बॅग रित्या पोतयां राशी खाला घुसोवन दवरलें. मागीर तो बस स्टँडा वटेन धांवकच लागलो. थंय `क खाकी वस्त्रां घातिल्लो मनीस आसलो. ताणें बेगीबेगीन विचारलें,''मुंडरगी वच्ची बस केन्ना आसा?''

''येतली आत्तां,साडे आठांक सुट्टली. तो बोर्ड माल्ला चय,थंयसानच सुट्टली.''

तो बोर्ड सोदतच गेलो. ताका बोर्ड मेळ्ळो. ताणें तो नीट वाचलो,'मुंडरगी.'

बशीची वाट पळयत तो थंयच उबो रावलो.

000

तो पापाले घरा पावलो तेन्ना आज्जो वारांदांतच उबो आसलो. मुखार पावतकीर ताणें म्हटलें,''आज्ज्या,हांव आयलों. तुज बराबरच रावंक हांव धांवन येयलां.''

आज्जो हर्शउल्लासान कांय वेळ ताका पळयत रावलो. ताका वेंगेंत घेवन भीतर घेवन गेलो. खोशयेन उचांबळीत जावन ताका घेवन घरभर नाचलो.

''पार्वते हो टय तुगेलो नातू येयला. ताका परतो कोणय व्हरूंक येयल्यार तुगेले हातांतली बडी घेवन उबी राव. हांवय आतां म्हगेल्या दोनय हातांत दोन बडयो घेतलों. हांव आतां आतां ताका व्हड करूंक धा वीस वर्सां जगतलों.''

तेन्ना आज्जी खोशयेन मुरकटत,थरथरत थंय येवन उबी रावली.

तेन्ना पापा दिवाकर घरांतल्यान भायर आयलो. बापायन ताच्या तोंडार ठाऽऽ करून थापट फुलयलें.म्हटलें,''सोरो सोड, आतां तुवेंच ताचो मायेन सांभाळ करूंक जाय.''

आवयन,पार्वतेन म्हटलें,''आतां कसलें थापट दिता? तेन्ना पयलो सोऱ्याचो वास येयल्लो तेन्नाच थापटां पडूंक जाय आसलीं!''

''ना,आई,बाबा,खरोच हांव सोरो सोडटलों. रोहनाक बरें करतलों.''ताणें ताका वेंगेत घेतलें.

'तेन्ना जुविजान विचारिल्ल्या प्रस्नाची ताणें आतां खरी जाप दिल्या! म्हज्या बाळू,म्हज्या नातवा, आतां जुविजान छप्पन फावट विचारलें तरीय तूं सांगतलो,हांव मम्मी वांगडा न्ही पापा वांगडाच रावतलों म्हण!'

---

*मडगांव. मो. 9764072908*

# मन पारखी



ऐन मोसमांत जशे आंबे, काजू चंवरून येतात तशें आरतीचें मन आयज भलतेंच चंवरून आयिल्लें. एक अनामीक खुशी ताच्या तनामनांत नाचताली, बागडटाली. कशी, किद्याक कोणाक खबर! पूण आरतीचें आयज सकाळीं सदचे वरी उठपय उमेदीन जाल्लें. भोव चपळायेन हुतहुतेपणान ताणें आपल्यो सकाळच्यो विधी आटापून कॉलेजींत वचपाची तयारी करूंक लागलें. ताणें संवये प्रमाण सिडी प्लेयर चालू केलो आनी ताचे भोव आवडीचें, पसंतीचें गीत वाजूंक लागलें. खूब पोरणें, आकाशवाणी वयलें हें गीत तशें ताच्या घरच्यांक चडच आवडटालें. कितले फावट तांणी तें आयकलां ताचो हिशोब ना. तरी तें अवीट गीत आयकुपाची तांची हौस भागूंक ना. गिता तालार आरतीन आपलोय सूर मेळयलो. दोनांचोय सूर सरभरसून इतलो गोड जालो, हॉलांत बसून पेपर वाचपी अविनाशाचीय तनरी लागली...

ल्हाराऽ ल्हाराऽ ल्हाराऽ ल्हाराऽ तारुं तुरु तुरु धांवता!<br>
भुरु भुरु भुरु भुरु वाऱ्यार मन म्हजें धोलता........

गिताची ही वळ वाजपाक आनी आरतीचो धाकलो काका म्हणजे अविनाशाचो धाकलो भाव कविंद्र थंय पावलो. ताणें आरतीच्याच सुरांत सूर मेळोवन गावप आयकलें आनी तडक करून म्हणलें, ''हय व्हय ऽऽ हय व्हय कोणा मनशाचें मन अशेंच आतां वाऱ्या वाऱ्यार धोलत रावपाचें...! ''

अकस्मात कानार पडलेलीं कविंद्राचीं हीं उतरां आयकून आरतीचो सूर घुस्पलो. अविनाशालीय तनर भंगली.



विठ्ठल आवदियेंकार

*कोंकणीच ज्येश्ठ [illegible], शिक्षक आनी कथाकार*

''कोणाक किदें म्हणटा रे चाचा?'' आरतीन कांयच अर्थबोध जायना जावन कविंद्राक प्रस्न केलो.

''कोणाक आनी? जाचें मन वाऱ्यार धोलता ताका!'' कविंद्रान जाप दिली आनी आपूण मुमुरख्यांनी हांसलो. अविनाश, आरतीचो बाबा शिटकावलो आनी तोय मनां मनां सुखावलो. तो वेळ मेरेन कपडे करून हॉलांत पाविल्ल्या आरतीन परत्यान विचारलें, ''कोणाक म्हणटा रे चाचा?'' आनी दोगय भाव परत्यान एकामेकांक पळोवन हांसले.

''म्हाका कळना तुमची कुवाड्यांची भास'' अशें म्हणत तें किचना वटेन ब्रेकफास्टा खातीर वचूंक वळ्ळें. तेन्नाच कविंद्रान परत्यान चेष्टा करुंक म्हणलेंच, ''पळय! पळय! लोक कशे रानांत पडिल्ले वरी करतात!''

आरतीन तांचें उलोवणें आयकून ना आयकल्ले वरी केलें. पूण तें मातशें सांशक जालें.

ह्या दिसांनी घरांत सामकी सकयल्या सुरांत कसली तरी

कुजबूज चलताली. आपले व्यापांत आसपी आरतीक कांयच कळनासलें. आई आनी बाबा थोडीं खाजगींतच उलयतालीं. तें सामकार आयलें म्हणटकच तांचीं उलोवणीं पाराद जातालीं. 'आसतलें किदेंय घरगुती कामाचें!' अशें म्हणून आरतीन तें दुर्लक्षीतच केल्लें. मात काल धाकटे काकीन, कविंद्राचे बायलेन ताका उद्देशून सुचक शेरेबाजी केल्ली. ताचे वयल्यान ताच्या लग्नाचो किदेंय तरी विशय घरांत जाला असो ताका दुबाव सो आयलो. तातूंत आतां कविंद्रचाचालें हें अशे तरेचें उलोवप आयकून तें बुचकळ्यांतच पडलें.

आरतीलो ल्हानसोच घराबो. बापूय अविनाश, आई आनंदी, धाकलो भाव अंकीत, मदलो काका अजीत, ताची बायल अनिता आनी एक शाळेंत वचपी चलो ओमकार. धाकलो काका कविंद्र आनी ताची घरकान्न गीता. सगळीं एकेच कडेन रावतात. गांवांत ताच्या आज्यालो पसरो अविनाश आनी अजीत चलयतात. आनंदी आनी अनिता दोगीय जावो घरकामांत. कविंद्र आनी ताची घरकान्न गीता बॅन्केंत नोकरी करतात. सगळीं बरीं भावपणान चलतात.

कविंद्रान दोन वर्सा फाटीं लव्ह मेरेज केलें म्हूण मातशें घरांत वाजलेलें. पूण नवी व्हंकल गीतान आपल्या मायेस्त सभावान आनी भोव नमळायेच्या वागण्यान सगळ्यांक आपलें करून घेतलेलें. दिश्ट लागपा सारखोच घराबो चलतालो तांचो. तातूंत आरती ओंदू बी. कॉम फायनलाक, अंकीत बारावेक आनी ओमकार सातवेक. आरती तर शिकूंक एकदम हुशार. फस्टच येता म्हणल्यार जाता. सी.ए.बी करपाची ताची इत्सा. दिसण्यांत सोबीत सुंदर, हिरोईनच कशी! ताका सगळीं इश्ट, आमीग, घरचीं म्हणटालीं, 'एके चलयेचें नशीबच बरें. मागून व्हरतलीं पोराक!'

अशे संथगतीन चलपी तांच्या घरांत ही कुजबूज कसली आसतली? ती आरतीच्या लग्नाचीच हें ताका होलमतालें. सोमना फाटीं हॉलांत सगळीं बशिल्ले कडेन आसतना आरतीच्या बाबान उलोवपाच्या ओघांत म्हणलेलें, 'आमचें आरती जे घरांत वतलें तें घर सर्ग करतलें.' मागीर मदल्या काकान म्हणिल्लें, 'लागुया तयारेक?' आनी मागीर सगळीं पोटभर हांशिल्लीं. आरती लजून आपल्या रुमांत गेल्लें. उपरान्त तें हो विशयच विसरून गेल्लें. वाडटें चली म्हणटकच दर घरांत हे विशय चलतातच. आपूण तशें किदें गोळाक लागूंक ना. शिकप जायसर तरी आई बाबा हे विशयीं विचार करचीं नात असो ताणें गोड समज करून घेतिल्लो.

हे गजालीक पंदरस जायत! ते दिसा शेनवार आशिल्लो. पसरो बंद करुन बाबा आनी काका जेवणाक घरा आयिल्ले. सगळ्यांचीं जेवणां जातकीत सुशेग घेवंक म्हण हॉलांत बशिल्ले आसतात तेन्ना बाबान आरतीक उलो मारलो. तशें तें ताकतिकेन रुमांतल्यान हॉलांत आयलें.

''किदें बाबा?''

'' आरती, बाय फाल्यां आमकां शिरोड्या वचूंक जाय!''

''आमकां म्हणजे?'' आरतीचो प्रस्न.

'' आगो तूं, हांव, आनी काका, काकी, सगळीं.'' बाबाली जाप.

'' फाल्यां शिरोड्या कसलो उत्सव बी आसा तर?'' आरतीन अजापान विचारलें.

''तुका पळोवपाचो!'' बाबान सांगलें.

''किदें?'' बाबाल्या उतरांनी आरती उसळ्ळेंच.

''आगो बाये, फाल्यां तुका पळोवंक फोंडेसून चलो आनी ताचीं घरचीं अंजू आत्यागेर येवपाचीं आसात. शिरोड्या मेळचें केलां!'' काकान म्हायती दिली.

'' पूण...!'' आरती अजापांतच उरलें.

''रोखडेंच उडोवया करुन!'' काकीन हांसून म्हणलें. ''बाय, भुरगो बेस बरो आसा. एम. ई. जाला. पी. डब्लू. डींत इंजिनिएर म्हुणून कामाक लागला. तुका पयल्याच धपक्यांत पसंत पडटलो.''

आनी सगळ्यांनी री ओडली आनी सगळींच हासूंक लागलीं.

घरांतल्या कोणाकच प्रति प्रस्न करपा इतलें आरती धाडशी नाशिल्लें. ताणें कांयच प्रतिक्रिया दिली ना. तें खालते मानेन कांय वेळ थंय रावन मागीर आपल्या रुमांत गेलें.

अकस्मांत मोड येवन मन सैरभैर जावचें तशी आरतीची गत जाल्ली. त्या खिणा सावन आरतीच्या मनांत झुंज चल्लेलें. हें आनी किदें मदीं पिशेपणाचें शें! हांव आजून शिकतां. शिकप तरी पुराय करूंक नाका? लग्न खंय पळटा? आनी किदें ही दाखय, पळय करपाची रीत! सामकी आऊट डेटेड! चलो चलयेची वळख पाळख ना. रुप आनी आस्पतीन मनांत गेलीं म्हणटकच लग्न जालें? थरयलें लग्न. मागीर जीण भर करात संवसार एकामेकाच्या सांगातान. घरच्यांक जाय थंय आनी जाय तशें लग्न जावपाचें. चली भुरगें जालें म्हूणून किदें जालें! एका काळार तें चलतालें. आतां.......आतां भुरगीं विचारांनी सुदारल्यांत. कांय उंचेलीं सपनां बाळगून आसतात. तांका मोलच ना? मागीर हे सुदारणेंत आनी शिक्षणांत अर्थ किदें उरलो? असल्या ह्या गजालींचें समर्थन कशें करप? पालक म्हुणून आपलीं कर्तव्यां, जापसालकी सोयरीक म्हणटकच जालें? इतलें आयचें चली पालकांचेर

अवलंबून उरपाचे दीस उरल्यात? आपलें गिन्यान आनी कुशळतायेच्या बळग्याचेर चली भुरगें आयज संवसारांत नामना जोडूंक लागलां. नाका म्हाका असली ही बळजबरी. चलयेचे मुळावे हक्क आनी स्वातंत्र्य न्हयकारुन जाल्लें, केल्लें लग्न हांव मानूंक तयार ना. अशे एक न्हय साबार विचार आरतीचे तकलेंत सुणीं-माजरां कशीं एकामेकाक कोचोवंक लागले. पूण फकत मनांतच! व्यक्त करपा इतलें धाडस ताच्यांत नाशिल्लें.

ताका याद जाली, ताचो धाकलो काका कविंद्र आनी काकी गीता हांचें मोगांत पडून जाल्लें लग्न. तीं दोगांय एकेच बँकेंत सर्व्हिस करपी. सांगातान येतालीं वतालीं. तेन्ना मनांत जुळ्ळीं. एकमेकाक लग्नाचें उतर दिवन बसलीं. बाबा आनी मदलो काका लागले तेन्ना मातशे अनमनपाक! पूण थिरान ताणें सांगून सोडलें, आपलो एके चलयेचेर मोग आसा आनी आमी दोगांयनीय लग्नाचो निर्णय घेतला. तेदे वेळार घरांत बरोच बोवाळ जाल्लो. मोगान लग्न हो विचार आरतीच्या घरांत पचनी पडपाचो नासलोच. मागीर चिडचीड, अबोलो, तुश्चीतपणाचें वागणें हें जावंक लागिल्लें. पूण धाकलो काका कविंद्र 'फर्म' रावलो. तशी आरतीची तेन्नाची जावंचेली 'काकी' चली रुपांत, दिसण्यांत घराब्यांत सामकी बरी. फकत मातशी पोटजात आनी घरच्यांक कांयच कळूंक दिनासतना केल्लो मोग कोणाकच मानवूंक नाशिल्लो. तरीय रिती-भाती प्रमाण लग्न जाल्लेंच. थोडे दीस घरांत टेंव टेव वाजलें. मात धाकटे काकीन गीतान आपल्या सुसभावान सगळ्यांक आपले करून घेतले. मागीर सगळे जाल्लें गेल्लें विसरून गेले.

इतलें स्वातंत्र्य काकाक मेळ्ळें म्हुणून आरतीक नाशिल्लें. तीं दोगांय स्वताच्या पांयांर उबीं आशिल्लीं. आरती निकटें शिकतालें. आनीक तातूंत तें चली भुरगें! कसल्याय गजालीक विरोध करपाची तांक ताच्यांत नाशिल्ली,

विचारांच्या जंजाळांत ताची तकली भेरेली. ताका थकवो जाणवलो. तेच स्थितींत तें आपले खाटीर हातांचे घडयेंत तकली रिगोवन उमतेंच आड पडलेलें. इतल्यांत उले मारीत गीता काकी ताच्या रुमांत आयली.

''आरती न्हिदलां गो ऽऽ? जाली फाल्यांची तयारी?''

आरती उठून बसलें. पूण ताच्या मुखामळार नुरा नाशिल्ली. गीता मातशी चिंतेस्त जाली. तिणें रुमाचें दार धापलां म्हणपाची खात्री करून घेतली आनी येवन आरती म्हऱ्यांत बसली आनी म्हणलें, ''आरती? बाय किदें जालें? तूं अशें चिंतेस्त किद्याक? भुरग्याक पळोवंक वचपाची तुका उमेद इत्सा ना?''

''तशें कांयच ना काकी''........ आरतीची जाप.

''मागीर तूं अशें गोळाक दिवंक व्हरतल्या भशेन आकूळ पिकूळ जावन बसलां किद्याक?''

''हें पळय आरती, हिंदू कुटूंबांनी अजून मेरेन ही पळोवपाची चाल, रीत-भात आसाच न्हय चालंत? आनीक भुरग्याक पळोवन घेवपांत, कुटूंबाक मेळून येवपाक आडखळ कसली? हां! तुजे मनांत वेगळें मात आसल्यार सांग हां! कारण कॉलेजींत वचपी चली तूं! हेवटेन तेवटेन आपटुपाची शक्यताय न्हयकारुंक येना. सुरवेकच सांगून उडय, मागीर आनी वांदे नाकात.''

फकाणां करपाचे मुडांत गीता काकी उलोवन गेली. कारण तिका आरतीचेर तसो भरवंसो आशिल्लो. ताचे वागणुकेचीं लक्षणां शंबर टक्के मर्यादीत आनी संस्कारीत



आशिल्लीं.

''तशें कांय एक ना गे काकी. पूण शिकतां शिकतां मदींच हें लग्नाचें किदें घेवन बसला बाबा!''

''आगो! बरो भुरगो मेळटा जाल्यार शिक्षण किदें घेवन बसलां तूं? तुका किदें; गिरेस्तांचें घर मेळ्ळ्यार नोकरी करुंक जाय म्हजे सारकी? म्हजी गजाल वेगळी आशिल्ली. जाय जाल्यार शिकप मागीर करुं येता. मीयाँ बीवी राजी आसल्यार पुरो!''

''मागीरऽऽ!'' आरती निराशेनच बडबडलें. ''हांव किदें सामकेंच लग्नाचें जालां गे काकी?''

''चलयेचे बाबतींत ही विधी आसताच न्हय आरती? जितले बेगीन आनी बरे तरेन जाता तितलें आवय- बापायक सूऽऽ जाता. तें आसू. चल फाल्यां खंयची साडी न्हेसपाची मनांत हाडलां तुवें? सामकी हिरोईन कशी दिसपाक जाय आमचें आरती!''

''आसूं गे काकी, न्हेसतां खंयची तरी. म्हजो मुडच बिगडला. दिसता....!''फुडलीं उतरां ताका फुटलीं नात.

''शीऽ बाये! हें आनी किदें? किद्याय किदें निर्णय घेवशी बाये! तुजी मनाची अवस्था कळटा बाय म्हाका. पूण बाबा आनी आई कितलीं तुजे बाबतींत संवेदनशील आसात तें तूं जाणाच. तांका दुख्ख जातलें अशें किदेंय चिंतूक नाका आनी करूं नाका सायबीणी. चल उठ,उठ दाखय म्हाका तुजी फाल्यांची तजवीज. हें ओब्र वयनीन म्हाका दिलां तुका फाल्यां खातीर तयार करपाचें!'' अशें म्हणत गीतान बळजबरेन आरतीक उठयलें.

तीय मातशी खंतीशी जाल्ली. मनां-मनां तिणें म्हणलेंय बी, इतली ताकतीक किद्याक करूंक जाय आरतीच्या लग्नाक? शिकता, शिकूंदी आशिल्लें बाबड्याक! शिक्षणान न कळत चलयेक स्वावलंबन येता.

गीता काकीन आपल्या विचारांच्या घोड्याक लगाम घातलो. रात जाताली, आरतीक कांय म्हत्वाच्यो सुचना केल्यो. आनी एक सांगूंक विसरली ना. एकामेका कडेन उलवपाची संद घेयात. संवादांतल्यान मनीस बरो कळटा. दुसरे, प्रस्न विचारल्यार सडेतोड जाप दी. गरजे भायली म्हुर्वत नाका!''

इतलें सांगून गीता काकी गेली. आरतीय कांय खिणांत न्हिदेचे सुवादीन जालें. पूण दोळे लागचे पयलीं, 'चल्यान आपल्याक पयल्याच धपक्याक नापसंती दाखयल्यार कितलें बरें जातलें, वा आयज रातीं चल्यान 'आपूण ह्या लग्नाक तयार ना, म्हजो एके चलयेचेर 'लव्ह' आसा' असो बॉम्ब घातल्यार बेस्ट जातलें! अशे पिशेपणाचे विचार मनांत येवन गेलेच.

सकाळीं आईन उलो मारून ताका उठयलें. तेंवय ताकतिकेन उठून आपल्या कामांक लागलें. सगळी तयारी जाली आनी तीन गाडयांनी बसून तीं शिरोड्या पावलीं. तेवटेचे लोक येवचेच आशिल्ले. अंजू आत्यान सगळी तयारी बेस बरी केल्ली. असले कामांत अविनाशाली ही मदली भयण एकदम फिशाल. तातूंत व्हडल्या भावाले चलयेची सोयरीक देखून ताका भोवच आनंद जाल्लो. आरती कडेन ताच्या कुटुंबांतलीं सगळीं आपले आवयचें रूप पळयतालीं. इतलें तें तांचे अपुरबायेचें आशिल्लें. अंजून आनी आईन आरतीक भितर व्हरून कांय म्हत्वाच्यो सुचना केल्यो.

इतलें म्हणसर न्हवऱ्या कडली मंडळी पावली आनी ते सरशीं अंजू आत्याच्या घरांत उत्साह उमेद पातळ्ळी. हॉलांत एक कडेन बसून हेवटेन तेवटेनच्यो गजाली करतना न्हवरो-व्हकलेन एकामेकांक पळोवन घेतिल्लें. भुरगो एकदम सोबीत, आर्विल्ल्यापणाची सया मारताली. इंजिनिएर आसलो तरी उलोवण्याच्या संवादांत गोडवो, माधूर्य आशिल्लें! जणू कवीच कसो! आरतीकय प्रथम दर्शनी, पयल्या खिणाकच तो आवडलो आनी राती मनांत आयिल्ले सगळे विचार खंयचे खंय नानपयत जाल्ले. हें लग्न जावंकच जाय. फकत परिक्षा जाय मेरन...

इतल्यांत न्हवऱ्या सरीं बशिल्ल्या बापायन म्हणलें ''अदीक फॉर्मालिदादी नाकात. आमकां चली पसंत. हें लग्न जावंकच जाय. चाली रिती प्रमाण हेर सगळी वेवस्ता आमी तुमचेर सोडटात. आमची रीत भोगावळ आमी प्रतिष्ठेक धरून करतलेच. हां ! मात एक अट आसा...''

'अट' हें उतर आयकतनाच अविनाश, आरतीचो बापूय आनी हेर सगळींच चपापलीं. न्हवऱ्या बापायन फुडें म्हणलें, ''तशें भिवपा सारकें कांय एक ना. हें लग्न जातलेंच,पूण चलयेची बी. कॉम परिक्षा जाले उपरान्त...''

हीं जावंचेल्या मांवांलीं उतरां आयकून आरती उमेदीन चूर जालें. सगळ्यांच्याच मुखामळार उमेदीचो परजळ फांकलो. मदले काकान म्हणले, ''आमचें आरती कॉलेजींत बी. कॉम जालेंच म्हणून समजात. कॉलेजींत फस्ट येता तें!''

घरच्यांचो हो संवाद चलता आसतना न्हवरो व्हकलेची नदरा नदर जाली. आरतीची नदर प्रस्नार्थक आशिल्ली... 'तुका म्हजे मनांतलें कशें कळ्ळें? तूं 'मन पारखी' बी न्हय मूं?'

आरती आपले आपूणच लजेलें.

---

*सावईवेरें-गोंय, मोबा. 9822168542*

# न्हंयीतलें निळें पेन



गांवा लागीच्यान व्हांवच्या न्हंयी देगेर एक पोन्ने देवस्थान आशिले. तेज बाजुनत दोन तीन गोसाव्याली समाधी आशिली. दनपार भारार गांवांतले कांय जाण्टे लोक थंय सावलेत चकाटे मारते बसताले, नातर पत्यांचो डाव मांडताले. पैलवाटेन वडा रुख आशिले. आनी थंच्यानत न्हंयीत देवुक बारीक अशी वाट आशिली. लागीत शाळा आशिली. दनपार सुटी जाली की पोरां वडाच्या लांबच्या पाळांक धन्न झोके घेतालीं. पावसां दिवसांत न्हंयीक बरें इतलें उदा भरील उरतालें. तश म्हण ल्हान पोरांन न्हंयींत देंवचें न्हीं म्हण शाळेंतल्या पोरांक सांगताले. पूण न्हंयी पलतडी रावतल पोरांक उदकांतल्यानत शाळे येवंचें पडतालें. तें पळोवन मदले सुटेंत बाकीचे पोरांक बी न्हंयी उदकांत देंवचें अशें दिसतालें.

एकपटी दनपारां मस्त हुनत पडीले. सूर्य किरणांन न्हंयी उदाक चांदी भाशेन चकचकतालें. मदली सुटी जाली आनी आमगेल गल्लींतलीं बायलां कपडे उंबळूंक न्हंयींत देंवलीं. हांव आनी म्हागेल दोन तीन दोस्त बी न्हंयी उदकांत देंवले. बरें दिंभ्भी भर उदा आशिलें. एक जाग्यार उभें रावल्यार पांयां सखल्ली रेंव व्होळुव्होळू नात्त जाताली. तेन्न मजा येताली.हांवें सखल वाकून पळयलें,तर उदका वयर ल्हान निळसर पाळां दिसूं लागलीं. उदकांत कसली तरी निळी वस्तु पडील उरतली. आनी उदकाचे हालचालीक लागून निळ्या रंगाच्या ल्हान पाळां म्हणकी दिसताल उरु जाय, अश म्हाक दिसलें.कीतं उरतल काय उदकां पोंदात?? म नांत विचार येयलो आनी हांवें सखल वाकून रेंवेंत सासपून पळयलें. तर एक बडये भाशेन एक वस्तू हाताक लागली. उदकांतल्यान भायर काडन्न पळयली, तर एक निळ्या रंगाचें नवें कोर्र पेन आशिलें. कितलें सुंदर दिसताल सांगु !!

''कीत मेळ्ळां? कीत मेळ्ळां? पळया!'' दोस्तान विचारलें.

'' पेन!'' म्हणते हांवें हातांतलें निळें पेन दाखयलें.

दोस्ताक बी खूप आनंद जालो. तेणें पेन हातांत घेतलें. तेगेल टोपण काडन्न तळ हातार बरोवन पळयलें. मागीर म्हागेल कडे दिलें. मागीर हांव तें पेन घेवन इतर दोस्ताक



संदेश बांदेकार

*कोंकणीच्या कारवारी शैलींत सातत्यान कविता, ललित आनी कथा बरयता. अणकारांत फिशाल.*

दाखोवुंक शाळे वाटेन धांव मारली. म्हागेल बरा न्हंयी कडे येयिले दोस्त उदकांत हात घालन्न आपल्याक कितें पेन बी मेळता काय? म्हण सोदत्ते आशिले.

वर्गातल्या इतर दोस्तांक तें पेन खूप आवडलें.

''खंच्या दुकानांतल्यान घेयलें?'' किशोरान विचारलें. हांव न्हंयी कडे बोट दाखयलें. त्या कीत समजल ना उरतलें.

''कितल्याक घेयलें?'' काशीन विचारलें.

'' हांवें काय दुकानांतल्यान घेयल ना हें पेन. म्हाक न्हंयी उदकांत कीत तरी निळनिळें हालतें आशिलें दिसलें. हांवें उदकांत हात घातले बरा हें पेन मेळ्ळें.'' हांव सांगते आशिलों, तेदो म्हणलार उदकांत आनी कितें वस्तु मेळता काय? ते सोदते आशिलीं पोरां धांवन येयलीं. सगळे पोरांन तें कशें लागता काय म्हण पळोवन जालें. मागीर हांवें व्होड शिफारतीन तें पेन खिशाक लायलें.

''उदकांत अजून खूप जाग्यार निळनिळें दिसता.'' येदोळ म्हाज बरा उदकांत आशिल्या रम्यान सांगलें.

''वयचे आमी?'' आपले हातान केसकूट सांभाळते काशी म्हणलें.

कोण तरी सांगले, 'चला, शाळा भरुंक थोडोत वेळ आसा!'

पोराल एक टोळीत न्हंयी उदकांत देंवली. हांव बी तेमचे बरा सामील जालों. आत सगळे बाजुनत उदा हालते आशिलें. जाग जाग्यार उदका हरवें आनी निळें दिसते आशिलें. आपल्याक नक्कीत कीतं तरी मेळतलें हे आशेन सगळेत रेंवेंत हात घालन्न सोदते आशिले. इतल्यांत किशोराक गोल गुट्टी मेळ्ळी. रजेंत आमी चिचें रुखा मुळांत गुट्टेन खेळताले.

''अरे वाऽऽ गुट्टेन खेळूंक आनीक एक गुट्टी मेळ्ळी.'' पोरांक ती गुट्टी दाखयते बोब मारली. तश जावन आशिल पोरां आनीक उदकांत सोदुं लागले.

हेडमास्तर शाळेच्या पळ्ळेंत येवन न्हंयी कडे पळयते आशिले. खंची पोरां उरतलीं? हो अंदाज बांदते आशिले. 'पयली, दुसरींतलीं पोरां उदकांत खेळते आसात' अशें कोणें तरी व्होड पोरांन सांगलें. मास्तरान ' घणऽऽ घणऽऽ' घंटा वाजयली. ती शाळा भरची घंटा आशिली. न्हंयींतलीं आमी पोरां त्या बरा भानार येयलीं. हांव खिसो सासपिलो तर पेन नाशिलें. कीत जालें पेन? सखल वाकून रेती सासपिताना परत उदकांत पडन्न शेंडीलें. सगळे जाण शाळे कडे धांवते गेले. रडतेत हांव बी तेमगेल बरा धांवूक सामील जालो. मुकारत मास्तर बडी घेवन हजरत आशिले.



हेडमास्तरान आमकां शाळे भायरत रांकेन उबे केले. काल प्रार्थने वेळार तेमी उदका कडे कोण्णेंत वच नयो म्हण सांगिलें. व्होडल्या वर्गातलीं पोरां आमकां वाकून पळयते आशिलीं.

'' परत वयतले तुमी न्हंयी उदकांत?'' मास्तरान दबयते सांगलें.

'ना' बी म्हणची आमगेल्या पैकी कोणाकत हिंमत नाशिली. मागीर तेणें एक एकट्याक मुकार घेते हातांतल्या बडेन प्रसाद दिलो. हांव तर रडत लागलों. मागीर आप आपले वर्गात धांवडयले. दिवस भर म्हागेल केतुतत लक्ष लागतें नाशिलें. म्हाक परत परत उदकांत मेळीलें आनी परत सांडीलें निळें पेन याद जातें आशिलें. हांव नंतर गेल तेन्ना खंय खंय वाकलों थंय पेन पडील उरतलें. शाळ सुटले नंतर सोदुकत जाय हो विचार मनात येते आशिलो. अखेरेक पांच वाजले. शाळा सुटली. घर वयचे काय न्हंयी कडे वयचें, असो विचार मनात आशिल्यान क्षणभर मैदानाचेर थांबलो.

इतल्यांत सातवींत शिकतलें ताई येयलें. तेणें हाता धन्न घरा वाटेन वचूंक ओडलें.

''आत तरी घर चल, सांगतां आईक... सदा न्हंयी उदकांत खेळूं वयता म्हण. मास्तरालो मार बी खायलो आज उदकांत गेल म्हण!''

ताई दबकयतालें आनी हांव रडतेत घरा कडे वयते आशिलों. दोळ्यां मुखार फकत हालचें न्हंयी उदाक आनी निळें पेन येते आशिलें.

---

*मूळ मराठींतः* ***डॉ. कैलास दौंड,*** *अहमदनगर*

*कोंकणींतः* ***संदेश बांदेकार,*** *कारवार*

# समिक्षा आनी साहित्यांतलो कोयर!



आयज कोंकणींत ढगफुटी जाल्ले भशेन वा स्फोट जाल्ले भशेन खूब प्रमाणांत साहित्य निर्मणी जाता. सादारणपणान आठवड्याक दोन अशीं पुस्तकां उजवाडाक येतात. हें घडपा फाटलीं कारणां खूब आसात. तिरायताक दिसूं येता कीं गोंयांत साहित्यीक क्रांती बी घडल्या. सगळेच लोक कोंकणी पुस्तकां घेवन वाचतात. तशें आशिल्लें जाल्यार बेस बरें जावपाचें. पूण दुर्दैवान तशें घडना ही वास्तव स्थिती

आयज गोंय सरकाराच्यो खूब येवजण्यो आसात, केंद्र सरकाराच्यो आसात, कोंकणी अकादेमीच्यो आसात आनी ते खातीर पुस्तक छापपाचो खर्च आपसुकूच भरुन येता. उरिल्ल्या पुस्तकांच्यो पेळ्यांच्यो प्रती खपोवन प्रकाशक फायदो मेळयता. हांतूंतल्यो कांय प्रती खपऽनासतना उरल्यो म्हण प्रकाशकाक व्हडलो फरक पडना.

ही जाली वेवसायीक प्रकाशकांची गजाल. हें सगळें पळोवन पावसांत फुलून येवपी अळम्यां भशेन कांय वांयगण्यों प्रकाशन संस्था तयार जाल्यात. हे वेवसायांत आशिल्लो फायदो पळोवन स्वता लेखकच प्रकाशन वेवसायांत भितर सरल्यात. जर लेखक सरकारी नोकर आसत तर ताणें आपले बायलेच्या नांवान वा आपल्या सोयऱ्याच्या नांवान (जांकां साहित्यांतलें 'ओ' काय 'ठो' तें कळना), अश्यो प्रकाशन संस्था उगडल्यात. त्यो आपल्याच लेखकाचें साहित्य उजवाडायतात. हाचे खातीर कोंकणी साहित्य निर्मणेंत जरी राशींनी दोंगरभर भर पडत आसतली तरी साहित्याचो दर्जो दिसान दीस देंवत आसा हाची वाचक आनी अभ्यासक खंत उक्तायतात. संख्यात्मक सूज आयली म्हूण जायना, गुणात्मक वाड जावंक जाय. सूज ही एब्नॉर्मल आसता. गुटगुटीत जावप हें भलायकेचें बरें लक्षण.

आयज आमच्या वेवसायीक प्रकाशकां कडेन संपादक वा 'संपादक मंडळ' ना, जो ताचे मुखार आयिल्लें पुस्तक छापचें वा ना हें, वा तांतूंत कसले बदल घडोवंचे हें सुचयतलो. पूण सद्याक अशी परिस्थिती आसा कीं लेखक ह्यो सुचवण्यो मानून घेतलो व्हय? असो प्रस्न उबो जाता. 'मौजे' ही एक नामनेची मराठी प्रकाशन संस्था. प्रकाशक श्री.पू. भागवत हे संपादनाचेर कटाक्षान लक्ष दवरून प्रकाशन करताले आनी लेखकय तांच्यो सुचोवण्यो मानून घेताले. असो संपादक आमकां कोंकणींत मेळत व्हय? जर वेवसायीक प्रकाशकान आपलें पुस्तक छापलें ना तर हांवें वयर म्हळां तशें आमचे कोंकणी लेखक आपली प्रकाशन संस्था काडून पुस्तक छापून मेकळे! तांतूंत शुद्धलेखन, व्याकरणाच्यो चुको इतल्यो आसतात की खूब खेपे पुस्तक वाचीन दिसना. ते खातीर आयचे घडयेक कोंकणी साहित्यांत 'कोयर' वाडत चल्ला. हो कोयर कोंकणीक बाधक. हिताचो न्हय.

आयज कोंकणी साहित्याची परखड समिक्षा जावपाची गरज आसा अशें मत सगळे जाण विंगड-विंगड माचये वेल्यान उक्तायतात. एका काळार जेन्ना कोंकणींत साहित्य उणें आसलें तेन्ना साहित्याच्या दर्जाचेर आडनदर जाली हें समजूंक येता. पूण आयज हें साहित्य कसाक लावप


सखाराम शेणवी बोरकार
*काव्य, ललित, विनोदी साहित्य, अणकारांत योगदान. लोकवेदाचे खाशेले अभ्यासक...*

गरजेचें. कोंकणीक साहित्यीक भास म्हण मान्यताय मेळटगीर पंचेचाळीस वर्सां उप्रांतय आमी 'कोयर'च निर्माण करतले व्हय? नडणी काडिनासतना झाडां लावप कशीं? पयलीं हो कोयर कुशीक काडून ताचो विलो लावपाची गरज आसा. नव्यान जावपी कोयर थांबोवपाची गरज उप्रासल्या. आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें मोलाचें – ते खातीर कोंकणी साहित्याची परखड समिक्षा जावंची गरज आयज चड उप्रासल्या. धव्याचेर काळें करप म्हळ्यार लेखन, रिपोर्टींग म्हळ्यार वार्तांकन आनी साहित्यीक मुल्यां आशिल्लें निखटें साहित्य हाका वेगळावपी रेशा शाण्या लेखकाक खबर आसूंक जाय. ना जाल्यार शब्दांचें प्रदूशण वाडपी कोयरूच तो तयार करूंक लागतलो.

आयज मेरेन कोंकणी साहित्याची परखड अशी समिक्षाच जावंक ना. जाल्या तीं फकत आस्वादनां वा परिक्षणां. एस. डी. तेंडूलकारान आपल्या 'वालोर' ह्या पुस्तकांत आनी मागीर 'बिम्ब' म्हयनाळ्यांत अशी समिक्षा करपाचो येत्न केलो.

हे वेळार म्हाका कांय उदारणां दिवंचीं दिसतात. कांय वर्सां आदीं 'जाग' म्हयनाळ्यांत एका म्हालगड्या कवीन कविता बरयली (आयज हो कवी आमचे मदीं ना). कविता बरी आसली पूण कवितेच्यो निमण्यो वळी आसल्यो कीं कविता वाचप्यांक समजतली काय ना हाचो दुबाव आसा. जागाच्या संपादकान, स. माधवीबायन, तो कवी एक म्हालगडो कवी हें जाणां जावन लेगीत ते कवितेचेर आक्षेप घेतलो आनी आपल्या संपादकीयांत वाचप्यांची कुवत वयर काडपाचो कवीक कसलो अधिकार आसा? असो प्रस्न केलो. ह्या म्हालगड्या कवीक तें उस्तत्यां गेलें आनी कांय काळ ताणें जागांत बरोवपाचेंच सोडलें. थोड्या काळा उप्रांत ताणें जागांत परत बरोवपाक सुरवात केली.

वयर हांवें उल्लेख केला त्या भौ. एस. डी. तेंडूलकारानय प्रस्थापीत आनी नवोदीत साहित्यिकांच्या साहित्याची समिक्षा करपाचो येत्न केलो. पूण ती समिक्षा कांय प्रस्थापीत लेखक जे आयज कोंकणींत परखड समिक्षा जाय अशें म्हणटात तांकाय उस्तत्यां गेली. हो कोण आपल्या साहित्याचेर टिका करपी? परखड समिक्षा दुसऱ्याल्या साहित्याची करची, आपल्या न्हय असो कांयसो तांचो सूर दिसलो.

आमचे कोंकणींत आमी कांय श्रद्धास्थानां मानल्यांत. तांचें साहित्य म्हळ्यार Sacred. एका काळार उंचेल्या दर्जाचें साहित्य बरोवपी ह्या प्रस्थापीत लेखकांच्या साहित्याचो दर्जो आयज दिसान दीस देंवत चल्ला. आपणें केन्ना थांबचें हें ह्या साहित्यिकांक कळना. मराठींतले नामनेचे कथाकार जी. ए. कुलकर्णी हांकां जेन्ना आपले कडल्यान उंचेल्या दर्जाची साहित्य निर्मणी जायना हें समजले बराबर तांणी बरोवपाचेंच सोडलें. हें आमच्या तथाकथीत प्रस्थापीत लेखकांक केन्ना कळटलें? आपणें बरोवपाचें बंद केल्यार आपूण limelight ल्यान पयस वतलों, आपल्याक लोक विसरतले असो भंय हांका दिसता.

तांचे साहित्याचो दर्जो देंवला हें तांका कोणच सांगूक धजना. कित्याक तर हांचे कडेन तांचे हीतसंबद आसात. आपल्याक पुरस्कार मेळटलो जाल्यार हांचे पांगेत रावंक जाय हें सत तांका होलमलां. ते खातीर तांच्या साहित्याची समिक्षा करपाक कोण धजना.

हे वेळार म्हाका डॉ.नंदकुमार कामत हांची फेब्रुवारी 2020 म्हयन्यांत 'जागा'च्या अंकांत आयिल्ल्या 'नव्या शतमानांतली डायरी:2' ह्या लेखांतल्या एका म्हत्वाच्या मुद्या कडेन वाचप्यांचें लक्ष ओडचें अशें दिसता. ह्या लेखांत डॉ. नंदकुमार कामत म्हणटात , आयज मेरेनच्या कोंकणी समिक्षेचो नियाळ केलो जाल्यार दिसता ती सगळी सभिक्षाच(भीक मागून समिक्षा जाता तिका सभिक्षा म्हणटात.) सभिक्षांतलो आनीक एक प्रकार म्हळ्यार स्वभिक्षक– आपल्याच बरोवपाचेर उलोवपी, बरोवपी सभिक्षक. हांतूंतले कांय स्वभिक्षक ' हांवें ही कादंबरी कशी बरयली' ना जाल्यार 'म्हजे कादंबरीची कथा', 'म्हजे कवितेची काणी', 'म्हजे अमके कवितेंतली प्रतिमा सृष्ट' अशें बी बरोवपाक लागले. डॉ. कामत हांणी बरयलां तें शें प्रतिशें खरें आसा. हाका जोडून हांव म्हणीन, आपलें साहित्य इतल्या उंचेल्या दर्जाचें आसा कीं तें वाचकांचे आनी समिक्षाकांचे तकले वेल्यान वता आनी ते खातीर ते आपले साहित्याची दखल घेनात अशें म्हणपीय आमचे कांय साहित्यीक आसात.

आयज आमच्या म्हालगड्यांनी कांय नवोदीत साहित्यिकांक इतले माथ्यार चडोवन दवरल्यात कीं आयज तांच्या साहित्याची जरी समिक्षा केली, तांका कांय सुचोवण्यो केल्यो तर त्यो तांका आवडनात. आपूण एक व्हड साहित्यीक असो तांचो 'गोड' गैरसमज जाल्लो आसा. आनी ते खातीर आयज कोंकणी साहित्याचो दर्जो देंवत आसा. एका काळार भौ. दामोदर मावजो आनी भौ. माधवबाब बोरकार सुनापरांताचे आयतार पुरवणेंत 'आपरोस' ह्या सदरांत नवोदीत साहित्यिकांच्या साहित्याचेर (कथा आनी कवितेचेर) कांय काळ बरयताले. नवोदीत साहित्यिकांक मार्गदर्शन करताले. आयज ही परिस्थिती उरल्या? आयज सोशल मिडीयाचेर मेळपी आंगठ्यांच्या नेटाचेर हे नवोदीत साहित्यीक जगतात. ते पावतेचेर स्वताक मोलायतात. बाकीबाब बोरकार म्हणटाले तशें हो काळ सिध्दीचो न्हय तर प्रसिध्दीचो!

आयज खंयच्याय कोंकणी साहित्यिकाक ल्हान जावं व्हड, आपल्या साहित्याची परखड समिक्षा केल्ली नाका. तांका टिका सोंसना. तांका फकत आपली तोखणाय आयकून घेवपाची म्हळ्यार फाट मोव करून घेवपाची संवय जाल्या. टिका आयकून आत्मसंशोधन, मंथन करपाची गरज तांका लागना. मागीर तो त्या समिक्षकाचीं कुतां काडटा, ताची लायकी वयर काडटा. आय बाय वयर काडटा. ताचें वाचन कितलें? ताची साहित्याची जाण कितली? ताची कुवत कितली? अशे प्रस्न तो त्या समिक्षकाक विचारता. हाका लागून साहित्याची परखड समिक्षा करपाचे भानगडींतच कोण पडनात.

हाका कांय समिक्षकय जापसालदार आसात. थोडे तथाकथीत समिक्षक, साहित्याची समिक्षा करपाचें सोडून व्यक्तीगत उणी दुणी काडटात आनी आपली भितरली 'खाज' भागोवन घेतात. तांचे समिक्षेक 'कोल्याक द्राक्षां आंबट' जाल्ल्याचो भास आनी वास येता. समिक्षा बरयतना तर्कशुद्ध विचार मांडपाक येवंक जाय. एकॅडेमीक बुन्याद जाय असल्या लेखनाक. मुळांत समिक्षकाक साहित्याची बरी जाण जाय. वाचन व्यासंग हाका पर्याय ना. हांगाच कथीत समिक्षक फाटीं पडटात. एकाद्री कलाकृती वायट कित्याक हें ताका तर्कशुद्धपणान सांगपाक येवंक जाय. कांय वेळार साहित्य परवडलें, पूण ही फ्राक विचित्र समिक्षा न्हय अशें वाचप्यांक दिसले बगर रावना. पूण ह्यो गजाली सामक्यो थोड्यो.

खरें सांगू ! कोण कितलेंय म्हणूं 'कोंकणींत आमकां परखड समिक्षा जाय, परखड समिक्षा जाय,' पूण ती समिक्षा आपल्या साहित्याची न्हय तर दुसऱ्यांच्या साहित्याची. आपल्या साहित्याची परखड समिक्षा केल्ली कोणाकच हांगा नाका. हेंच खरें सत आसा. शिवाजी जावंचो, शिमेवेलो जवान जावंचो शेजारच्या घरांतलो. आपलो पूत निळू न्हय.

आपलो दर्जो, आपलो अभ्यास आनी आपली योग्यताय आदीं तपासूंक जाय. वळखूंक जाय, बुध्दीच्या नाड्यार घांसून. ही वृत्ती जो मेरेन बदलची ना तो मेरेन कोंकणी साहित्याचो दर्जो उणाक, कोणाकूच अभ्यास ना असलीं मुक्ताफळां उधळप चालू उरतलें, एके तरेचीं हीं पिसायपणां वाडटलीं आनी पर्यायान कोंकणींतलो साहित्यीक 'कोयर' वाडत रावतलो.

*मडगांव, मो.: 9923306751*




स्वरसम्राज्ञी लता मंगेशकर हिच्या मरणा उपरांत तिका श्रध्दांजली ओंपपाच्यो देशभर जायत्यो संगीत कार्यावळी जाल्यो. अशीच एक कार्यावळ कोथरूड, पुणे हांगां जाल्ली पळोवपाक मेळ्ळी. सेगीत दोन दीस चलिल्ले हे कार्यावळीचें नांव आशिल्लें,'लतादिदी'.

एक स्मरणयात्रा. डॉ.सलील कुलकर्णीन सूत्रसंचालन केल्ले हे कार्यावळींत नामनेचे गायक सुरेश वाडकर, विभावरी आपटे, शरयू दाते, आर्या आंबेकर आनी हेर गायक कलाकारांचो वांटो आशिल्लो. सगळीं मराठी पदां दिदीन गायिल्लीं. भा.रा. तांबे, पि. सावळाराम, मंगेश पाडगावकर अश्या दिग्गज गितकारांचीं. एका परस एक गोड, खूऽऽब सुंदर! तांतूंतलें एक गीत–

'अखेरचा हा तुला दंडवत सोडुनी जाते गांव' खूबच गोड आवाजांत सादर केल्लें. 'मराठा तितुका मिळवावा' छत्रपती शिवाजी महाराजांचे जिणेचेर आदारीत ह्या सिनेमांतल्या गितांची संगीतकार स्वता लता मंगेशकर, 'आनंदघन' ह्या नांवान.

औरंगजेबाच्या आधिपत्या खाला आशिल्ल्या सगळ्या हिंदु धर्मियांक गांव सोडून वचपाचो हुकूम सोडटात. गांव सोडटना व्याकूळ जाल्ले एके अस्तुरेचे आर्त स्वर काळजाक भिडटात–

*अखेरचा हा तुला दंडवत, सोडून जाते गाव*
*दरीदरीतून मावळ देवा, देऊळ सोडून धाव*
*तुझ्या शिवारी जगलें, हंसलें*
*कडे कपारी अमृत प्यालें*
*आतां हे परि सारें सरलें, उरलं मागं गाव.*

मनशां आपलो गांव सोडून कित्याक वतात?

काम–धंद्याक लागून, पोटाक लागून, आपल्याक जाय तशें त्या गांवांत मेळना म्हणून! ..कारणां खूब आसात.

फाटलीं चोवीस पंचवीस वर्सां हांव सांतीनेज, ताळगांव शिमेच्या वाठारांत रावतां. गॅलरींतल्यान सकयल पळयतना कितले तरी संख्येन स्थलांतरीत लोक आतऱ्या– पयऱ्यान येतात ते दिश्टी पडटात. हातांत बॅगां, फाटीर पिशव्यो. केन्ना एकटे–दुकटे, केन्ना बायल भुरग्यां सयत. तांच्या न्हेसणा वेल्यान, तांच्या दिसण्या वेल्यान ते पयसुल्यान खंयच्यान तरी आयल्यात तें कळटा. कोण कर्नाटकांतल्यान, कोण बिहार–झारखंडांतल्यान, कोण ओडीशांतल्यान, कोण



**अरूण काकोडकर**

*'मुठभर मळब' ह्या लेखसंग्रहांतल्यान कोंकणी वाचकां मर्दीं आपली सुवात निर्माण करपी लेखक कथा आनी ललित लेखनांत फिशाल.*

बंगाली, नेपाळी , उत्तर भारतीय.

ते हांगां येतात आनी मागीर हांगांच थिरावतात. मेस्तकाम, गवंडीकाम, प्लम्बर, टाइलर,पेंटर,मजूर, सेक्यूरिटी गार्ड, कामवाल्यो, वावराड्यो सगळे तरेचीं कामां तीं करतात. हजार हजार मैलांचो प्रवास तो, सुखाचो थोडोच आसतलो! आपलें घरदार सोडून वाटे वेल्या अडचणींक फुडो करीत परक्या शारांत तीं कित्याक येतात? गांवांत रावन तांच्या पोटापाणयाचो प्रस्न सुटना आसूंये! चार पयशे हातांत येनात म्हणून कामाचे आशेन तीं इतलीं पयस मेरेन येतात. जितली तांकां रोजगारीची गरज आसा तितली आमकांय तांच्या कामाची गरज आसा हें आमी विसरूंक फावना.

वर्सां वर्सां दुसऱ्या गांवांत राबितो केले उपरांत लेगीत तांकां आपल्या गांवची ओड आसतलीच. आपली सदची जीण फाटल्यान दवरून सूख मेळोवपाचे आशेन खबर नाशिल्लो अनवळखी वाठार सोदीत येवप होवूय आयुश्यांतलो एक टप्पो! आयुश्याचे वाटेर आशेचो फुडार सोदतना नवे अंदाज- अदमास खुणयत आसतात. आनी मागीर सदचें जग सोडून तीं मनशां एका वेगळ्याच जगांत येवन पावतात. हें स्थलांतर तांचे कुडींचेंच नासता, मनांचें आनी विचाराचेंय आसता.

स्थलांतर मागीर तें स्वताचे इत्सेन जावूं , उदरगतीचे आशेन जावूं ना जाल्यार नाइलाजान, मनशाक तें एका तिठ्यार हाडून उबें करता. केन्ना हो तिठो उदरगतीचो आसता, केन्ना अवनतीचो. मनीस जंय जल्मलो, वाडलो त्या गांवांत सुखान जगप असह्य जाता देखून तें सुसह्य जावचें, आपल्या कश्टांक,मेहनतीक फावो ती संद मेळची, जी मोख आपूण बाळगितां तिका व्हडलें मळब मेळचें अशें ताका दिसता आनी तो नव्यो नव्यो वाटो सोदून काडटा.

रोजगारी, अर्थीक उदरगत हीं स्थलांतराचीं कारणां आसलीं तरी आनीकय कांय कारणां आसात. झुजांक लागून जिवाच्या भंयान जातात तीं स्थलांतरां, वसाहतवादाच्या झगड्यांक लागून जातात तीं स्थलांतरां, सत्तारूढ राष्ट्राच्या अक्षम्य राजकारणाक लागून उध्वस्त जाल्ल्या देशांतल्यान जातात तीं स्थलांतरां! अश्यो अनेक देखी स्थलांतराच्यो!

मनशाचो सगळो इतिहास स्थलांतराचो. मनीस पयलीं हेडत रावलो, अन्नाचो आनी उदकाचो सोद घेत. पांचेक हजार वर्सां आदीं नव्यो नव्यो संस्कृतायो जल्माक आयल्यो तांतूंतली सगळ्यांत पोरणी संस्कृताय सिंधु संस्कृताय, ईंडस व्हेली सिव्हिलायझेशन. ताचे उपरांत आर्य लोक भारतांत आयले. ते खंयच्यान तरी दक्षीण रशियेंतल्यान आयले. कांय लोक अस्तम देगे वयल्यान युरोपांत पावले. कांय पर्शिया आनी अफगानिस्तानाच्यो शिमो हुपून हिंदुस्थानांत पावले.



सप्त सिंधुच्या प्रदेशांतल्यान आर्यांनी मध्य भारत, दक्षीण भारत अशी भोंवडी केली. तांणी पिकाळ जमनी सोदून काडल्यो. सवाद, गंव, दाळ, कड्डणां अशीं अनेक धान्यां रोयलीं. फळझाडां रोयलीं. नवीं शारां उबारलीं. तांणी संस्कृत भास सोदून काडली. ते वाचपाक, बरोवपाक शिकले.

येवरोपी हिंदुस्थानांत आयले ते वेपाराक लागून. ब्रिटीश जेन्ना हांगां आयले तेन्ना सगळ्यांत पयलीं तांणी हांगाची समाज-जीण, हांगाची संस्कृताय, हांगाचें हवामान, हांगाचो एकूण भुगोल हाची म्हायती काडली. हांगाची भास शिकले. देडशेंक वर्सां तांणी भारताचेर राज्य केलें.

अमेरिका हो संपूर्ण देश स्थलांतरीतांचो. ब्रिटीश, जर्मन, फ्रेंच, इटालियन, जपानी, चिनी, स्पॅनिश अशे विंगड विंगड देशांतले स्थलांतरीत अमेरिकेंत येवन थिरावले. फुडले शिक्षणा खातीर, नोकरे खातीर भायर सरिल्ले भारतीय अमेरिकेंत पावता म्हणसर 1960 चें दशक उजवाडील्लें. खऱ्या अर्थान अमेरिकेंतले भारतीय हें यंगेस्ट इमीग्रंटस जनरेशन......

अमेरिकेंतल्या विद्यापिठांक संशोधक जाय आशिल्ले. विज्ञानयुगाचे तयारेक लागिल्ल्या थंयच्या प्रयोगशाळांक प्रशिक्षीत सहाय्यकांची गरज उपराशिल्ली. थंयच्या उद्देक क्षेत्राक तज्ञ मनीसबळाची गरज आशिल्ली. शिकून तयार जाल्ले डॉक्टर, इंजीनियर, आर्किटेक्ट बेगोबेग जाय आशिल्ले. थंय संदी आशिल्ल्यो. हांगा मनशां आशिल्लीं. पदवेची तिकली लावन भारतीय विद्यापिठां भायर सरिल्ल्या उमेदवारांक भारतांत संदी मेळऽनाशिल्ल्यो. उमेदी भारतीय तरनाट्यांनी देशा भायर वचपाची जोखीम आपणायली. पांच-धा वर्सांत परतून मायदेशांत येवपाचो बेत करून गेल्ले तरनाटे परत आयले नात. फाटल्या साठ-पांसठ वर्सांत एक पिळगी सोंपली. दुसरी पिळगी उबी जाली.

अमेरिकेच्या स्थलांतरा परस खूब व्हडलें स्थलांतर

घडलें तें भारत–पाकिस्तानाचे फाळणी वेळार. भारताच्या इतिहासांतलें सगळ्यांत व्हडलें स्थलांतर. एक ते सवाय कोटी स्थलांतरां फाळणी वेळार जालीं.

फाळणीन अनेक कुटुंबां देशोधडीक लायलीं. फाळणीच्या सगळ्या विध्वंसांत चडांत चड परवड जाली ती ल्हान भुरगीं आनी बायलांची . कितल्या बायलांचेर बलात्कार जाले आनी खूब बायलांच्या नशिबांत आपलें पूर्वायुश्य पुसून, स्वताची वळख विसरून जगपाची पाळी आयली. तिचो धर्म कितें, समाजीक दर्जो खंयचो हाचे परस ती बायल मनीस म्हणूनच तिचे माथ्यार फाळणीन वेदना सासणाच्यो बांदून दवरल्यो.

ज्येश्ठ आनी श्रेश्ठ विज्ञानीक, साहित्यीक, जाणकार, संगीततज्ञ सगळ्यांकच फाळणीचो मार बसलो. फाळणीचे वळवळे जांणी सदाकाळ सोंसले तांतूंतले एक ज्येश्ठ उर्दू साहित्यीक सादत हसन मंटो. मुंबयत हिंदी सिनेमा सृश्टींत बस्तान बशिल्लें आसतना ह्या साहित्यिकाक फाळणी उपरांत पाकिस्तानांत वच्चें पडलें. देशाचे दोन कुडके जातना धर्मांधतायेचीं विंगड विंगड रुपां ताणें पळयलीं आनी तीं पळयतना ह्या संवेदनशील मनशाचें काळीज फुटून गेलें. त्या भगभगीत वेदनांचें वास्तववादी पडबिम्ब ताच्या साहित्यांतल्यान प्रकट जालें.

अंयशाच्या दशकांत फाळणीच्या विशयाचेर दोन दूरदर्शन मालिका आयिल्ल्यो. पयली, रमेश सिप्पीची 'बुनियाद' मालिका. हातूंत फाळणीक लागून वाताहात जाल्ल्या हवेलीराम कुटुंबाची काणी साकार जाल्या. फाळणीक लागून एकाच कुटुंबातल्या मनशांची दोन देशां मदीं विभागणी जाता. जीं मनशां पाकिस्तानांत वतात तांचीं मनां जल्मभूंयेंत अडकून पडटात. दुसऱ्या देशांत तीं आपलो संवसार मांडटात पुणून जल्मभूंय सोडून आयिल्ल्याची खंत सदांच तांच्या काळजांत उरता.

फाळणीचे फाटभूंये वेली दुसरी मालिका ज्येश्ठ साहित्यीक भीष्म सहानीन बरयल्या 'तमस' नवलकथेचेर आदारीत. ब्रिटिशांचे कपटनितीक लागून निर्माण जाल्या हिंदु–मुसलमानाच्या धर्मीक मतभेदाक लागून ब्रिटिशांचें कशें फावता हाचें चित्रण तांतूंत केलां.

आदर्श समाज–वेवस्थेंत अशें समजप आसता जाचो जंय जल्म जाला, जे जाग्यार तो व्हड जाता थंय ताका सगळें मेळूंक जाय. पुणून तशें जायना. आमी कितलेंय येवजीलें तरीय एका जाग्यार आमी बांदून रावंक शकनात. काम–धंद्याक लागून वाडवडीलांचो जागो सोडून आमी दुसरे कडेन रावंक वतात. एका शारांतल्यान दुसऱ्या शारांत, एका प्रदेशांतल्यान दुसऱ्या प्रदेशांत..एका देशांतल्यान दुसऱ्या देशांत.

स्थलांतरीत दुसऱ्या शारांत वतात तेन्ना तांच्या मनांत एक आशा आसता. परक्या शारांत आपल्याक मोग , आपुलकी मेळची अशी तांची इत्सा आसता. पुणून शारांची उदरगत जातना व्हड संख्येन वापरिल्ल्या कामगारांच्या शाररीक जावं मानसीक भलायकेचो विचार जायना. शार तांकां दिसवडो दिता, आलाशिरो दिता पूण तांचे सवस्तकायेचो विचार करीना. शाराची भरभराट जावपाक ज्या कामगारांचो, मजुरांचो हातभार लागता तांच्या वांट्याक येता फकत दोन वेळची रोटी. परकेंपण, उपरेपण तांच्या वांट्याक येता. जेन्ना कसलेंय संकश्ट येता तेन्ना हे मजूर आपल्या गांवांची वाट धरतात. कारण गांवांतली माती कसलीय आसली तरी आपलीं मनशां, आपलें घर थंय आसा ही जाणवीकाय तांच्या मनांत दडून बशिल्ली आसता. कोरोनाच्या संकश्टा वेळार रोजीरोटी वगडायिल्ले असंख्य मजूर साटली पोटली खांदार मारून चलत गेल्ले आमी पळयल्यात.

हाचे परस वेगळें अशें आनीक एक चित्र ! शिक्षणा खातीर, नोकरे खातीर ऐन पंचविशींतले भारतीय तरनाटे मांयभूंयेचो किनारो सोडून अनवळखी देशांच्या रोखान प्रवासाक भायर सरतात. थंय वचून रावतात. एक एक करून वर्सां अशींच सरतात. अमेरिके सारख्या देशांत पयलीं एच.एन. व्हिसा, ग्रीनकार्ड मागीर थंयचें नागरिकत्व करतां करतां ते थंयच थीरावतात. थंयचे सोबीत रस्तेकितली अजापाची निवळसाण , चाळीस पन्नास मजल्यांची इमारती. थंयच्या स्वछंदी जिणेंत ते सुखावतात. वर्सां वतात तशीं इल्लीं इल्लीं हीं मनशां मूळ समाजा पसून, भाशे पसून, कुटुंबा पसून तुटत वतात आनी एका नव्या समाजाचे वांटेकार जातात.

भुरगीं व्हड जालीं, स्वतंत्र जालीं तशें तांचें आपलें अशें एक जग उबें जाता. तांचो बरो फुडार चिंतून आवय–बापूय तांकां पयस धाडपाक तयार जातात. भुरगीं पयस आशिल्ल्यान तांचो उणाव, दुराय ,जाणट्या आवय–बापायचें एकसूरेंपण एका फाटल्यान एक येत रावता. वर्सांन वर्सां आपल्या भुरग्यांक मेळप ना, नातरांचो दुरावलेलो सांगांत हाका लागून मन खिन्न खिन्न जाता. जाणटेपणांत निमाणें एकसुरेंपण आपणावपाचें गणित मानून, आसा तांतूंत सुख मानप होच एक मार्ग आसता.

आयच्या युगाची ही एक काणी !

---

*करंजाळे, मो.: 9822588852*



# वेवसायीक नियोजन

वेवसाय म्हणलो म्हणटकच आमचे मुखार प्रस्नांचो भडिमार सुरू जाता. सुरवात खंयच्यान करप, पयसो कसो उबारप, वेवस्थापन कशें करप अशे वेगवेगळे प्रस्न उप्रासतात. उद्येग करचो, स्टार्टअप सुरू करचो अशें कितल्याच तरणाट्यांक दिसता. स्टार्ट अप म्हळ्यार नव्यान स्थापन केल्लो वेवसाय वा उद्येग, जाचें उत्पादन वा सेवा ही पुरायेन नवी आसता. भोवतेक स्टार्ट अप्स हें समविचारी लोकांनी एकठांय येवन सुरु केल्लो आसता. तरणाट्याक योग्य मार्ग दाखोवपी, शासकीय आनी भोवशीक थरार वावर जाता. ह्या प्रस्नांचें स्वरुप पळेल्यार आनीकय यत्न जावप भाव गरजेच.

उत्तम शेती, मध्यम वेपार, आनी कनिष्ठ नोकरी ही विचारधारा स्वातंत्र्या आदीं सावन भारतीयांच्या मनांत खोलायेन रुजलेली आसा. जागतीकीकरणाचें धोरण आपणायत सावन ह्या तत्वांत बदल जावन उत्तम नोकरी, मध्यम वेपार आनी कनिष्ठ शेती हें तत्व भारतीयांच्या मनांत रुजलेलें आसा.

देवान आपल्याक हात दिवंचो, ताणें योग्य मार्ग दाखोवंचो, ताणें आपल्याक तारचें ही लिन दिन जावपाची शरणागतीची वृत्ती भारतीयांक फाटीं ओडपी मुखेल कारण जावन आसा. खंयचेय बाबतींत यशस्वी जावंचें आसत तर त्या खातीर तयारी करची लागता. सेगीत काम करचें पडटा, सराव करचो पडटा, मेहनत घेवंची पडटा. एखाद्या मनशाक खेळांत प्राविण्य मेळोवपाचें आसल्यार वर्सां, म्हयन्यांचे म्हयने प्रशिक्षण घेवंचें पडटा, स्पर्धा परिक्षेंत येस मेळटलें जाल्यार बरीच तकालस काडची पडटा, खंयचोय विद्यार्थी इन्ट्रन्स परिक्षेची तयारी करत आसल्यार तो म्हयन्याचे म्हयनेच न्हय तर वर्सा कणकणी अभ्यास करचो, तशेच वेव्हारात जम बसपाक बरेच कश्ट करचो पडटा. काम हें काम आसता, तांतूंत आळसाय उपकरना,

उच्च नीच हो भेदभाव उपकरना. वेगवेगळे पदार्थ विकप हो जर धंदो आसत, तांतूंत स्वताचे पसंतीक सुवात आसूंक फावना. 'मसाला किंग' ह्या पुस्तकांत धनंजय दातार आपल्यो बऱ्योच यादी सांगतना बरयतात. कोणा कडेन कितें आनी कशें उलोवप हाचेर भान दवरुंक जाय. योग्य वेळार योग्य निर्णय घेतलो ना जाल्यार फुडाराक कितें जायत तें सांगूंक येना.



**डॉ. वामन नायक**

*नामनेचे अर्थतज्ञ आनी लेखक.सद्या पुण्यांत आय. एस.बी.एस,कॉलेजीचे प्राचार्य .*

'वेल बिगीन इज हाफ डन' अशी एक इंग्लिश म्हण आसा. ही म्हण कसलेंय काम सुरू करचे पयलीं तुमच्या मनांत पक्की जावंक जाय. वेवसाय सुरू करचे आदी वेवसाया विशीं पुराय अभ्यास करूंक जाय. शिक्षणीक जिणेंत विद्यार्थ्याक अभ्यास करून मार्क मेळोवंचे लागतात. तशेंच उद्येगांत लेगीत बाजारांत सर्तीक तोंड दिवन गिरायकां मेळोवंचीं आसतात. हे सर्तीत दर एके फावटी आमी यशस्वी जाताच अशें ना. केन्ना केन्ना विद्यार्थ्याचो अभ्यास कमी पडटा. तो फेल जाता. तशेंच वेवसायांत लेगीत दर वेळा आमी यशस्वी जाताच अशें ना. वेवसाय म्हळ्यार अनिश्चिततायेचो खेळ, म्हणून सगळेंच मना सारखे जुळून येताच, अशें ना. सुरवेक बरे तरेन चलपी वेवसायीक गाड्येक खंय तरी ब्रेक लागूं येता. कांय अडचणी येवं येतात, आनी लुकसाण जावं येता.

वेवसायाक कितलें भांडवल जाय? ताका बाजारपेठ खंयची? आपली कुशळताय वेवसाया खातीर योग्य आसा व्हय? तयार वस्तु खातीर कितली मागणी आसा? इतले सगले उपदव्याप काडून कितलो फायदो जातलो? अशे तरेचे कितलेशेच प्रस्न मनांत येतात, ताचें अचूक उत्तर सोदून वेवसाय करचो वा ना हें थारावचें आसता.

खंयचेय क्षेत्रांत येस मेळोवपा खातीर कश्ट आनी यत्न करप खूब गरजेचें. परिश्रम केले नात तर येस मेळना. कांय लोक येस मेळोवपा खातीर शॉर्ट कट वापरतात. अशा लोकांक फुडारात पश्चताप जाता. पूण तेन्ना वेळ गेल्ली आसता. खरेपणी येस मेळोवपा खातीर संकल्प, काम, परिश्रम करप. हे केल्या बगर येस मेळप कठीन.

आपल्याक वेवसायीक प्रेरणा कशी मेयळी, हे विशी बऱ्याच जाणांचे वेगवेगळे विचार आसात. 'मसाला किंग' ह्या पुस्तकांत धनंजय दातार म्हणटात, कॉमर्सच्या शिक्षणांत आपल्याक वेवसायाची प्रेरणा मेयळी ना. वेवसायीक जावप, हें तांचें सपन नासलें, ध्येय नासलें.

उद्योग करपाक योग्य मानसिकताय जाय. उद्धेजकीय मानसिकताय आसले बगर उदद्योग व वेवसाय आमकां कळना. थोड्यां भितर, खंयच्याय क्षेत्रांत त्या त्या क्षेत्राची मानसिकताय आसले बगर आमी तें क्षेत्र समजून घेवंक शकनात. थोडे भितर सांगचें जाल्यार मानसिकता म्हळ्यार विचारप्रणाली. वेवसाय केल्यार चिक्कार पयशे मेळूंये, म्हूण कांय जाण वेवसायीक जातात. वेवसायांत पयसो ना अशें न्हय, पयसो आसा पूण पयल्या दिसा पासून तुमी पयशांचे गादयेर लोळपाक शकतले अशें न्हय. बरो वेवसाय चलत तर फकत पयशेच न्हय, तर समाजांत मान सन्मान मेळटा, स्वताची जीण स्वताचे अटीचेर चलोवंक शकता.

वेवसायीक जावपा खातीर सगळ्यांवून म्हत्वाचो गूण म्हळ्यार संयम. येस मेळोवपा खातीर संयम खूब गरजे चो आसता. ल्हान येस मेळटकच लोक मनाचेर संयम दवरीनात आनी व्हड व्हड गोश्टी करतात. ह्या उतावळ्यापणाक लागून ताचें लुकसाण जाता. एके रातींत बदल जायनात येस मेळपा खातीर केन्ना म्हयने तर केन्ना वर्सां लागतात. येसाच्या मार्गांत चलतना सादूर रावचें पडटा.

उमेदीच्या भरात चुकीची पावलां मारुंक जायनांत अशें म्हणतात, घर बांदून पळोवंचें, तशेंच वेवसाय करचो पळोवन. येस मेळोवपा खातीर दक्षता म्हळ्यार खंयच्याय कामांत कुशळ रावप खूब गरजेचें आसता.

जाणकारांच्या मतान बरो वेवसायीक जावप जशें कठीन तशें तें अशक्य न्हय. ते खातीर चोकस विचार करपाची गरज आसता. भेस बरें नियोजन करुन मागीरूच भितर सरप गरजेचें. वेवसाय सुरु करचे आदीं बरींच गणितां जुळचीं पडटात.

---

*पुणे, मो.: 9922445059*

---

▶ दिश्टावो



# सभावाक वखद ना !

जीण जगपाच्यो शेकड्यांनी तरा आसात तांतूंतल्यो एक दोन तरी मनीस आपणायतना दिसता. आपलें जिवीत सुखी आनी समाधानी जावंचें अशें दर एका मनशाक दिसप म्हणल्यार ती सैमीक प्रवृत्तीच म्हणची पडली न्हय! फकत दिसलेंच म्हण उपकारना, ताणें बरें जिवीत जगपाचो यत्नय करचो पडटा. जे मनीस पोटतिडकीन वावुरतात ते सफळ जावंक पावतात ही गजाल आमी कर्तुत्वी मनशांची जीण पळोवन म्हणपाक शकतात. आपल्या मनांत जैताचो हावेस बाळगून मनीस कशी ना कशी आपली जीण जगत आसता. कांय जाण आपल्या नशिबाक दोश दितात तर कांय जाण आवय बापायन पोटलो दवरूंक ना म्हूण शीण काडटात. मनशान म्हणटा तें आपले हिकमतीर पुराय जग जिखपाचो यत्न करूंक जाय. मुखार आयिल्ल्या आव्हानांक दोन हात करून जैत मेळोवंचो यत्न केल्यार मनीस सफळ जावंक पावता. जैत केन्ना कोणाक आपसूक मेळ्टा व्हय? तें मेळयतले जाल्यार सातत्यान प्रयत्न करचे पडटात. तेन्नाच तें पदरांत पडटा ही वस्तुस्थिती. प्रगत विचार आशिल्ल्या मनशांचे जिणेंत कितलेंय दुख्ख जरी आयलें तरी आपली जीण सुखी करपाचो यत्न ते करीत रावतात. कोणाचोच दुस्वास करी नासतना आपलो दिसपट्टो वावर तडीक व्हरपाचो तांचो यत्न आसता. आपूण बरो, आपलें काम बरें अशे चिंतून ते वावुरतात.

ह्या संवसारांत जायते लोक आसात जे तोंडार हांसो हाडून आपलीं दुखणीं फाटीं दवरून सुखी आनी धादोशी जीण कसो जगतलो हाचोच विचार करीत आसतात. तर दुसरे वटेन कांय मनशांक दुसऱ्याच्यो खोडी काडले बगर चैन पडना, तांचो दीस बरो वचना. आपल्या सहकाऱ्यांच्यो, इश्टांच्यो, शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांच्यो, घरच्या मनशांच्यो ते कशे ना कशे तरेन चुकी दाखयत रावतात. स्वताची परिस्थिती कशी आसा तें पळयले बगर दुसऱ्यांक बोटां दाखयतले आनी हेरांचीं कुतां काडीत बसतले. म्हाका असल्या लोकांची कीव येता. कारण तांका कोणाचेंच कितेंच एक मानना. बरें, आपलें काम तरी नीट-निटके करतले? तेंय ना. फकत दुसऱ्यांक नांवा दवरतले. असल्या मनीस सभावाक वखद ना म्हणटात तेंच खरें! अशे मनशांक दुसऱ्यांच्यो खोडी काडपाक खूब मजा येता. कारण तांचो तो जल्मजात सभाव जाल्लो आसता. एक वेळ अशे मनीस जेवी नासतना रावंक शकतले पूण कोणाच्यो चुकी दाखयल्या बगर रावंक शकचे नात. म्हजी आवय म्हणटाली, जल्माची संवय मेल्या बगर वचना म्हूण! ती संवय मागीर बरी जावं वा वायट. भोव करून तिचें सांगणें वायट संवयेंक धरूनच आसतालें. म्हजे सारकिलो मनीस मात खोडी काडप म्हणल्यार एक वेसन अशें म्हणटलो. कारण जाका दुसऱ्यांच्यो खोडी काडपाची संवय आसता तो त्यो उक्ताडार हाडले बगर कसोच ओगी रावना. ताका वगी बसूंक मनच येना आसतलें! जो मेरेन तो कोणाचीं तरी कुतां काडिना तो मेरेन कसोच वगी बसपाक पळयना. माकड जसो गुलांट्यो मारूंक केन्ना विसरना; तशे हे मनीस हेरांची टवाळी उडयल्या बगर वगी बसचे नात. सरभोंवतणी घडटल्या बारीक सारीक गजालींचेर तांचें लक्ष आसतलें आनी तो जुस्त वर्मार बोट दवरिल्ले वरी खोडी काडूंक लागतलो हातूंत दुबाव नासता. तुमकांय केन्ना तरी हाचो अणभव आयला आसतलो! एखाद्र्याक विडी ओडपाचें वेसन आसता आनी जेन्ना ताका विडी ओडपाची प्रखर इत्सा जाता तेन्ना तो खूब अस्वस्थ जाता. ती विडी केन्ना काय ओडीन अशें ताका जाता. तो आपली विडी ओडपाची इत्सा पुराय करपाक सामको तळमळटा. दुसऱ्यांच्या खोडी काडप लेगीत विडयचे वेसना



**एच. मनोज**

*पेशान शिक्षक. आदर्श समाज निर्माणेचो वसो घेवन वृत्तपत्रीय लेखन करतात. तांचो काव्य संग्रह आनी दोन लेखसंग्रह उजवाडाक आयल्यात.*

वरींच! एकदां लागलें जाल्यार सुटपाचें नांव घेना. संवयेचे बाबतीत आनीक एक गजाल तितलीच खरी. ती म्हणल्यार दुसऱ्याची संवय आमी केन्नाच बदलूंक शकनात. पूण आपली स्वताची संवय आमी बदलूंक शकतात. आमच्यांत जाल्लो बदल पळोवन मागीर सरभोंवतणी आशिल्ले मनीस लेगीत आपली संवय बदलूंक लागतात. चार चौगांत वावुरतना एका मेकाच्यो आवडी आनी नावडी आमी जाणां जावंक पावतात. हाचो अर्थ निखालूस असो न्हय, हाचे वरवीं आमी तांची खोडी काडप, तांकां नांवां दवरप, तांकां उणाक लेखप. जण एका मनशा भितर खाशेले गूण आनी उणेंपणाय आसतात! पूण त्या उणेंपणाचें भांडवल करून घेवन ताचेर जैत मेळोवंचें आसता. समाजांत वावुरतना बऱ्या वायट घटणांचो अंदाज घेवन वावरीत जाल्यार जिणेंत खुशालकाय भरूंक कळाव लागचोना इतलें मात खरें.

शाळेंत शिकतले भुरगे एकामेकांच्यो खोडी काडटात, एकामेकांक नांवां दवरतात. अशे वेळार आमी तांकां समजणी दिवंक जाय. बऱ्यो संवयो लावन घेवंक तांकां आदार करूंक जाय. फुडाराची मोख थारावंक तांकां उकसावंक जाय. कारण आयचें स्पर्धात्मक यूग जाल्ल्यान कठीण परिस्थितींतल्यान कसो मार्ग काडप हाची देख शाळेंतल्यानच दिवंक जाय. हेच पिरायेर भुरगीं नकारात्मक गजाली कडेन ओडपाक लागतात. तांकां वेग-वेगळ्यो देखी दिवन सकारात्मक गजाली कडेन ओडून व्हरपाक जाय. एकदां तांकां कितें बरें आनी कितें वायट हाची जाणविकाय जाली काय मागीर तांचो उदरगतीचो ग्राफ वाडपाक लागता. कांय भुरगीं आपलें कशें सादतलें तें पळयतात. तांकां हेरांचें कांयच पडिल्लें नासता. फुडाराक समाजा खातीर अशे तरेची वागणूक बऱ्याचीं लक्षणां न्हय कारण अशे भुरग्यांक आतांच समजायलें ना जाल्यार आपल्या सुवार्था खातीर हेरांचो घात करपाक ते फाटीं फुडें पळोवंचे नात. हेच गजालीक धरून गुरु परिक्षेची याद जाली. ज्या वेळार गुरुच्या आश्रमांत रावन शिष्य आपलें शिकप पुराय करताले त्या काळा वयली ही गजाल.

संजय आनी विजय दोग इश्ट गुरुच्या आश्रमांत दाखलो मेळोवपा खातीर गेल्ले. तेन्ना गुरुजीन तांकां आश्रमांत दाखलो मेळोवपाक परिक्षा दिवंची पडटली म्हूण सांगलें. दोगूय एका पांयार तयार जाले. म्हणूंक लागले, सांगात गुरुजी आमी परिक्षेक तयार आसात. गुरुजीन तांकां एक एक सवणें दिलें आनी म्हणलें ह्या सवण्याक तुमी मारचें पडटलें. पूण एक गजाल मतींत दवरात, सवण्याक मारतना तुमकां कोणेंच पळोवंक फावना. जो कोण सवण्याक मारून दीस धारेक वचचे पयलीं म्हज्या म्हऱ्यांत येतलो तो जैतीवंत जातलो. ताकाच आश्रमांत दाखलो मेळटलो.

दोगय इश्ट आप-आपलें सवणें घेवन भायर सरले. विजयान सवण्याक घेवन पुराय रान माड्डिलें. वचत थंय बारीक मोठीं सावजां, जिवाणीं, किडे, मुयो, सवणीं, कसलीं कसलीं म्हूण जनावरां. ताका एकूय अशी सुवात मेळ्ळी ना जंय तो गुरुची अट पुराय करूंक शकतलो आशिल्लो. निमणें ताणें येवजिलें, आपूण वेळार आश्रमांत पावलों ना जाल्यार आश्रमांत दाखलो मेळचो ना. ताणें आनीक वेळ वगडायलो ना, आपल्या हातान सवण्याची गोमटी आवळून ताचो जीव घेतलो. सांजवेळ जावंचे पयलीं धांवत वचून गुरू मुखार हाजीर जालो आनी म्हणूंक लागलो, ''गुरुजी तुमी सांगिल्ली परिक्षा हांवें पुराय केली.''

गुरून म्हणलें, ''बरें आसा. मात्सो राव. संजयाक येवंदी.''

ते वटेन पुराय दीस संजय सवण्याक मारपा खातीर एकेरी सुवात पळयत भोंव भोंव भोंवलो. पूण ताका अशी एकूय सुवात मेळ्ळी ना, जंय तो सवण्याक मारूंक शकतलो आशिल्लो. संजय दीस भर रान माड्डून थकिल्लो. तरी ताणें धीर सोडलो ना. तो रात भर रानांत हेडत उरलो. फांत्या पारार रडत-रडत गुरू म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हणूंक लागलो, 'आपूण हारलों. म्हाका माफ कर गुरुजी. म्हाका एकेरी अशी सुवात मेळ्ळी ना. हांव सवण्याक मारूंक शकलों ना. तेय परिस्थितींत एकदां हांवें सवण्याचो गळो आवळपाचो यत्न केलो, तेन्ना म्हाका ताचे दोळे पळयतात अशें दिसलें! म्हाका ताची काकुळट दिसली आनी हांव ताका मारूंक पावलों ना.' ताचीं तीं उतरां आयकून गुरुजीन म्हणलें, ''शाब्बाश संजय! तूं पास जालो. तुज्या हातान वायट काम केन्नाच घडूंक पावचें ना. पूण विजय आपलें काम जाता जाल्यार दुसऱ्याचो घात करूंक फाटीं रावचो ना. जण एकल्याचो सभाव हो असो! जरी तो आमी बदलूंक शकनात तरी वेग-वेगळ्यो देखी दिवन बऱ्या गुणांची जाण करून दिवप हें आमचें कर्तव्य अशें हांव मानता. जांकां आपलो सुवार्थ पुराय करपाचो आसता ते म्हणटले हेरांचें आमी कित्याक चिंतप? आपलो वावर जालो म्हणटकच जालें. हाचें उरफाटें निसुवार्थी मनीस मात असो केन्नाच म्हणचो ना. तो आपल्या वांगडा हेरांचेंय बरें जावं अशें मानतलो. कोणायचे अडी अडचणींत तांकां मजत करूंक सदांच तयार रावतलो. मनशाच्या सभावाक वखद नासता हेंच खरें!''

*वास्को, मो. : 9822441417*




खोशेन फुलिल्लो अनुज धांवत शाळेंतल्यान आपल्या घरा वटेन सुटलो. ताच्या एका हातांत ताका माध्यमीक शाळेच्या राज्य वक्तृत्व स्पर्धेंत मेळिल्लें पयलें इनामाचें प्रमाणपत्र पाकीट तर दुसऱ्या हातांत व्हड 'ट्रॉफी' आसली आनी ताच्या फाटल्यान ताचे कांय इश्ट भुरगीं उमेदीन धांवतालीं. घरा ताची 'मां' निलीमा इनाम फावो जाल्ल्या आपल्या पुताची उमळशिकेन वाट पळयताली.

अनुज घरा पावतकच मां न ताका दारार थांबयलें आनी पट्ट करून भितर वचून तिणें आरतीचें ताट हाडून जैतवंत पुताची आरती ओवाळून येवकार दिलो. घरांत सरल्या उपरांत अनुजान आपल्याक मेळिल्लीं सगळीं इनामां मां क दिलीं आनी तिचो आशिर्वाद घेवूंक बावगलो. तेन्नाच मां न ताका घट्ट मिठींत धरून खूब परबीं भेटयलीं. ते उपरांत मां रांदचे कुडींत वचून कपाटांतल्या डब्यांतले मुगां लाडू काडून पयलीं आपल्या पुताचें आनी मागीर ताच्या सगळ्या इश्टांचें तोंड गोड केलें.

अनुज दिसूंक खूब सुंदर, सदळ आनी चपळ कुडिचो, सुटसुटीत गोरो गोमटो, आवय बापायलो हुशार एकुलतो एक पूत. तो णववी वर्गांत फामाद आनी नावाजीक खाजगी महामंडळाचे शाळेंत शिकतालो. पयली ते आज मेरेन ताणें वर्गांतलो आपलो पयलो नंबर केन्नाच चुकोवंक नासलो. जसो तो शिकूंक हुशार तसोच तो खेळ, सामान्य गिन्यान, वक्तृत्व, वादविवाद अश्या जायत्या बाह्य आनी अतिरिक्त अभ्यासांत एकदम अव्वल आनी तांतूंत भाग घेवंक केन्नाच फाटीं फुडें पळय नासलो. आज मेरेन ताणें शाळेंत, आंतरशाळेंत आनी राज्यस्तरार जाल्ल्या कितल्याश्याच स्पर्धेंत भाग घेवन इनामां, पुरस्कार मेळोवन तो गौरवाक पात्र जाल्लो. ताचो बापूय विद्याधर एक खाजगी कंपनींत इंजिनियर म्हूण काम करतालो. आपलो पूत अनुजाचो ताका खूब अभिमान दिसतालो आनी ताका स्फूर्त आनी तेंको दिवंक ताणें आपल्या डब्बल बेडरूम फ्लॅटाच्या हॉलांत अनुजाक मेळिल्लीं इनामां, ट्रॉफीस दवरूंक एक सुंदर शो केस करून घेतिल्ली.

आपल्या पुताची प्रगती आनी ताका मेळिल्लें जैत, भोवमान पळोवन ताची मां खूब संतुश्ट आनी खोशी आसली. खरें म्हणल्यार अनुजाक हे भशेन विवीध गुणसंपन्न आनी अश्टपैलू विद्यार्थी घडोवंक निलीमाचो मोटो हात आसलो. ती सातत्यान आपल्या पुताक सुसंस्कृत करूंक आनी ताचें व्यक्तिमत्व घडोवंक योग्य मार्गदर्शन आनी स्फुर्तीचें टॉनीक दीत आसताली. ताचेर पुरक आनी सात्वीक खाणपीण दिवन, बरें काम केल्या उपरांत ताका फाटीर मायेमोगाचो हात फिरवन शाबासकी दिवंक केन्नाच चुकय नासलेली. स्वता शिकिल्ली, बरी गृहिणी आशिल्ले कारणान आपली आवय म्हूण जबाबदारी चोख निभयताली.

अनुजाच्या वर्गांत जायतीं गिरेस्त आनी मालदार व्यापाऱ्यांचीं भुरगीं शिकतालीं. तीं सदांच आपल्या आवय बापायच्या गिरेस्तपणाच्या जोमार व्हडपणाचे झेत शाळेंतल्या हेर भुरग्यांक दाखोवन तांकां तुच्छ आनी कमी लेखताले. ह्या चल्या आनी चलयांचें आपल्या अभ्यासांत लक्ष कमी तर इंटरनेट, डिजीटल मिडीया आनी हेर फिजूल गजालींचेर चड लक्ष.... तांचे लागीं नाना तरेचे इलेक्ट्रॉनीक गॅजेट्स आसले आनी केन्ना केन्नाय ते शाळेंत हाडून आपल्या इश्टां बराबर गुपचूप खेळटाले. अनुज मात ह्या सगळ्या भुरग्यां पासून मात्सो पयस अंतर दवरून शाळेंत वावुरतालो. रिक्त वेळार ताचो शाळेंत चडसो वावर कंम्प्युटर लॅब, वाचनालय, शाळेंतलें गार्डन, झाडां फुलां हातूंत आसतालो देखून अनुजाची कांय भुरगीं टिंगल करताली.



**वसंत सैल**

*निवृत्त उपप्राचार्य आनी कथाकार आनी ललित लेखक. ताची '[illegible]' ही कादंबरी उजवाडाक आयल्या.*

अनुजाच्या वर्गांत प्रखर नावाचो गिरेस्त बापायलो भुरगो आसलो. तो आपल्या नांवा भशेन सभावान प्रखर तसोच शिकुकूय हुशार आनी तरबेज आसलो. पूण अजून मेरेन वर्गांत पयलो नंबर केन्नाच मेळूंक नासलो. देखून तो आपले भितर उचंबळ जातालो. आपूण वर्गांत हे सर्तींत फाटीं पडटा आनी ताचें कारण अनुज आसा अशें तो सदांच आपले भितर चिंततालो आनी ताच्यान तें सोंसूंक जाय नासलें. कितेंय करून अनुजाक फाटीं घालूंक जाय आनी पयलो नंबर मेळोवंचो मनांत धरून ताचो वावर शाळेंत चलतालो. ते निमतान तो अनुजा लागीं कसलो ना कसलो वाद घालीत आसतालो. ताका हिणसायतालो आनी सतायतालो. अनुजाक हे गजालींचो त्रास जातालो. केन्ना केन्नाय ताचें लक्ष विचलीत जातालें. पूण तो आपले परीन स्वताचें ध्यान अभ्यासांत दवरूंक यत्न करतालो.

पौगंडा अवस्थेंतलीं कांय उडाणटप्पी भुरगीं शाळेंतल्या हेर वेळार नाकासल्यो उच्यापती करताल्यो. परिक्षेच्या वेळार नकल करतालीं. फाटीं एक दोन फावट तांच्याच वर्गांतले दिलेश आनी अलताफाक परिक्षेक नकल करतना शिक्षिकेन धरून शिक्षा आनी भंय घातिल्लो. अनुजा खातीर आमकां पकडले असो त्या दोनूय भुरग्यांचो समज जालो आनी तेंच मनांत धरून ते आनी तांचे कांय वांगडी अनुजाक दम धाक दिवंक संद मेळटा काय पळयताले.

अनुजाच्या वर्गांतलो सुरेंद्र नांवाचो एक विकृत आनी विचित्र भुरगो आसलो. तो चडसो चलयां बराबर भोंवतालो. ताणें आपल्या वर्गांतले एके चलये लागीं इश्टागत जुळयली. तिचें नांव दिया. ती खूब सुंदर देखणी आसली. दर दिसा दिया आपले केंस वेगळे वेगळे भशेन सजोवन, नटोवन शाळेंत येतालें. सुरेंद्र आनी दिया सदांच जोडयेन भोंवतालीं आनी वर्गांत एकाच बांकार बसून एकमेकांचे नाकासले चाळे करत रावतालीं.

एक दीस शाळेच्या फाटल्या खेळांगणाच्या बाजून आशिल्ल्या आंब्या झाडाचे कुशींत आजू बाजून कोण ना तें पळोवन सुरेंद्र आनी दिया एकमेकाक धरून उमो घेतालीं आनी विचित्र अवस्थेंत कितें कितें करतालीं! तेन्नाच अनुज थंय पावलो आनी तांकां ते अवस्थेंत पळोवन काचाबूल जालो.... त्या खिणाक ताका कितें करचें तें कळ्ळें ना.... पूण बेगीबेगीन आपणाक सावरून तो आपल्या वर्गाचे दिकेन धांवत सुटलो. तें पळोवन सुरेंद्र ताका धरूंक ताचे फाटल्यान धांवलो आनी कांय खिणांत ताच्या केंसांक धरून ताका घुंवडायलो. ताका सक्त ताकीद दीत ताणें म्हणलें, ''जर ही गजाल शिक्षकांक वा आनीक कोणाक सांगली जाल्यार तुजी तंगडी उडोवन तुका नानपयत करतलों... आतां वच.... गुपचूप!''

ताणें भंयेस्त अनुजाक जमनीर धुकलून उडयलो आनी खुनेस्त नदरेन ताका पळयत रावलो. अनुज जमनी वयल्यान सावकाश आपल्या शर्टाक लागिल्ली धूळ पुशीत उठलो आनी मान सकयल करून गप्प चलूंक लागलो.

दुसरे दिसा सुरेंद्र, अलताफ, दिलेश, प्रखर, सलीम टॉनी आनी  वर्गांतल्या हेर कांय भुरग्यांनी अनुजाक शाळेंतल्या वरांड्यार आडयलो आनी तोंड बंद दवरना जाल्यार मारून उडयतले अशी परतून धमकी दिली. ताचें कॉलर धरून ताका फाटीं फुडें धुकल्लो. ताचो तो राग आनी एकंदर अवतार पळोवन अनुज खूब भियेलो.आनी हें ह्या दिसांनी अशेंच सदांच घडूंक लागिल्लें. साद्यासुद्या, कसल्या भानगडींत नाशिल्ल्या निर्मळ, शुद्ध मनाच्या निरपराध, निश्पाप अनुजाक मोटो धक्को बशिल्लो. तो पचोवपाची तांक ताच्यांत नाशिल्ली. तशेंच हें सगळें घडटा तें कोणाकूय सांगचें धैर्य ताच्यांत नासलें. ताचें काळीज भितरल्या भितर शिजतालें.... ताची मनस्थिती दिसान दीस बिगडत चलिल्ली. दडपण आनी ताचो ताण भितरल्या भितर मनांत दवरून तो ह्या दिसांनी शाळेंत वावुरतालो. ताका शाळेंतले खंयचेच गजालीचेर मन लागनासलें. वाचनालय, कंम्प्युटर लॅब, पोरसांतलीं झाडां, फुलां, जीम, खेळ खेळांगण सगळेच सगळेच आपले दुस्मान जाल्यात अशें ताका दिसतालें. ही जीण नाका, हे जिणेंत कांय उरूंक ना अशें नकारात्मक विचार तकलेंत फिरताले. पूण आपल्याचेर आयिल्ल्या प्रसंगाची आनी ते पसून जाल्ल्या त्रासांचो तो आपल्या मां पप्पांक काय कळूं दिनासलो. देखून तांकां अनुजाच्या दडपणाची तिळमात्र कल्पना नासली आनी तशेंच शाळेंत सुद्दा शिक्षकांक हाची कल्पना अजिबात नासली.

दीस वताले तशे अनुजाच्या ह्या दडपणाचो ताण भितरल्यान खतखतून उकळटालो, पेटिल्ल्या वणव्या वरी धगधगतालो आनी तांतूंत तेल वोतूंक तीं भुरगीं आपली संद कशीच चुकयनासलीं. कारण तांकां दिसतालें अनुज तांचो ह्यो उचापती शिक्षकाक वा प्रिन्सिपलाक सांगतलो.....

एक दीस सांजेच्या सुमार पांच वरार सदां भशेन अनुजाक घरांत एकटो सोडून तांची मां दार लॉक करिनासतना आड करून बाजार हाडूंक गेलीं. तीं भायर गेल्ल्या कांय खिणांत सुरेंद्र, अलताफ आनी दिलेश अनुजाच्या घरा आयले आनी ताका बरोच धाक दिवन दार उकतें  सोडून गेले. अनुज खूब गडबडलो, भियेलो.... ताच्या दडपणाचो ताण आतां तेंगशेर पावलो... तसोच उठलो आनी मां च्या बेडरूमांत गेलो.... मां



ची कपड्यांची अलमारी उगडून ..... मां ची ओडणी सोदून काडली आनी ती ओडणी घेवन परतो आपले खोलींत आयलो ... आपली खुर्ची ओडून वयल्या फॅना सकयल हाडली आनी उबो रावन ओडणीचो एक फास फॅनांत तर दुसरो फास आपल्या गळ्यांत घातलो आनी 'मां.... पप्पा... म्हाका माफ करा' म्हूण खुर्ची पायान सरकयली आनी खिणांत आपल्याक आनी आपल्या दडपणाक सोंपयलें......

सुमार एक वरान निलीमा घरा आयली. आपूण आड केल्लें दार अशें उकतें पळोवन तिका दुबाव आयलो. तशीच अनुजाक हाक दीत भितर सरली आनी अनुजाची कूड फॅनार लोंबकळटा ती पळोवन तिणें आकांताची किळांच मारली.... लोक जमले.... पोलीस आयले.... अनुजाचो पप्पा, आप्त इश्ट आयले......घरांत आक्रोश.... शोकांकूळ पसरलो..... सगळ्यांक धक्को बशिल्लो..... पूण अनुजाचें अशें कशें जालें हाचो थांगपत्तो कोणाकूच लागनासलो. पोलिसान आपल्या प्राथमीक निरिक्षणाच्या आदारार अनुजान आत्महत्या करून घेतल्या म्हूण आपल्या पंचनाम्यांत नमूद केलें आनी अनुजाची कूड पोस्टमोर्टमा खातीर सरकारी हॉस्पीटलांत धाडून दिली आनी कांय दिसांनी पोस्टमोर्टमाच्या अहवालांत सुद्दां मरणाचें कारण आत्महत्याच आसा अशें आयलें पोलिसांनी ते आत्महत्येचें कारण कितें आसूं येता तें सोदून काडी नासतना अनुजाची फायल कायमची बंद केली. दडपण हाडून अनुजाचे आत्महत्येक जबाबदार आशिल्लीं तीं भुरगीं आपल्या भंयांतल्यान मुक्त जालीं...... सुटलीं.......

संबंदी, सोयरे, आप्तेश्ट, शेजारी सगळीं अनुजाच्या घरा येवन ताच्या मां, पप्पाक आपले परीन सांत्वन करून, धीर, समज दिताले. पूण कांय दिसांनी तेवूय थंय येवंचे बंद जाले आनी घरांत उरलीं तीं फकत अनुजाची मां निलीमा आनी पप्पा विद्याधर.

अनुजाच्यो यादी आनी दुख्खाचें दडपण..... घोणीन कावयच्या पिलाक अळंग उखलून व्हेलें तशें म्हज्या पुताक काळान व्हेलो म्हूण विद्याधर घरांत बशिल्ले कडेन मोटमोट्यान रडत म्हणटालो. निलीमान आपलें तोंड शिंवून घेतिल्लें, बंद करून घेतिल्लें. पूण तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकांची न्हंय व्हांवताली. एक वटेन आपूण बापायच्या कर्तव्याक चुकलों, कमी पडलों म्हूण विद्याधर आपल्याक अनुजाच्या मरणाक जापसालदार समजतालो तर तेवटेन निलीमा, आपले खंयचे तरी चुकी खातीर अनुजान असो तोंकाचो निर्णय घेवन जीव सोंपयलो अशें ती समजताली. दोगांय परस्पर स्वताक दोशी, अपराधी समजून आपलो ताण वाडयतालीं आनी ते फुडें कांय चिंतीं नासलीं..... खुले... मेकळेपणान एकामेकां कडेन उलय नासलीं......

दोगांयनी आपआपल्याक नकारात्मक विचारांच्या विळख्यांत घुस्पटावन घेतिल्लीं..... धड खावप ना, पिवप ना.... विद्याधराक तर कामाक वयचें दिसनासलें.... म्हणटालो, 'आतां कितें उरलें.... सगळें सोंपलें.....!'

विद्याधराचो एक खास इश्ट दीपक तांच्या घरा येवन ताका कितें कितें हाडून दितालो. आपले परीन तांकां मजत करून समज दिवंचो यत्न करतालो. तांकां बळजबरेन खावंक पिवंक लायतालो. विद्याधराक कामाक धाडटालो. पूण तो आपल्या घरा गेल्या उपरांत तीं दोगांय दडपणांत वावुरतालीं, ताण वाडोवन घेतालीं. आतां तर त्या ताणाचीं मुळां तांच्या काळजांत खोल रूतूंक लागिल्लीं.... ताणान तांच्या काळजाच्या गाभ्यांत शिरकाव केल्लो आनी तो आपलें काम पुराय केले बगर थंयच्यान भायर सरचो कठीण आसलो.....

विद्याधर बरेच दिसान जड मनान कामाक गेलो. थंय ताचें कामाक मन रमनासलें. पूण तो आपले परीन जाता तितलें आपलें मन कामार लावंक यत्न करतालो..... अनुजाची याद परती परती येताली... दोळ्यां मुखार अनुजाचो चेरो ताका दिसतालो.... ती याद..... तो चेरो तो कसोच विसरूंक शकनासलो.

कशें बशें दीस सोंपवन तो ऑफिसांतल्यान सांजेचो घरा आयलो.... दाराची बॅल दाबली.... बॅलीचो आवाज येतालो पूण निलीमा दार उगड नासलें. निलीमा दार उगडना तें पळोवन विद्याधरान, जरा जोर लावन आपल्या हातान दार धुकल्लें तेन्ना तें उगतें जालें. कारण तें दार भितरल्यान लॉक करूंक नासलें. विद्याधर घरांत आयलो. पूण ताका निलीमाचो आसफाव आनी कसलोच आवाज ना तें पळोवन तो समतो रांदचे कुडींत गेलो. पूण निलीमा थंय नासली म्हूण तो थंयच्यान परतो फिरून बेडरूमांत गेलो. तेन्ना थंय ताका निलीमा खाटीच्या सकयल फ्लोरार रगताच्या व्हाळांत आड पडिल्ली दिसली.... तिणें आपल्या हाताची नस कापिल्ली...

तें पळोवन विद्याधरान, 'निलीमाऽऽ' म्हूण मोट्यान किळांच मारली.... ताणें तिका धरून उठोवंक यत्न केलो पूण ती बेशुद्ध अवस्थेंत आसली.....

'निलीमा तुका अशें करून वयचें आसल्यार म्हाका बीन व्हरचें नी....!' म्हणत तो थंयच्यान उठलो.. सटसटीत रांदचे कुडींत वचून चाकू काडून आपली नस कापूंक लागलो.... भायल्यान हांगां कसलो बोवाळ चल्ला म्हूण कांय बायलां आनी दादले तांच्या घरांत आयले..... विद्याधर आपली नस कापता तें पळोवन दोन दादल्यांनी ताका धरून आडायलो..... भायर हाडून सोफार बसयलो.... बायलांनी निलीमाची अवस्था पळोवन बोवाळ मारलो..... एका दादल्यान विद्याधराच्या इश्टाक फोन लायलो....

निलीमा बेशुद्ध जाल्ली पूण तिचो उस्वास चलतालो. कांय खिणांत विद्याधराचो इश्ट दीपक थंय पावलो..... ताणें वगत करिनासतना तांकां दोगांयकय शेजाऱ्यांची मजत घेवन आपले गाडयेंत घालीं आनी समतें हॉस्पिटलांत व्हेलीं... टायमार ट्रिटमेंट मेळिल्ल्यान निलीमा शुद्धीर आयली.... विद्याधरूय आतां शांत दिसतालो. पूण दीपकाच्या मनांत एकूच विचार चलतालो तो म्हळ्यार हांचें फुडें कितें? ताका खबर आशिल्ली दडपणाच्या ताणान ह्या दोगांयनी आपल्याक सोंपयचो यत्न केल्लो. अनुजाचो बळी गेलो तो गेलोच पूण आतां हांचो बळी वचूंक दिवंक जायना .... कितें तरी करून हांकां ह्या दडपणाच्या सापळ्यांतल्यान सोडोवंक जाय.... भायर काडूंक जाय..... ना जाल्यार हांचें कांय धड न्ही....

दीपकान आपलो इश्ट प्राध्यापक डॉ. जी. गणेश हांचे कानार ही गजाल घातली आनी तांचो सल्लो घेतलो..... ताणें म्हटलें, हांकां बेगीन बेगीन मनोविज्ञानीकां फुडें व्हरूंक जाय. आपल्या एकुलत्या एक पुताच्या मरणाचो जबरदस्त धक्को तांकां बशिल्लो आसा. दडपण खूब आयिल्लें आसा... आनी ताचो परिणाम ताच्या मनार जाल्लो आसा. हातूंतल्यान भायर येवचें दिसता तितलें सोंपें ना. मनोविज्ञानीकाच्या मार्गदर्शना खाला उपचार आनी पुनर्वसनची गरज आसा.... हांकां मोट्या शारांतल्या पुनर्वसन केंद्रांत व्हेल्लें बरें....

दीपकान समतोच मुंबयच्या एका पुनर्वसन केंद्रांत फोन लायलो.......

---

*सांकवाळ, मो.: 9422442657*

# त्रिशंकू



''गुड मॉर्निंग दिया...''

'' मॉर्निंग यश!''

ऑफिसांत भितर सरतल्या यशान, आतांच आयलां तरी धाकटुल्या हारशांत आपलेच जुयेच्या फुला भशेन टवटवीत चेरो तोखेवपी दियाक वीश केलें. आपल्या क्युबीकलांत वचपी फाटमोऱ्या यशाक दिया पळयतनाच तो एकदम वळ्ळो.

'' फॉर यू ओन्ली!''

एक अर्दकुटी फुलिल्ली हळदुवी गुलाबाची कळी ताणें दिया सामकार धरली.

'थॅन्क्स' म्हणून ताणें ती आपल्या क्युबीकल्सांतल्या फ्लॉवरपॉटांत दवरली. त्या बराबरच बाकीच्या क्युबीकल्सांत कुचुकुचू सुरु जालें. लांबरुंद, हॅन्डसम यश आनी पारजताचें फूल कशें दिया हांचीं सरळ सरळ फकाणां सुरू जालीं..

''यश,जालें रे देवी दर्शन? ''

''आतां यशाक फोर्स आयलो हां... फटाफट करतलो तो आतां कामां. आमचींय कामां दिवया ताजेच कडेन.!''

''आतां दोन दोन लॅपटॉप हॅंडल करतलो तो देवी दर्शना उपरांत...!''

'' हाय दिया डार्लिंग, तूं कांयच कामां करुं नाका. यश इज एव्हररेडी. यश हय मरे?''

तोवूय मुरगुटत बरो रिस्पॉन्स दिता.

''ऑफ कोर्स..दियान सांगल्यार करपाक कांयच हरकत ना म्हाका..''

...एकटें फुलू मोडत आयलें आनी लागोळेपणान यशाक सांगपाक लागलें, ''एऽऽ म्हजेंय मात्शें पळय न्हय हें काम....''

''एऽऽ तुजीं कामां करपाक हांव सर्व्हंट गो तुजो?''

अशी हांसत हांसत ऑफिसांत टोलवा टोलवी चलताली. दिया मात हांतूंत नाशिल्लेंच म्हळ्यार जाता. तें लॉगीन जांवन आपल्या कामांत रंगून गेल्लें.

यश...पंजाबी छोरा. मकई दा रोटी आनी सरसोंका साग, लस्सी हांचेर पोशण जाल्लो यश लांब रुंद पंजाबी, जाल्यार दिया टिपीकल नाजूक साजूक बंगाली रोशोगुल्ला. दोनूय घराबे गडगंज गिरेस्त तरी आधुनीक विचारांचे आशिल्ल्यान आपल्या गिन्यानाचो उपेग करपाक शिर्विस करपाक मेकळीक दिल्ली.

कामांत रंगून गेल्ल्या दियाक यशान आवाज दिलो, ''ओ हाय, लंच अवर लागलो. चल लॉगावट जा...जेवून येवया..''

'' जस्ट दोन मिन्टां..!''

तें लॉगावट जालें. पटापट उठलें.



**आशा शानभाग**

*कथा आनी ललित साहित्यांत फिशाल तांचो 'काऽहऽऽ' ही कथा सग्रह उजवाडाक आयला. कोंकणींतले 'बोन्ड' बरोवपी म्हूण वळख*

'' ए सना, ऑली चल वचुंया कँटिनांत.''

यश कपलार मिरयांचें जाळ पातळांवन ताकाच पळयत रावलो.

'' हे ..वॉट हॅपन्ड ?''

'' नथिंग ..लेटस् मुव्ह.. ''

ताची ती नदर, ताचे कपला वेल्यो मिरयो पळोवन सना फुतफुतलें, ''ए दिया, आमी कबाबमें हड्डी जातलीं म्हणून यश पळय तांबडोच जाला कसो!''

'' रियली? हय रे यश?'' दियाच्या प्रस्नार तो बेश्टोच हांसलो.'' चला या या बेगीन.''

सगलीं कंपनीच्या कँटिनांत गेलीं. तांचे खातीर कंपनीन कन्सेशनल रेटार दवरिल्लें पुश्टीक तरी रुचीक खाण खातना सगल्यांच्यो खबरो मस्त रंगल्यो.

'' ए यश...आयज आमकां सांचो आय्सक्रिम खावपाक व्हर मरे!'' ऑलीन फोण्ण मारलें. यश हय न्हय सो लजकुरो हांसलो. मुमुरखें हांसत ताणें हयकार दिलो. पयर दियाक घेवन आय्सक्रिम पार्लरांत गेल्लो ह्या राकसुलान पळयिल्लो आसत. यश मनांत चिंतत आपल्या क्युबीकलांत पावन लॉगीन जालो.

वर्किंग अवर्स सोंपताले...दिसय वताले. सप्तक सोंपून विकेंड यो-वच जाताले...म्हयनेय अश्शेऽऽ बदलताले. दिया-यश तुप-साकर कशीं जाल्लीं. कंपनींत बोवाळ की दोगांय एंगेज्ड ...यश बरोच आपलो अधिकार जाणवपा सारको दिया कडेन वागतालो. जाल्यार नाजूक साजूक दिया ताचे कडेन आनीकय नाजुकसाणेन वागतालें. तांच्या सेक्शनांतलो सिनीयर म्हणटात तो चौतीस वर्सांचो बायल-भुरगेवालो.तो मदीं मदीं दियाचीं फकणां करतालो, ''अरे ओ रोशोगुल्ला... जाड जाड रोटयो, साग सब्जी आनी व्हडले ग्लास भरून लस्सी पिवपाची प्रॅक्टिस सुरू कर.''

दिया सहजतायेन मुमुरखें हांसून वतालें. यश सामको खोशी जातालो ह्यो घडामोडी पळोवन. ताची आवय ताका केन्नांय ऑफिसांत फोन बी करणारी, 'बेटा खाना खाया?' ह्या प्रस्ना उपरांत पंजाबी भाशेंत दोगांयच्यो खबरी चलताल्यो, 'बेब्बे आपको बहूही चाहिये नां? ला दुंगा..बस्स?' क्युबिकलांतल्यान उलयतना ताणें हळूच दियाक दोळो मारलो.

हळू हळू यश-दिया मदलो लागसार सगल्यांचे नदरेंत भरपा इतली वाडली. हेर कलिग्जांनी ताका कुलायलो, 'यार क्या देख रहा है.. प्रपोज कर फटाफट...नहीं तो ये रोशोगुल्ला कोई और ही लेके जायेगा.'

यशानय थारायलें...आता हिंमते मर्दा करुन प्रपोज करपच. हय...चड वाट पळयत रावल्यार हाका आनीक कोणूय तरी फारायतलोच...आनी हांव 'रिकामा न्हावी वस्तरा लावी' जातलों. ताचे पयलींच फटाफट प्रपोज करपाचेंच आतां. यशान मनोमन थारायलें. त्या प्रमाणे यशान एक दिसा लंच टायमार दियाक सहज म्हळ्ळें,

''सांचें फ्री आसतलें मुगो तुं?''

'' येस्स मागीर मेसेज दितां... रिप्लाय कर हा रोकडेंच.''

'' या, शुअर!''

दोगांयकय तांच्या फ्रेंडसांनी पिडलें सांमकें.

''ए..दिया, किदें गो प्रपोजल माल्लें यशान?''

'' यार, यश विचारलें रे दियाक?''

दोगांयची एकच जाप, 'नां नां...'

सगलो स्टाफ कामाक लागलो. आपल्या क्युबीकलांतल्यान यशान तें पळोवन दियाक मेसेज दिली. 'सी यु @ कॉफी हाऊस शार्प @ 5.45.' दोन मिन्टांत यशाच्या मोबायलान रिप्लाय दाखयलो okkkkk``

मेळिल्ली खोशी यशाच्या काळजांत धरना जाली सामकी. सांज जाली. सगलो स्टाफ लॉग आवट जावपाक लागलो.

'प्लॅन चेंजीग. बीच विजीट ओके?'

' या..नो प्रोब्लेम.' यश आनी दिया मदीं मेसेजीस यो वच जाल्यो आनी यशय आपल्या कलीग्जां वांगडा भायर सरलो.

पांच सात मिन्टांच्या फरकान दोगांय वेळेर पावलीं. वाऱ्यान भुरभरपी केंस सांबाळपी दियाक यश एकटक तेळटालो.

'' हाय''

'' बस.''

ताचे म्हेऱ्यांत दिया बसलें. तो वचून आडसरां विकप्या कडच्यान दोन आडसरां घेवन आयलो.

''घे गो.''

'' थॅन्क्स....''

'' किदें गो,थॅन्क्स दिवन सामकोच परकी करता म्हाकां?''

''परकी कसो? तूं म्हजो क्लोज फ्रेंड मरे!''

दोगांय हांसलीं..कातली खांवन दोगांयनी आडसरांचीं दुपटां डस्टबीनांत उडयलीं.

''बसुंया मात्शीं?''

'' आरे मात्शीं कित्याक? पुराय बसुंया!''

हांसत हांसत दियान रेवेंत फतकल मारलें.

''दिया, म्हजे विशीं गैरसमज करून घेवं नाका... प्लीज



हांव विचारतां ताची जाप दी.''

दियाक अदमास आयलो ..ताणें मोन्यांनी फकत तकली हालयली.

''दिया आय लायक यु. आय लव्ह यु टू....म्हाकां मुगो साखर पेरणी करुन उलोवपाक कळना... म्हणून डायरेक्ट विचारतां...तूं म्हजें लायफ पार्टनर जावंशी?''

एकाच दमात यशान विचारले आनी आपल्या हातांनी चेरो धांपून एकदम दिया रडपाक लागलें.

''आगो हांवें हर्ट केलें तुका?'' बाबडो कसो जाल्ल्या यशान आपलो लेंस ताका दीत विचारलें.

''यश, तूं हो विचार तुजे मनांतल्यान काडून उडय. प्लीज....''

'' बट व्हाय दिया? तूं आनीक कोणाय कडेन एंगेज बी आसा?'' दोळ्यांत काळीज हाडून ताणें विचारलें........ किदेंय तरी सांग... हय तरी सांग....हांव बाजूक वतां.......''

''यश तूं म्हजो विचार करप सोड.''

'' म्हजे विचारांत आतां तुजे बगर कोणच नां.''

'' प्लीज यश...सांगतां तें आयक. म्हजो नाद सोड. म्हजे वांगडा तूं सुखी उरचो नां.''

'' ए आयक गो...तूं ज्योतीशी बी?''

'' ना... पूण हांव सांगतां तें मानून घे. आनी विसर म्हाकां..''

'' तूं विसरशी म्हाका?''

'' हय...सहजपणान!''

यशाचो चेरो सामको उतरलो.

''मिन्स दिया, डोंचु लायक मी?''

'' ऑफकोर्स आय लायक यु एज की बेस्ट फ्रेंड.. बट नेव्हर लव्ह यु.''

'' दिया, काळीज तुटलांच...आतां तरी नाकारपाचें कारण सांग.''

'' यश, हांवें तुका फकत आनी फकत फ्रेंड हेच नदरेन पळयलां आनी पळयतांय. म्हजीच चूक ...हांवें तुका पयलींच सांगपाचें...की आमी फकत फ्रेंड जावपाक शकतात. आनीक कांयच नातें आमचे मदीं जावंचें ना. जाल्यार तुजी आतां जाली तशी गत जावंची नाशिल्ली. सॉरी यश.''

उलयतां उलयतांच ताणें आपली पर्स उगडली. एक फोटो काडलो आनी यशाक दिलो.

'' हें रिमा.''

''हाचें किदें करुं हांव? म्हाका ताका पळोवपाचें लेगीत ना.''

'' हें म्हजें बेस्टी...रुममेटय आनी....''

'' म्हाका हाजें ताजें कांयच नाका..''

'' आयक तरी. हाका लागून हांव कोणाचोच विचार करपाक शकनां.''

'' व्हॉट? हेंच आडायता तुका? तुका हेंच पोसता? हाका तूं भियेता? कोण? कोण लागता हें तुजें?''

'' यश, हें म्हजो मोग...हें म्हजें रुममेट आनी सोलमेटय. आमी दोगांयनी मरता सर एकठांय जगपाचें थारायलां.''

'' दिया ...यु मीन? यु आर अ?...''

'' एस यश, हांव आनी रिमा दोगांय मेड फॉर इच अदर. हय आमी लेस्बो. हांगा आमचे मदीं आनी कोणाकच जागो ना. कारण व्ही नीड इच अदर...आमी एकामेकाचेर डिपेंडंट... सॉरी यश. प्लीज फॉरगिव्ह मी ॲन्ड फरगेट ऑल.''

धड आलतड ना धड पलतड अशे परिस्थितींतल्या दियाक पळोवन यशाच्या दोळ्यां सामकार पुराणांतलो सम्राट त्रिशंकू लोमकळपाक लागलो.

*काणकोण– गोंय. 9404145327.*

## ▶ अक्षरकाव्य



### तुकाराम
### बोल्होबा
### आंबिले

*(सत तुकाराम) अणकार :* ***रमेश भगवंत वेळुस्कार***

1

मरणाचेय आदीं रावलों मरून।
मागीर केलें मन आसलें तशें ।।

आतां तुमी पळयात आमुचें नवल ।
नाकां वेंचूी बोल वाऱ्यावीण ।।

तुका म्हणऽ तुमी भिवकुटी नार ।
कशी जावंची सर तुमची आमची ।।

हांव मेलां तेन्ना देह दिलो देवा ।
कशी करूं सेवा कोणाची हांव ।।

सुत्रधाऱ्यान जशें बोट हालयलें ।
तशेंम तें बावलें नाचऽ छंदान ।।

उलयतां जरीं उलयतलो देव ।
म्हाकां गा दुबाव कित्याक तो ।।

पाप पुण्य जाचें ताकाच खबर ।
संबंद ना थार आमचेकडें ।।

तुका म्हणऽ तुमी आयका ही मात ।
आमी रे अतीत कुडीहून ।।

2

दया क्षमा शांत । थंय देवांची वसत ।।
पावऽ धांवता रे घरा । राव धरुनरे थारा ।।
किर्तनाचे वाटे । भकारो सो लोटे ।।
तुका म्हणऽ घडऽ । पुजे नांवान देव जोड ।।

3

चित्त शुद्ध म्हण्णूच । शत्रू मित्र जाता ।।
ना सर्प खाता । वाग केन्ना ।।

वीख तेंच अमृत । आघातूच हीत ।
अकर्तव्य नीत । जाता ताका ।।

दुःखच गा दिता । सर्व सूख फळां ।
आनी अग्निज्वाळा । जाय शितळ ।।

जिवूच घालतलो । जीव जिवाचेर ।।
सकळां अंतरी । एकभाव ।।

तुका म्हणऽ कृपा । केली नारायणान ।
फक्त अणभवान । जाणचें तें ।।

4

जल्मल्लो प्राणी । उरना संवसारांत ।।
बसलेलो म्हऱ्यांत । काळ असो ।।

पळय हुंदराक । घेवन जाय बुकलो ।।
असो लोक सगलो । व्हरता काळ ।।

खाटकाच्या घरां । गत बोकड्याची ।
गाय कसाबाची । वांचत कशी ।।

तुका म्हणऽ कसल्योय । काडा काडाओडी।।
वयतल्यो ह्यो घडी । परत येना ।।

5

उत्तमांत उत्तम । रांडेचें लावण्य ।।
पूण सवाशीण । म्हणूं नये ।।

उचित अनुचित । आपणायलें म्हम ।।
न्हय गुणाविन । व्हडपण ।।

शुरत्वा बगर । शुरांमदीं वास ।
फटींचो आभास । उपकरना ।।

तुका म्हणऽ सवंग । पोटाक उपाय ।।
कारम कमाय । नाल्या जायना ।।

## ► काव्यफुलोर

माधव बोरकार

### तान

लागतली तान तेन्ना
दी भरून पेल्यार पेले
ओलेंव दी गळ्यांत
छंद दर्याचे निळे.

लागतली तान जेन्ना
सांड कुपां ओंठांर
आनी रंगतली यादिनीं
मेथी ओली बोटांर.

तान भागतली तेन्ना
ओंठांनी भेट म्हाका
पिकतलीं कुशींत
चंवरिल्लीं सुखां...

23.4.1973

आर. रामनाथ

### तें कोरें पान

हांवें तुजेर बरयल्ले कवितेंतले
एकान एक शब्द
केंच्च करून म्हज्या आंगार आयले...अचकीत
आनी उपरांत म्हज्यांत विलीन जाले...अचळय

सद्या
म्हजे ते कवितेचें पान कोरें जालां
आनी म्हजे दोळे इंगळे जाल्यात...

आतां खंयच्याय खिणाक
तें कोरें पान जळू येत
आनी हांवूय बी...

हांवें तें पानूच निखळ्ळें ...

*रायंगीणी - बांदोडें, फोंडें, मो. नं. 9850458763*

सिंधू अनंत असोळडेकार

### अभाव

दुखापत जाता तेन्ना दुखता
जखम जाता दाग उरता
मलम भरपा खातीर आसता
दूख सोंसपा खातीर न्ही
जगाक जखम दिसता
जखमी जाल्लो दूख सोंसता
फातरार बरयल्लें
दुखापत म्हाका जाली
अजाप तें कसलें
घटना टाळपाक आयली ना
बरें मागणें नाशिल्लें म्हजे खातीर
जें किर्ते घडलें
दूख आसूनय नासल्या वरी
खबर आसा
म्हजे नशिबाक
हांव भेस बरें व्हळखतां
अभाव आसा
बरें मागप्यांचो
अभाव आसा

मडगांव. मो. 9860232158

घनश्याम बोरकार

### उंबराचें हें फूल गो

आमोरीकूच आज फांतोड जाली
जगा वेगळी भूल गो

मनांत म्हज्या फुल्लें आज
उंबराचें हें फूल गो ।।

मळबांतल्या ह्या नादाक येता
कस्तुरी सुवास गो
शीतळ वारो घेवन येता
प्रकाशाचो श्वास गो ।।

पेंवता राजहंस,पांखार
भांगराची ती झूल गो
खंचें मानसरोवर,खंच्या
कैलासाचें कूळ गो ।।

फणो काडलो भांगर नागान
शिरशिरलें मूळ गो,
आंगार दाटलो गूढ चंवर
खंचें जडलें खूळ गो ।।

*21.12.22 (रातचीं 12 वरां)*

विज्ञानदूत श्रीकांत शंभू नागवेंकार

## *शाबू भाटकार*

शाबू भाटकार जाला जाण्टो
फुकट मेळिल्ले दायजाचेर जिवीत जगलो
सनातनी मोठेपण टिकून दवरपाक दीस रात धडपडलो
जाण्टेपणांत भलायकेची आनी मनाची सदांची परवड
फाटल्या यादींनीं विचारांची चलता पिरंगण
सकाळीं उठून देवाची पुजा करून बसलो बलकांवाचेर
नजर गेली वयर मुखा वयल्या माडांचेर
भरभरून भायर लोंबकळताल्यो नाल्लांच्यो पेणीं
कठीण जावून बसलां मेळप कामेरीं पाडेली
विचारांचो रगडो घासत
भाटकार बसलो कुले खाजयत
वावराडी मानाय चेडवांनी घर आसतालें भरिल्लें
भाटकारा मुखार बाग घालून उबे राबताले
उतराक उतर ना
दोळ्यांक दोळो ना
सांगता तें काम तोंड धांपून करताले
नायक कुळबी गावड्यांचे भुरगे शिकले व्हड जाले
व्हडले घराचे वाशे वायटीन जाले पोके
खाजयत खाजयत भाटकाराच्या कुल्यांक ओडले बोरे

शाबू भाटकार व्हडलीं धेंपा घालीत
धामाधूम जावून आयलो घरा
मामलेदार ऑफिसांत मुंडकारा मुखार लजेक घालो ताका
मस्तकांत मारिल्ली तिडक कशीच निवळना
पुर्विलो मान सन्मानाचो पीळ कसोच सुटना
कपलार मुठी मारीत बसलो दुखेस्त विचारांत
काकुळतीन भाटांत रावपाक दिल्ले
मुंडकार जाले सावकार
कामवालींचीं पोरां जालीं मामलेदार
शेतकार जाले आमदार
भाटकारांचे गिरेस्तायेचे कलमेले तिजोरीचें दार
धाडायत धाडायत कर्माची सूज उदेली भाटकाराच्या कपलार

शाबू भाटकार खतखतें खावून भायर बलकांवाचेर बसलो
तोंडांत खडीसाखर चोखत मोबायल उगडलो
फोंडेच्या नरसुबाबाली मॅसेज आयिल्ली
देवळाचे कुळावी हक्क चळवळीची कोर्टा तारीख आशिल्ली
बातमी वाचून भाटकाराली कपला वयली शीर जाली उबी
जरी देव वाटायले तुमी
कायद्यान देवळांचे म्हाजन आमी
देवळांत भीतर घेतले आतां मागतात गर्भकुडी
धोल बडोवपाचीच हांची लायकी
बोट दिलें हात गिळलो
खडीसाखरे वांगडा भाटकारान गिळली आपलीच जिबली

शाबू भाटकार सकाळीं बेगीन जागो जालो
देवाची पुजा करून भायर आयलो
अनंताक फुलांचो भरभरून आयिल्लो उमाळो
प्रसन्न मनान जानव्यांन फाट घाशीत
स्तोत्र गुणगुणपाक लागलो
इतल्यांत नदर गेली गेटी कडेन
भीतर येयलो मोगाचो नातू मुंडकाराच्या चेडवाचो धरून हात
भाटकाराच्या पांयांर तकली दवरून मागलो आशिर्वाद
शाबू भाटकाराल्या काळजाक बसलो व्हड धपको
जानव्यांक धरिल्ले हात कशेच सुटनात
परंपरा संस्काराचे दोर कशेच तुटनात
फाट घाशीत घाशीत
तिडक मारली मस्तकांत
जानवें तुटून गांठ आयली हातांत
शाबू भाटकार जाला जाण्टो
सनातनी संस्कार विचारांनी बागवला ताचे फाटीचो कणो

---

*मेरशे–गोंय मो.9096512359*

## ► काव्यचंवर

अशोक कृ. प्रभू मोये

### सुवार्थ

प्रत्येक मनशाक सुवार्थ आसता
थोडे चड सुवार्थी आसतात
पूण मनीस हो नक्कीच सुवार्थी आसता.
सुवार्थ मनाचेर परिणाम करता
आनी मनीस फाटलें फुडलें विसरता
वागतना मागीर जनावरा वरीं वागता
आनी लज,भीड सगळें विसरता
सुवार्थ तरा तरांचे आसतात
थोडे बरे थोडे वायट
कशेय आसले तरी ते सुवार्थच आसतात
सुवार्थ सादपाक शीम मेर नासता
सायासांची शिकस्त करून सुवार्थ भागयता
जायते जाणां लागीं वायटपण घेता
पूण सुवार्था मुखार ताका पर्वा नासता
मनशाची जीण ही खिणयाळी आसता
आसा तें सगळें खिणांत सरता
तरीय मनीस तें सहज विसरता
आनी वेल्यान गोड गोड उलयता
आपलीच तुस्त आपूणच गायता
आपल्याक कसलो सुवार्थ ना म्हणटा
तातूंतय ताचो सुवार्थच आसता
प्रत्येक मनशाक सुवार्थ आसता

*ताळगांव –मो.9822486180*



माया पी.एस.

### मौन

उल्लेय नसी उत्तरांचे भासा मौन
गतप्राण मोन्नांचे लिपि नसी भासा

उत्तोर कत्तरूनु वोत्तसीणा तोकडे मौन आमकां जळेयता
संगिच्चा असा मौनकोयि
उस्कारु दोण्णु रब्बिले दुखियेचे काणि

मौन तोकडे वेळे कित्तू सुन्दर वें
मौनी जण्णु रब्बोप ते भयंकर
मौनाचे मोध्ये लुपोनु पोळ्ळे उत्तरांक हगिच्चा असा काणी
मौनांतु जवनसीण गेत्ले मोस्त काणीय

असहाय जण्णु निशब्द जण्णु वांवता मोह ते मौन
अर्थ भोल्ले मौन मोन्नाक रेण्णे भोरत्ता
मृत्यूचे पशि भीकर रूप धारण केरता

*मो:98477 65426*

कल्याण सावंत

### सेवा

सेवा करून घालयतां वेळ
मेळटलें काय फळ?
अशें केन्नाच चिंतचें न्हय
सेवा करपाची संद
वगडावची न्हय
सेवा करपाचें बळ
हेंच मोंठें फळ
सेवेची कळकळ
मनांतल्यान आसची तळमळ
सेवेक लागचें न्हय स्थळ
लागचो न्हय वेळकाळ
सेवे खातीर काडुया वेळ
किर्त जोडपाचो नाकांच छंद
नाका ताचेर बरपावळ
सेवेच्या नांवार नाका बोवाळ
सेवेच्या नांवार नाका गोंधळ
नाकां भपके पोकळ
हात दवरून सढळ
सेवा करूया सदांकाळ
जोडुया पुण्यांची माळ

*फोंडें. मो.: 9765128185*

# अमृत महोत्सव



अंदू वर्सा प्रगतिशील भारत देशाच्या स्वंतत्रताये दिसाचो अमृत महोत्सव. देशांतल्या ज्ञात आनी अज्ञात सुटके झुजाऱ्यांच्या बलिदानाची याद काडपा खातीर तो समर्पीत केला. ते भायर तरणाटे पिळगेक आत्मनिर्भर भारताची, सेनानींची वळख जावंची हीय एक मोख आसा. त्या निमतान भारत सरकारान शाळा- कॉलेजी धरून घरां- घरांनीं 'हर घर तिरंगा अभियान', 'जन उत्सव' सारक्यो जायत्यो कार्यावळी चालीक लायल्यात. 12 मार्च 2022 सावन हाची सुरवात जावन 15 ऑगस्ट 2023 त ताची सांगता जातली. खरें म्हणल्यार आमचे खातीर ही सामकी खोसदिणी तशीच उर्बादिणी गजाल!

फाटल्या पंच्च्यात्तर वर्सां पयलींचे पारतंत्र्यांतले ते दीस याद काडल्यार आंगार कांटे उबे रावतात. तेन्ना आमचेर जावपी त्या अन्यायाक, अत्याचाराक आमी साप्प विटून गेल्ले. परकी सत्ता देशांत आसप म्हणल्यार एखादो विखारी सोरोप घरांत आसप अशी आमची अवस्था जाल्ली. देखून आमचें स्वराज्य आमकां मेळचें म्हूण जायत्या देशभक्तांनी रगताचें उदक केल्लें.



**काश्मीरी पावस्कार**

*शिक्षकी पेशांतली लेखिका,ललित लेखनांत फिशाल. तांचें 'कपयाळें' हें ललित लेखांचें पुस्तक उजवाडाक आयलां.*

निमणे 15 आगस्ट 1947 त देश स्वतंत्र जावंक पावलो तशे आमी मेकळे उस्वास घेवंक लागले. त्या वेळार 14 आगस्टाचे मध्यान रातीर लाल किल्ल्या वयल्यान पंडीत नेहरूजीन केल्लें ' इंडियाज ट्रीट वीथ डेस्टिनी' हें फामाद भाशण हालींच अमृत महोत्सवा निमतान टिवीचेर आयकतना मनांत एक स्फूर्त शी निर्माण जाली. प्रींन्ट डिजीटल नासली, आवाज सुस्पश्ट नासलो तरी जवाहरलाल नेहरूंचो तो आर्त चेरो, तांची निश्ठा, तांचो निश्चेव मनांत तशा तसो घुमलो. खरेंच, इतलीं वर्सां जावनूय त्या सुरांतली निरागसता जाणवली. मुखेल म्हणल्यार तांच्या मनांतलो देशाच्या स्वातंत्र्या प्रती आशिल्लो कळवळो ह्या सगल्यांची प्रचितीय आयली. खरेंच! इतलीं वर्सां उलगलीं तरी 'तीं' उतरां कानांत पडल्यार एक तरेची वीरश्री आंगांत संचारता.

दर वर्सा अशीच उर्बा इकरावेच्या पाठ्य पुस्तकांतली कवी रवीन्द्रनाथ टागोर हांची ' प्रार्थना' कविता शिकयतनाय येता. ते कवितेंत कवीन सांगिल्लो स्वातंत्र्याचो खरेलो अर्थ आमकां विचार करूंक लायता. कवीचे कल्पनेतलें 'स्वातंत्र्य' फकत स्वराज्याची जाणविकाय दिवपी इतल्या पुरतेंच आसचें न्हय, तर जंय मनीस भंया विरयत, अत्याचारा आनी अन्याया विरयत जगता अशें आसचें. आमचे भुंये भितर विखंड घालपी पारे हांगा आसचे न्हय. दर एकल्याच्या घरां- घरांत आठय दिकांनी खेळटी वारें आसचें. संवसारांत बाराय वाटांनी आमच्या कर्तुपाचीं औरां गाजत रावचीं.

सदाकाल जंय ज्ञान सहज आनी मेकळेपणान मेळटा अशें आसचें. हांगच्या दर एका मनशाच्या काळजांतल्यान उमाळ्याचीं उतरां फुटचीं. आमचे भितर धर्म, जात- कात, प्रांत गरीब गिरेस्त हांचे मदीं निर्माण जाल्ल्यो वणटी आनी दुरीग आसचें न्हय. तशेंच हांगच्या अर्थशून्य रूढी- परंपरांच्या रेंवटाक लागून आमच्या मनांतले बरे विचार आटूंक पावचे न्हय. ते खातीर कवीन राष्ट्र पुरसाक दर एका खिणाक आम कां जागोवपाक, आमचेर घाय घालपाक देवा लागीं केल्ली



मागणी तशेंच एक वेगळें 'सुराज्य' आनी 'स्वराज्य' हांगा परतून जल्माक येवचें ही कवीची प्रार्थना म्हाका सामकी खूब्ब भावता.

पूण पंच्च्यात्तर वर्सां हुपून लेगीत देशाचेर आमी नदर मारल्यार देशांतली परिस्थिती व्हडलिशी बदललेली आमकां दिश्टी पडना. इतल्या कश्ट- त्रास आनी त्यागांतल्यान मेळयल्ल्या स्वातंत्र्याची आमी सामकी ऐसी की तैसी करून उडयल्या. स्वातंत्र्याचो चुकीचो अर्थ, भलतोच फायदो आमी मारूंक लागिल्ल्यान दर दिसा पुराय देशांत खून, मारामारी, धर्मीक हिंसा, लुटालूट, चोरयो, बलात्कार बी सारक्यो अनिश्ट गजाली हिसपा भायर वाडूंक लागल्यात. सांगातान गरिबी, बेकारी आनी निरक्षरताय सारकीं अरिश्टांय आमची कशीच फाट सोडीनात. दीस आसूं वा रात, दादलो आसूं वा बायल, जाणटीं आसूं वा नेणटीं सगलीं हांगा एक तरेची असुरक्षीत जीण जगूंक लागल्यांत. भियोवन दीस काडूंक लागल्यात. अज्ञानाचो काळोखूय हिसपा भायर वाडूंक लागला. धर्माच्या, प्रांताच्या नांवान एकामेकाच्या जिवार आमी उठल्यात अश हे परिस्थितींत एक भारतीय ह्या नात्यान अमृत महोत्सव व्हडा दबाज्यान मनयतना आतां मेरेन, आमी कितें जोडलें आनी कितें वगडायलें हाचेर खर विचार करपाची वेळ आयल्या. ते पासत फावो ते श्रम आनी कश्ट दर एकल्याक उसपुचे पडटले. आयजूय वेळ वचूंक ना. हेरां परस देशांतल्या तरणाट्यांचो आंकडो अदीक आसा हीय आमचे खातीर आनीक एक खोशयेची गजाल.

आयचे हे घडयेक स्वतंत्रतायेची पंच्च्यात्तरी आमी मनयतात हाचो तर आमकां सार्थ अभिमान आसाच. आमचे खातीर ही गर्वाची गजाल. पूण विचार करात, खऱ्या अर्थान आमकां स्वातंत्र मेळ्ळां व्हय? देशांत 'स्वराज्य' आनी ' सुराज्य' आयलां व्हय? देशांत सुवेवस्था चलता व्हय? सगल्यांक समान हक्क , अधिकार मेळटा काय? अशे कितलेशेच प्रस्न स्वताक विचारून पळयात. सगले प्रस्न निरुत्तरीत उरतले. मागीर अमृत महोत्सव मनोवन आमी कितें मेळयतले? होवूय प्रस्न मनांत आयले बगर रावना.

आमी शेणयल्लें खरेलें ' स्वातंत्र्य' परतून मेळोवपाक आदलो इतिहास तरणाटे पिळगे खातीर परतून एकदां आमकां गिरोवंचो पडटलो. आनी होच हावेस दोळ्यां मुखार दवरून हो अमृत महोत्सव आयोजीत केला. ते खातीर आमच्या मनांतली द्वेश भावना, नसाय, कुन्नाटकाय , कुसकेंपण भायर मोखून मनाक मुक्त करचें पडटलें. आपल्या मनाची चळवळ आपले आपूण लडची पडटली. आमी ईंप षीशश आसाच. पूण खंय तरी आमी आमचें मन, बुद्धी आनी विचार नकारात्मकतेच्या बेडयांनी बांदून दवरलां. त्यो बेडयो आमकां भिरकावन मारच्योच पडटल्यो.

देशाच्या स्वंतत्रताय दिसाची शताब्दी मनोवचे पयलीं आमच्या भारताक 'महाशक्ती ' देशांचे पंगतीक व्हरून बसोवचें पडटलें आनी ते खातीर, 'आय एम बोर्न फ्री ' हो एकूच विचार आपणावंचो पडटलो. तेन्नाच खऱ्या अर्थान आमी देशाचो तशेंच मनाचो 'अमृत महोत्सव ' मनोवपाक पावतले आनी तेन्नाच समेस्त सुटके झुजाऱ्यांक म ना काळजांतल्यान आर्गां ओंपिल्ले वरी जातली. तशेंच आतां मेरेन भारत देशान केल्ले प्रगतीची खोशी मनोवप जातली. घडये आमच्यांत लिपिल्ली ताकद सोदूंक प्रोत्साहीत करीत आमच्या मनांतली बाविल्ली देशभक्तीची भावनाय परतून जागृत जायत अशी आस्त बाळगुया. तो मेरेन 'जय हिंद' 'भारत माता की जय' चो नारो लायत आशेन आमकां बसचें पडटलें काय देवाक खबर!

---

*शिवोले, मो. : 9421192858*



## चिली चिकन (ग्रेवी)

**साहित्य.–** अर्द किलो चिकन (हाडां नाशिल्लें, कुडके करून.)

**मुरोवपाचें साहित्य–** 1 व्हड कुलेर आलें लसूण पेस्ट. 2 व्हड कुलेरां मिरसांगे पिठो.1 व्हड कुलेर जिऱ्या पिठो, 1 व्हड कुलेर कोथमिरे पिठो, 1 व्हड कुलेर गरम मसालो,1 व्हड कुलेर सोयासॉस. 1 तांतीं. 1 चिमटी खावंचो केसरी रंग, 1 ल्हान कुलेर कॉर्न फ्लावर, 2 वाटयो तेल, रुची पुरतें मीठ.

**ग्रेवी करपाक साहित्य–** 3 हरव्यो मिरसांगो उब्यो चिरून. 2 कांदे उबे चिरून,10–12 लसणी बोयो बारीक चिरून, 2 ढब्बू मिरसांगो उब्यो चिरून,1 ल्हान कुलेर मिरयां पिठो,1 ल्हान कुलेर सोया सॉस,1 ल्हान कुलेर चिली सॉस,1 ल्हान कुलेर टोमॅटो सॉस, रुची पुरतें मीठ.

**करपाची तरा–** पयलीं चिकनाचीं भजीं करतात. चिकनाचे कुडके एका आयदनांत घालून, वयलो सगलो मुरपाचो मसालो चिकनाच्या कुडक्यांक लावन 1 वर भर दवरात. उपरांत एके कायलींत तेल बरें तापोवन हे चिकनाचे कुडके मंद उज्यार तळून काडात.

एके कायलींत दोन व्हड कुलेरां तेल तापोवन कांदो, लसूण घालून तांबसार करात. उपरांत हरव्यो मिरसांगो, ढब्बू मिरची, मिरयां पिठो, सोया सॉस, चिली सॉस आनी टोमॅटो सॉस घालून परतून घेयात. रुची पुरतें मीठ घालात. उपरांत तळिल्ले चिकनाचे कुडके घालून बरेंऽ चाळून घेयात. ड्राय चिली चिकन तयार.

**ग्रेवी जाय जाल्यार–** चिकन भजीं घालचे पयलीं 1 व्हड कुलेर कॉर्न फ्लावर 1 वाटी उदकांत घालून मिश्रण तयार करात. हें मिश्रण कायलींतल्या कांदो, ढब्बू मिरसांगांच्या मिश्रणांत घालात. एक खतखतो काडून घेयात. ग्रेवी पातळ जाय जाल्यार उदक घालून करपाची. उपरांत तळिल्ले चिकनाचे कुडके घालचे. गरम गरम चिली चिकन खावपाक तयार.



**डॉ. रिना लवंदे**

*नामनेची डेंटीस्ट,कविता आनी ललित लेखनांत उमेदवारी चलता.*

## झुणको

**साहित्य.–** 1 वाटी चण्या पिठी, 2 कांदे बारीक शिंदिल्ले,1 व्हड कुलेर गरम मसाला,1 ल्हान कुलेर हळदी पिठो,1 ल्हान कुलेर जिरें,1 ल्हान कुलेर हिंगा पिठो,3 व्हड कुलेरां तेल, 3 वाटयो उदक,1 व्हड कुलेर आलें लसूण पेस्ट, 3–4 हरव्यो मिरसांगो बारीक चिरून,1 वाटी कोथमिरे पालो, रुची पुरतें मीठ.

**करपाची तरा–** एक तवो तापोवन चण्या पिठी सुकीच वास ये सर भाजून घेवंची. एके कायलींत तेल तापोवन हींग, सांसवां, जिरें फोडणां दिवंचीं. सांसवां फुरफुरलीं की कांदो, आलें लसूण पेस्ट, हळदी पिठो, हरव्यो मिरसांगो आनी गरम मसालो घालून कांदो मंद उज्यार मोव जायसर तळसुंचो. एका आयदनांत एक वाटी चण्या पिठी तर 3 वाटयो उदक घालून पिठी तयार करची. ही पातळ पिठी ह्या कांद्यांच्या मिश्रणांत ओतचें. मीठ आनी कोथमिरे पालो घालून सुकें जायसर मंद उज्यार ढवळीत रावचें. घटसार जातकीच गॅस बंद करचो.

(हें मिश्रण ऑवनांत (OTG)घटसार करूं येता.)





## संक्रांती खातीर

### सोंपे तिळांचे लाडू

**साहित्य–** तीन कप धवे तीळ, देड कप किशिल्लें गोड,1 कप भाजिल्लीं भिकणां,1 व्हड कुलेर वेलचे पिठो,2 व्हड कुलेरां घरावें तूप.

**करपाची तरा–** एक कायल तापोवन मंद उज्यार तीळ तांबसार भाजून घेयात. न्हिवतकच 2 व्हड कुलेरां हे भाजिल्ले तीळ कुशीक काडून दवरात. उरिल्ले तीळ आनी भिकणां मिक्सरांत बारीक वांटून घेयात. मिश्रणांत गोड, तूप आनी वेलचे पिठो घालून एकजीव करात. हें मिश्रण एके परातींत काडून ह्या मिश्रणांत कुशीक दवरिल्ले तीळ घालून लाडू वळून घेयात.

### तिळांची चिक्की

**साहित्य–** 1 वाटी धवे तीळ,2 वाटयो किशिल्लें गोड, 2 व्हड कुलेरां घरावें तूप.

**करपाची तरा–** एका स्टीलच्या ताटाक वा बशेक तूप लावन दवरात. एक कायल मंद उज्यार तापोवन तीळ बरेऽ भाजून घेयात. तीळ एके भशेंत काडून घेयात. तेच कायलींत गोड घालात. गोड पातळ जातकीर चाळत रावात. पांच ते सात मिणटांनी गोडाचो रंग चॉकलेटी जातकीर हे भाजिल्ले तीळ घालून बरेऽ एकजीव करात. हें मिश्रण ह्या तूप लायिल्ल्या बशेर जावं ताटांत थापून घेयात.

मातशें न्हिवतकच सुरयेन कापां करात.






# एक खाद्य भोंवडी

## मडगांव ते काणकोण

फार्टी आमी स जाण इश्टिणी मेळून गोंय सावन कास पठाराचेर गेल्लीं. गोंय सावन आंबोली, कोल्हापूर, कराड, सातारा, सज्जनगड बी जंय वता थंय आमकां थंयच्या जेवणाची रूच घेवपाक मेळिल्ली. तेन्ना सावन म्हज्या मनांत घोळटालें, गोंयचींय थळावीं खाणां-जेवणां पर्यटकांक अशींच वता थंय सहज उपलब्ध जातात काय म्हणून?

आमी इश्टिणींनी मेळून थारायलें, एक सबंद दीस दक्षिण गोंय आनी दुसरे फावट उत्तर गोंय अशी खाद्य भोंवडी करची. मडगांव सावन सुरु करपाचें थारायलें. नाश्तो तें रातचें जेवण. नाश्तो घेवन परतें रातचें जेवणूय मडगांवां घेवपाचें. मधूरा रावता शिवोले, तें शिवोलेच्यान आठांक मडगांवां पावलें. हांव, आश्विनी आनी विद्या गाडयेंत बसलीं आनी जाली आमची खाद्य भोंवडी सुरू. मडगांवां खंय तरी नाश्तो घेवपाक जाय आशिल्लें. गोंयचो नाश्तो दिवपी तशीं खासा खूब हॉटेलां आशिल्लीं. पूण आमकां थंय वचपाक नाका आशिल्लें. म्हाका जाय आशिल्लो एक ल्हानसो गाडो वा हॉटेल जंय गोंयचे पारंपारीक पदार्थ मेळटात असो.

आक्यांच्या कांताल्या गाड्या बद्दल हांवें खूब आयकल्लें. पूण केन्ना पळोवंक नाशिल्लो. 'चलात तर, थंय या' म्हळें, आक्यां कोस्ता फॅक्टरीक तेंकूनच हें कांतालें हॉटेल आसा. ल्हानशेंच हॉटेल. बसपाक कदेलां आनी मेजां आसात.

'कितें मेळटा?' पयलीं विचारलें.

'मिक्स भाजी, चण्यां भाजी, मुगां भाजी, सालाद भाजी, बटाटां सुकी भाजी, पाव तोर्राद उंडे, बन्स....



**हर्षा शेटये**

*भोंवडेची आवड आशिल्ली लेखिका कोंकणींतली नामनेची साहित्यकार.कविता,कथा, भोंवडे वर्णन, अणकार,ललित साहित्य प्रकारांत आपली खाशेली वळख तयार केल्या.*



आनी तळिल्ल्यो मिरच्यो.'

'बरें सगळें एक एक प्लेट हाड.'

तळिल्ल्यो मिरसांगो म्हळ्यार पिठयेंत तळिल्ल्यो आं! फुटक्यो! मिरसांग पिठयेंत घोळोवन तेलांत सोडटकीच ती

फुट्ट करून फुटूंक जाय. तांकां 'फुटक्यो' म्हणतात. प्लेटींत हाडिल्ल्यो मिरसांगो जाय तितल्योच फुटिल्ल्यो. पातळ भाज्यो म्हळ्यार तोंडाकांय रुचीक जाल्लीं. मुगांचें तोंडाक तर चडूच सुवादीक... आमी घरा करता तसलीच रुच. गोंयचे पारंपारीक मसाले वापरून. हरशीं थंय चिकन शाकोतीय मेळटा आनी बुधवार आयतार मटणूय. हॉटेल सोमारा बंद. हॉटेलाचे धनी मंगलदास नायक. तांच्या बापायन कांता नायकान 1964 त हें इल्लेंशें हॉटेल थंय लागसरच सुरू केल्लें. मागीर 1972 त आतां आसा त्या जाग्यार हाडलें. सकाळीं पांच वरांच्यान तें उगडें आसता. ते खातीर दनपारचो मदलो वेळ सोडल्यार दीस भर पारंपारीक खाणां जेवणाची रुच घेवपाक मेळटा. आमीय मिक्स भाजयेची रुच जिबेर घोळयत कुंकळे वचपाक गेलीं. कुंकळेच्या दरबार हॉटेलांतले सामोसे सामके फामाद. आतांच न्ही तर भुरगेपणांतल्यान हांवें आयकलां. फातर्प्यां वचपी मडगांवकार वाटेर रावन दरबारांतले सामोसे घेतल्या बगर

फुडें वचनाशिल्ले. आमीय सरलीं भितर. हॉटेलाचे धनी उमेश प्रभून येवकार दिलो. बन्स, सामोसे, गोड शिरो हारश्याचे आलमारींत दवरिल्लो आशिल्लो. मेन्यु सम जुवपाची गोंयची एक पारंपारीक पद्दत.

हें हॉटेल तशें खूब पोरणें. उमेश प्रभूच्या आज्यान विष्णू प्रभून 1954 त तें सुरु केलें. म्हळ्यार पुर्तुगेज तेंपा वयलें. हरशी तांगेर पातळ भाजी, मिक्स भाजी, बन्स, शिरो हें सगळें मेळटाच. ते भायर गोंयची खास चण्याची उसळय मेळटा. आनीक एक पदार्थ थंय पळयलो, गुलगुलें. चला म्हणलें , खावया गुलगुलें. एक प्लेट गुलगुलें, चार सामोशे आनी कॉफी... न्हय न्हय... काफी. गुलगुलें तशे करपाक सामकें सोंपे. उदकांत इल्लें गोड, गंवाचें पीठ घालून कालोवन गुळे करून तुपांत तळपाचे. गोंयांत चड करून मुस्लिम समाजांत गुलगुलें करपाची चाल आसा. आतां हांगा केल्ल्या गुलगुल्यांत रवो, मैदो आनी सोय घाल्ली. सामोशेय बरे जाल्लो. पूण हुनहुनीत काडून दिल्यार चड बरे लागपाचे!

आतां म्हळें बद्द काणकोणा वचून रावपाचें. थंय छाया आमची वाट पळयतालें. वाटेर एका घरांत चितारी



समाज तयार करतात त्यो लाकडी रंगीत वस्तू दवरलेल्यो दिश्टी पडल्यो. पयलीं गोंयांत जात्रांक, फेस्तांक ह्या वस्तूंचे मांड आसताले. हालींसराक चड दिश्टी पडनात. पूण हांगा किरा मोरांचे पाट, आदोळ्यो, कोयते, हालव्याच्यो दायो, चवाय असल्यो वस्तू आशिल्ल्यो – तरेकवार हार आनी फातयो आशिल्ल्यो. आबोल्यांचो झेलो तर खरोच कसो दिसतालो. आमीय लाटफळें, कोयत्यांची खरेदी करून तेंकूनूच आशिल्ल्या 'चितारी विलेज' ह्या शोरूमांत भितर सरलीं. पारंपारीक लाकडी वस्तू , बावल्यो धरून ताबुलफळें लेगीत आशिल्लें. म्हजे खातीर तर ती अलिबाबाची होंवरी कशी! कितें पळोवं आनी कितें नाका? रंगीत लाकडी खेळणी. कोंकणींत तांका खुतखुतलो अशें नांव आसा. ताबुलफळें मात म्हाका जाय आशिल्लें. पूण तांबलां आनी घुलयो मात एकाच फळ्यांत आशिल्लें. ते खातीर इतलीं ताबुलफळीं आसून सगळ्या जाणांक घेवपाक मेळ्ळीं नात. विद्यान नातीक तें ताबुलफळें आनी खुतखुतलो घेतलो. हांव आनी आश्विनी ताबुलफळ्याची आनी खुंटयाळ्याची ऑर्डर दिवन आयलीं. ह्यो पारंपारीक लाकडी वस्तू पर्यटकांक सहज उपलब्ध आसात. रंगरंगयाळें पाळणें तर खुबूच सुंदर. भुरग्यां पासत वापरून जातकीच लिविंग रुमांत कोनश्याक दवरलें जाल्यार लेगीत लिविंग रुमाची सोबा वाडटली.

मात्शें फुडें वता म्हणसर वेताचे पाटले बी विकूंक दवरिल्ले दिसले. आनी बायलां थंय बसून ते विणटालीं. आयणो, वल्ली, सुपां असल्यो वस्तू थंय नाशिल्ल्यो.

वाटेर घोडव्हाळार बायलो कंदमुळां आनी हेर गांवठी फळावळ विकपाक बशिल्ल्यो दिसल्यो. रावलीं. ह्या दिसांनी मेळपी हीं कंदमुळां भलायकेक एकदम बरीं. तांबडीं कणगां, कांटे कणगां, झाडे कणगां, कारांदे, चिरको, उकडून खावपाचीं पुश्टीक खाणां. नास्त्याक खाल्यार पोटा भरीचीं. ते भायर दुदी, आंबाडे, सुरण, आळू, माडी, तेफळां, सुक्यो
मिरसांगो, साबरबोणी केळीं, आंबाडे हेंवूय आशिल्लें. लांब पाचव्यो कोयतेवालाच्यो सांगोय दिश्टी पडल्यो. ताका घेवडोवालूय म्हणटात खंय! भाजी करतात म्हणून तिणें सांगलें. घेतल्यो. झाडेकणगां, कांटेकणगांय घेतलीं.

वाटेर गुळ्यांत आमची इश्टिण छाया उबें आशिल्लें. ताणें पयलीं झेलाद लिंबू सोडा दिवन थंड केलें आमकां. मागीर कुंभारवत पळोवपाक व्हेलीं. धुपाइडें, मिलेर, कुयणें, मायट्यो, बुडकुले, करें... ते भायर घोडयार



बशिल्ल्या पाईक देवाच्योय बी ल्हान व्हड मुर्त्यो थंय आशिल्ल्यो. थंयच्यान येता म्हळ्यार जेवपाचो वेळ जाल्लो. छायाक म्हळें, 'साद्याश्या घरावें जेवण दिवपी खानावळींत व्हर.!'

'खोपींत या' छायान म्हळें.

'खोप ? '

'हय इतलीं वर्सां थंय मल्लाची खोप आशिल्ली. आनी आतां ह्या दोन म्हयन्यांत थंय कॉक्रिटची बांदावळ केल्या. पूण 'खोपींत' हेंच नांव उरलां. थंय वतकीच आमकां 'खोप' खानावळ सुरु केल्ली ती कांचन गायक मेळ्ळी. तांणी सांगलें खानावळ 1993 वर्सा सुरु केल्ली. तिसावें वर्स चलता. हरशीं आतां 'यमन' हें तांच्या नातवाचें नांव खानावळीक दवरलां. पूण 'खोप' ह्या नांवानच खानावळीची वळख आसा. आतां तांचे पूत, सून खानावळ चलयतात. पूण हुमणाचें वांटप बी कांचनबायूच काडटात. कोणेंय पयलीं ऑर्डर दिल्यार चिकन शाकोतीय ती करून दिता. आमी शिवराक आनी नुस्त्याचें दोनूय तरांचें जेवण मागयलें. शीत, तोर घाल्लें करबटाचें हुमण, भेंड्या भाजी, सालाद, फुटी कडी आनी तळिल्लें नुस्तें, बांगडो, लेपो, विसवण. एक प्लेट मोठीं सुंगटां. करबटाचें

ह्मण सामकें रूचीक. चड करून खानावळीनी बी मेळना. शिवराकाक आंबाड्याची उडदमेथी, भाजी, बटाटाच्यो फोडी, लोणचे, पापड. ब्येस्ट जेवण जालें, घरावें. हें जेवण फकत दनपारचेंच मेळटा. श्रीस्थल इंडस्ट्रियल इस्टेट लागीं आशिल्ल्यान जेवपाक तशी गर्दी आसता. भरिल्ल्या पोटान लागींच आशिल्ल्या मल्लिकार्जुनच्या देवळांत गेली. धव्या तांबडया रंगांत रंगयल्लें , नळ्यांचें पाखें आशिल्लें सुंदर देवूळ. परिसरुय सोबीत.

आतां म्हळें, खोतीगांव अभयरण्यांत एक पासय मारुन येवंया. थंयच्या कँटीनांत एक च्या मारली. पूण दूद तापोवन तापोवन दाट जाल्या दुदाची च्या कोणाक घोस्ताक गेली ना. पूण थंय आशिल्ल्या बटरफ्लाय पार्काचें मात सगळ्यांक आकर्शण आशिल्लें. फुलपाख्यांची आवड आशिल्ल्यांक हो पार्क म्हणल्यार एक पर्वणीच. पूण सकाळच्या वेळा तरातरांचे फुलपाखे हांगा भिरभिरतना दिसतात. ह्या उद्यानांत मुद्दम फुलपाख्यांक तातयां घालपाक जी वनस्पत (host plant) लागतात ती वनस्पत रोयल्या. तातयांतल्यान भायर सरपी कीड मागीर ह्या झाडांचीं पानां खावन वाडटा. तशेंच फुलपाखो जल्मतकीच ताका फुलांतलें म्होंव चोखपाक जीं जीं फुलझाडां (nectar plants) जाय तिंवूय रोयल्यांत. ते खातीर आमकां सांजवेळ आसून लेगीत कांय फुलपाखे दिश्टी पडले. रस्टीक, ब्लू टायगर, पट्टेरी टायगर ,ग्लासी टायगर, कॉमन वंडरर हे फुलपाखे दिसले. ते भायर गोंयचो सगळ्यांत व्हड फुलपाखो सदन बर्डविंग होवूय दिसलो. ह्या सदन विंगाची पार्का भायर पत्र्याची व्हड प्रतिकृती आसा. मुखार रावन हात पसरावन फोटो काडपाचो. भुरग्यांक एक आकर्शण शें. आनी जाणट्यांकूय बी !

च्याची भक्त आशिल्लो म्हजे इश्टिणीक परती च्या मारन दिसली. भाटपाल हांगाच्या जनता हॉटेलांत गेलीं. चार वरां जाल्लीं.

''भजीं आसात रे?'' छायान विचारलें.

''हय, आत्तां सोडल्यां कायलींत. मात्शें रावचें पडटलें!'' थोड्या वेळान हुनहुनीत वाटकुळींच भजीं आयलीं. मागीर सांजवेळचे सामोशे तळटात.





''आता खंय या? पाळोव्या वेळेर?''

'' नाका नाका ! दर्या वेळ सोडून आनीक खंयूय जाय थंय या.''

''चापोली धरण आसा मगो हांगा. फाटीं पूनम पांडेन पॉर्न शूटींग करून गोंयचें नांव पेडडेर केल्लें तें!'' मधूराक याद जाली.

आमीय थंय पावंक नाशिल्लीं. थंय पावतकीच, आयलीं तीं बरीं दिसलीं – पावसांत वाडिलें तण सुकून हळडुवेंच जाल्लें. सूर्यूय घरा वतालो. केसरीच वत. सगळ्या परिसराक केसरीच सया मारताली. त्या शांत अशा जाग्यार आमकां वारें खायत बसन दिसलें. गाडयेंत दिवाळी अंक आशिल्ले. ते घेवन कोण वाचूंक बसलें, कोण पासयो मारुक लागलें. कोण फोटो काडूंक लागलें. 'चल या, वेळ जातलो' करून तांकां उठोवन हाडचीं पडलीं. इतली थंयच्या सैमान भूल घाल्ली.

चल म्हळें, आतां या. मधूराक शिवोले पावपाक जाय आशिल्लें. छाया घरा कडेन देंवलें आनी आमी मडगांवची वाट धरली. गोड खाल्या शिवाय म्हणून खाद्य भोंवडी पुराय जाता? ते खातीर मडगांवां पावतकीच गाडी हिमालया आयस्क्रिम फॅक्टरी कडेन घुंवडायली. हिमालयांत भितर सरुन गडबड आयस्क्रिम मागयलें. एक एक लांब ग्लास भरून. हिमालयाची आनी म्हजी वळख भुरगेपणा सावन. ह्या हिमालयाचे गाडे 'आयसफ्रूट आयसफ्रूट' करीत मडगांवच्या पायणी पायणींनी भोंवताले. धा पयशांक सादो आयसफ्रूट, पंदरा पयशांक कॅडबरी आयसफ्रूट, चार आण्यांक मिल्क कॅन्डी आनी एका रुपयाक कप. हिमालयाचो धनी प्रभुगांवकार. तांचे तिनूय चले आमचे शाळेंत शिकताले.व्हडलो उमेश आमच्याच वर्गांत शिकतालो. भुरगे ताका 'हिमालया' म्हणून उलो मारताले.

तीन एक वर्सां पयलीं हांव 'गडबड' खावपाक आयिल्लें तेन्ना उमेश गल्ल्यार आशिल्लो. आज ताचो जाणटो काका बशिल्लो. काकान सांगलें अंदू हिमालया फॅक्टरीक पुराय साठ वर्सां जातात म्हणून. बरें दिसलें. साठ वर्सां तीच रुच. हिमालयांत पायनेपल ज्यूस बरो मेळटा. ल्हान ल्हान बाटल्यांनी मेळटा. ह्यो बाटल्यो लग्नांक बी वांटप म्हळ्यार ओर्र कशें एका काळार! आनी कसाटा आयसक्रिम. पर्यटकांनी जांव गोंयकारांनी एकदा तरी हा थळाव्या आयसक्रिमांची आनी ज्युसाची रूच घेवंक जाय.

खरें म्हळ्यार आज ब्रेकफास्ट टू डिनर अशी खाद्यभोंवडी करपाचें म्हजे मनांत आशिल्लें. पूण जमलें ना. इश्टिणीक बाय बाय करुन घरांत भितर सरलें. चल्याक म्हळें, 'आज डिनराक तुका भायर व्हरतां.'

'खयं?' ताचो प्रस्न.

'रोसां ऑमलेट खावपाक!'

सद्या रोसा ऑमलेट म्हळ्यार गोंयचें स्ट्रीट फूड अशी वळख जाल्या. हरशीं हें ऑमलेट सदचेंच पूण ताचे वयर घाल्लो चिकन शाकोतीचो रोस वा पोळोव हे ऑमलेटीक एक वेगळेंच रूप दिता. वेगळी रूच दिता. हुनहुनीत ऑमलेटीचेर घाल्लो रोस, ताचेर बारीक चिरिल्लो कांदो आनी कोथमिरे पालो. आनी ताचे बराबर तोर्राद उंडे ! आहा ! ह्या रोसा ऑमलेटीचो जल्म मडगांवचोच. 1980 वर्सा मडगांवा अशोक नायक हांणी ऑमलेटीचो गाडो सुरु केल्लो. आनी ह्या रोसा ऑमलेटीन इतिहास घडयलो. रोसा ऑमलेट खावपाक लोकांनी मडगांवचो रस्तो धरलो. रोखडोच मडगांवा दुसरो गाडो उल्हास साळगांवकार हांणी सुरू केलो. मडगांवच्या ह्या लोहिया मैदाना मुखार आशिल्ल्या गाड्याचेर हांव गेलें. उल्हास साळगांवकार आनी तांचो पूत उसरपत नासतना ऑमलेटी तयार करून दीत आसतात. व्हडल्या स्टिलच्या डब्यांनी भरून चिकनाचो रोस करून घेवन येतात. सांजवेळचे स ते रातचें इकरा म्हणसर पांचशेक ऑमलेटी तयार करतात. सवाय भितर पोटाभरीचें खाण. उल्हासाल्या गाड्या वयली रोसा ऑमलेट खावन हांवें मडगांव ते काणकोण मेरेनची त्या दिसाची खाद्य भोंवडी पुराय केली.

*मडगांव. मो. 9850530152*

# कुशावतीचे देगेर

'सुंदर आमचें गोंय, सोबीत आमचें गोंय,
सैमाचे मांडयेचेर खेळटा आमचें गोंय.'

अशी आमचे गोंयची व्हडवीक आमी फकत तोंडानच गायतात. भायर-भायर सगळ्याक भोंवूंक वतात. पूण सौंदर्याची खाण अशें आमचें सुपुल्लें गोंय आमी केन्ना पुरायेन पळयलां? गोंयच्या प्रत्येक गांवांत कितें ना कितें खाशेलेंपण आसा. भायल्यान आयिल्ल्या प्रवाशांक लेगीत आमी चड करून दर्यावेळो, देवळां आनी इगर्जो दाखयतात.तेच बराबर गोंयची खाशियतय तांकां तर दाखोवचीच पूण आमीय थंय-थंय वचून पळोवक जाय,गोंयची व्हडविकाय आयकूंक जाय.

झरी आनी घसघशे तर चांटये पावलाक आसात. पूण आमकां कितलेशे खबर आसात? म्हाका खूब वेळा दिसता गोंयांत, गांवागांवांत आशिल्लीं खाशेलपणां पळोवचीं. तशें जायते कडेन हांव भोंवलां, तरी अजून अर्दें गोंय तरी हांवें पळयलां काय? प्रत्येक कामाक योग येवचो पडटा हें खरें!

ऋशीवन म्हळ्यार रिवण. म्हाका एक दीस हांगा वचपाची संद मेळ्ळी. आमच्या 'कोंकणी स्पीक्स' ह्या ग्रुपान कुशावती ट्रेल म्हळ्यार कुशावतीचे देगेर भोंवडेक वचपाचें थारायलें. आनी म्हजी केन्नाची इत्सा पुराय जाली.

रिवणा आमचीं सोयरीं आशिल्ल्यान हांव थंय खूब वेळा पावलां. तांच्या भाटांनी भोंवलां विष्णुगाळींतल्या पाणट्यार बुचकळपाचो घोस्त काडला. पूण....पूण रिवणची खाशियत पणसाई मळ, घोली मात पळोवपाचो योग येवंक नाशिल्लो. ती संद म्हाका इतल्या तेंपान मेळ्ळी. तर थारिल्ल्या दिसा पणजेच्या लोकांक घेवन बस मडगवां बसस्टँडार आयली. आमी मडगांवकारां बसस्टँडार खवदळ घालतालीं. आमी बशींत चडलीं आनी सगळ्यांचे उमेदीक वोतो आयलो.

आमच्या उलोवपाचो घोगो खंयच्यान खंय-खंय व्हांवत आसलो. ह्या बोवाळांत आमी आमच्या पयल्या थांब्यार म्हळ्यार रिवणच्या फामाद टांका झरी कडेन पावलीं.

रिवण दोंगराळ, रानवटी आनी कुळागरी वाठारान व्यापलां. थंय ल्हान, व्हड व्हाळ, पाणटे आसाच तश्यो झरीय बी खूब. तर आमी टांका झर पळोवक वयर गेलीं नात. सकल आशिल्ल्या पांडुरंग पाटील हांच्या घरा गेलीं. आमचो पोटोबा आज तांच्या हातांत आशिल्लो.

तांचें घर वयर रस्त्या कुशीक, पूण फाटलें व्हड कुळागर सकल  सकल देंवत वता. आनी फाटल्यान रान वाठार.

आमची च्या नाश्त्याची वेवस्ता ताणें कुळागरांत केल्ली. सैमीक वाऱ्यार आमी गोंयचो खास नाश्तो घेतलो. नाशण्या भाकऱ्यो, पोळे, तोंडाक आनी सुरबूस शिरो खावन आमी भोंवडेक सुरवात केली.

कुळागराची खडबडीत वाट उदकान भिजिल्ल्यान निसरटशी जाल्ली. तातूंत मदीं मदीं खळयो. त्यो हुपपाक माडये करवे. चलतना बरीच सर्कस करची पडटाली. तरी एकामेकांचे हात धरून, धडपडत आमी मुखार सरलीं. थंय सकल पावतकच मुखारच व्हड झर आसा. तिचे भोंवतणी बांदून घेतलां. थंय पंप बसयला. पंपान उदक काडून कुळागरांत जाय थंय व्हेलां. कुळागरांतलीं सदचीं झाडां झोपां, मसाल्यांचीं झाडां तोखेत, फोटो सेशन करत आमी वयर सरुन बशींत बसलीं.

सैम सुंदराय तोखेत बडबडत आमी बशींत बशिल्लीं. वांकडी-तिकडीं व्होल्तां घेत बस मुखार वचूंक लागली.म्हणटासर आमची बस एका मळा वेल्यान धांवतना मदींच थांबली. आमी थंय देंवलीं. तें पणसामळ- पणसाईमळ आशिल्लें. ताका उजगाईमळय


माया
अनिल
खरंगटे
साहित्य अकादमी पुरस्कारान सन्मानीत लेखिका, भोवडे वर्णन, कथा, कविता, कादंबरी, अणकार मळार फिशाल

म्हणटात खंय!

भिंगरींच्या फुलांच्या झोपां मदल्यान आमी मुखार सरलीं. भिंगरीचीं फुलां काडून भिर्र करुन वाऱ्यार सोडपाचीं भुरगेपणा करत आमी फुडें गेलीं.

मुखार व्हड पाशाण पातळिल्लें. वयर तशेंच न्हंये म्हऱ्यांतय बी. ताच्या मुखार अरूंदशी कुशावती न्हंय व्हांवताली. आमी मार्चांत गेल्ल्यान ती न्हंय सुकिल्ली आनी शेळ्यान भरिल्ली. पूण वयर दोनय वटच्यान ती रूंद आनी खोल म्हणून कळटाली. हांगां चिऱ्यां पाशाणाचेर रॉक आर्ट म्हळ्यार चित्रां कोरांतल्यांत.

हीं चित्रां सादारण 8000 वर्सां पयलींचीं अशें सांगतात. ह्या चित्रांचो सोद लागिल्लो तेन्ना बारीक बारीक स्टोन टुल्सय मेळिल्ले. तांचे वयल्यान ह्या प्रस्तर चित्रांचें वय थारायलें. ह्या फातरांत कार्बनाचो अंश  नाशिल्ल्यान तांचें कार्बन डेटींग जायना खंय. अशे तरेचीं प्रस्तर चित्रां रत्नागिरीय मेळ्ळ्यांत.

हांगां एके कडेन बैल, मोर, हरण हांचीं चित्रां कोरांतल्यात. मात्शें मुखार भुरगो, बायल, हत्ती आनी दोनय वटच्यान बैल अशें चित्र कोरांतलां. हे बैल 'एक्सरे बूल' म्हळ्यार एक्स रे काडटकर ताच्यांत कितें कितें अवयव आसात तें स्पश्ट दिसतात, अशें हें चित्र कोरांतलां.

मध्यप्रदेशांतय अशे एक्सरे बूल वणटीर कोरांतल्यात. ते हाचे परस स्पश्ट दिसतात खंय! हांगां सगळींच चित्रां स्पश्ट नात. लोकांच्या चलपान आसत वा पावसांत न्हंयेंत हे पाशाण बुडिल्ले आसतात म्हणून हे झरल्यात जावये! तांचेर उदक घालतकच उदक त्या वळीं मदल्यान वता आनी चित्र स्पश्ट दिसता.

आमी एक फावट श्रावणबेळहोळ गेल्लीं. थंय बाहुबलीची मूर्त एकसंघ उब्या पाशाणी दोंगरार उबारल्या. थंयीय वयर चडटना अशे तरेन पाशाणाचेर कितें कितें कोरुन दवरलां. ताचे वेल्यान चलत लोक वयर वताले. तीं पाशाण चित्रां झरून वाट लागूं नये म्हणून चित्रांच्या वयर काचेचीं धाकणीं कशीं बसयल्यांत. लोक म्हऱ्यांत रावन तीं चित्रां पळयतात. तशेंच तरेचे हारशे ह्याय चित्रांचेर बसोंवक जाय. म्हणटकीर हींय चित्रां बरीं उरतलीं अशें म्हज्या मनांत आयलें.

हांगां वचत थंय पावलांच्यो खुणो आसात. कांय पावलां खूब व्हड. हांगां व्हडलें पावल रावणाचें म्हणटात. आनी कांय कडेन पाशाणाचेर अशीं पावलां मेळ्ळ्यांत तीं देंवचाराचीं म्हणटात म्हणूनय आयकलां. खरें फट कोण सांगतलो? लोटलेच्या 'बीग फुटांतय' आमी अशें व्हड पावल पळयलां.त्या पावला वेल्यानच ताका बीग फूट अशें नांव दिलां.

हांगां आमकां एके कडेन चक्रव्यूह कसो दिसलो. त्या चक्रव्यूहाची मजा म्हळ्यार प्रत्येकाक तें वेगवेगळें दिसता. कोणाक थंय मोर आनी ताचो पिसारो दिसता. ते भायर थंय हरणां, सोंशे, नुस्तीं आनी कसलीं कसलीं चित्रां आसात. जीं आमकां वळखुपाक आयलीं नात. कांय कडेन हरणां आनी एकठांय कोरांतल्यांत, ताचो हेतू कितें हें कळपाक मार्ग ना. आमी ताचेर तर्क वितर्क केले.

पणसाई मळार प्रस्तरचित्रां पळोवन आमी वयर आयलीं. बस मुखार धावूंक लागली. मुखार अशाच एका मळार कशी बस थांबली. हें विचुंद्रे. हांगां धाव्या शेंकड्यांतले कदंब काळा वयले नारायणाच्या देवळाचे अवशेश आशिल्ले. देवळाचो आवाठ तसो ल्हानसोच. भोंवतणी वणटीचो देडेक फूट सुमार भाग आसा. बाकिची वणत कोसळ्ळ्या. हाका तेकून आनी एका देवळाचो अवशेश आसा. ते महिषासूर मर्दीनीच्या देवळाचे अवशेश खंय! दोनय देवळांचो वयलो भाग, छत कोसळ्ळां. नारायण देवळाचें छत सकल पडिल्लें आसा. तें चौकोनी आशिल्लें म्हणून कळटा. सभा मंडपांत गरूडाची मुर्त आसा.

गर्भकुडींत नारायण देवाची उबी मूर्त आसा. भोंवतणी बरी





प्रभावळ आसा. तिचेर विष्णुचे दशावतार कोरांतल्यात ते दिसतात. गर्भकुडीच्यो वणटी मातश्यो व्हड आसतात. देवळा भोंवतणी बरे कोरांतिल्ले चिरे पडिल्ले आसात. ताचे वयल्यान कळटा हीं देवळां बरीं कोरीव कामान नटयल्लीं म्हणून. हीं देवळां ग्रेनायट फातरा पसून बांदिल्लीं. सभा मंडपा भायर मारुतीचीय मूर्त आसा.

महिषासुरमर्दिनीच्या देवळांत कांयच ना. फकत देवळाची देडेक फूट रुंद वणटीची कड तितली आसा. सद्या पुरातत्व खात्यान तीं ताब्यांत घेतल्यांत अशें कोणें तरी सांगलें. तांचो तकटो थंय लायिल्लो आसा.

हांगां काजूंचीं झाडां आसात. तांचे काजू खावन आमी बशींत बसलीं. थोडी वाट वचून आमची बस थांबली. हांगां बरींऽ चलून आमी भितरशीं गेलीं. थंय पांडवांच्यो घोली आसात म्हणून सांगलें.

खूब कडेन व्होंवऱ्यो मेळ्ळ्यो कांय कडेन त्यो पांडवांच्यो घोली म्हणपाची रीत आसा. ताचें फाटलें कारण इतिहासज्ञांक घडये खबर आसूं येता! घडये त्यो रचिल्ल्यो काणयो आसत.

हिमालय ते कन्याकुमारी मेरेन अश्यो जायत्यो घोली मेळटात आनी तांचे भोंवतणी जायतीं मिथकांय जोडल्यांत.

आमी बरींच चलत सकयल गेलीं. मागीर 30-40 चिऱ्यांचीं सपणां देंवन आनीक सकल गेलीं. मुखार व्हड बऱ्यो दोन घोली आशिल्ल्यो. सकल जमीन पाशाणी. ह्यो सैमीक घोली पूण म नशांचो हात ताचे वेल्यान भोंवला हें कळटालें.

कांय जाण सांगतात ह्या घोलींनी प्राचीन काळार शंबर- शंबर लोक रावताले म्हणून. थोड्यांच्या मतान ह्यो बुद्धाच्यो घोली. पूण शंबर बुद्ध एकठांय केन्नाच रावऽ नाशिल्ले. सत्य कितें कांय कळना. पूण जमीन खणटना हांगां बुद्धाचो तकली नाशिल्लो पुतळो मेळ्ळा. ताचे हात भरपूर लांब, जमनीक तेंकतात अशे. हाचे वेल्यान ती बुद्धाची मूर्त म्हणून कळटा. हे मुर्ती पोंदा तीन शींव आसात. तांच्या कुळाचें प्रतीक म्हणून ते दाखयल्यात अशें म्हणटात. ही बुद्धाची ध्यानाक बसपाची घोल, अशेंय कांय जाण म्हणटात

थंयच्यान आमी मठा कडेन आयलीं. हांगा वयर व्हड बरो मठ बांदला. थंय सकल व्हाळ आनी तळी आसा. हांगा जायते तरेचीं देवस्पणां चलतात. खूब लोकांचें यो वच थंय चालूच आसता.

हांगाचे तळयेर वतलीं जाल्यार थोडीं सपणां देंवन वच्चें पडटा. आतां ते तळयेचें सोबितीकरण केलां. सपणां बी बरीं बांदून घेतल्यांत. हांगाय एक घोल आसा. हे घोलींत ओणोव घालून भितर वचून, दोन चार मिनटां सुमार चलून वचून सकल तळये देगेर भायर सरूंक मेळटा. पयलीं एकदां आमी गेल्लीं तेन्ना अशीं गेल्लीं. पूण आतां ती घोल बंद केल्या. थंय ध्यान करपाक काडिल्ली कूड कशी आसा. थंय ध्यान करपाक बसपाचो जागो आसा. थंयच्यान झरीचें उदक व्हांवता. थंड बरें. आमकां पुरो जाल्लें. तें उदक तोंडार
मारतकच बरें दिसलें.

पयलीं हांगा साधू ध्यानाक बसताले. फकत हें झरीचें उदक पिवन रावताले. तळयेचे मात्शे वयर एक झाड आसा. ताच्या खोडार पाळांमुळांचो गणपती केला.

सद्या मठांत हजार भर वर्सां पयलींचो मारूती आसा.

थंयच्यान आमी विमलेश्वराच्या देवळांत गेलीं. ह्या देवळाचें बरें सोबितीकरण केलां. आर्कांतल्यान भितर सरतकच सुरवातीक गाय आनी पाडकाचो पुतळो मेळटा. भोंवतणी बरें लॉन आसा. देवूळय बरें सोबीत दिसता. देवळाक तेंकून सकयले वटेन शेत. ताका लागून देवळाची सोबाय वाडल्या आनी थंडायशी आसा. आमी देवळांत वचून पांया पडून भायर सरलीं.

थंयच्यान आमी परत पांडुरंग पाटलागेर आयलीं. भोंवून भोंवून पुरो जाल्लें आनी चुरचुरीत भूक लागिल्ली. आमी जेवणाचेर ताव मारलो. मागीर पदां बी म्हणून थोडो वेळ विसव घेतलो.

तांगेर भरिल्ल्या आंबल्यांचें लोणचें आनी मसाले विकतात. आमच्या मदल्या जायत्या जाणांनी लोणचें आनी मसालो विकतो घेतलो. थंयच्यान आमची बस परतेचे वाटेक लागली.

येतना आमी असोळडेच्यान आयलीं. वाटेर आमच्या घरा कडेन इश्वर देवूळ आसा. त्या देवळाची काणी हांवें तांकां सांगली.

म्हजे भुरगेपणांत थंय देवूळ नाशिल्लें. दोनेक फूट उंचायेच्या चिऱ्यांचे वणटी भितर म्हळ्यार देवळाच्या आराखड्या भितर व्हड बरें सुळसुळीत लींग आसलें. ताचे

भोंवतणी चौकोनी पाशाणी पिंडिका. लिंगा भोंवतणी सदांच वांटकुळी पिंडीका आसता आनी ताका एके वटेन उदक सकल देंवक जागो आसता. पूण आमचें हें लींग वेगळेंच भशेन.

लींग आसा तो जागो गाभारो म्हळो जाल्यार तो बरोच व्हड आसा. ताच्या भायल्या जाग्यार ल्हानसो नंदी आसा. ते भायर सामकी भायले वटेन तुळस, आनी दावे वटेन पाशाणी घोड्यार बशिल्लो राखणदार आसा. आनीक कांय पाशाणी मुर्ती, चौकोनी फातुल्लेचेर देव कोरांतिल्ले अश्यो वस्तू मेळिल्ल्यो. आतां त्यो गोंय राज्य वस्तुसंग्रहालयांत व्हरुन दवरल्यात.

हें देवूळ पयलीं उगड्यारुच आशिल्लें. आमकां भुरग्यांक तें आमचें खेळातलें देवूळ दिसतालें. आमी थंय वतकर भोंवतणचीं रान फुलां लिंगाचेर घालून ताका हात लावन पुजा करतालीं. शेजराच आमची शाळा. परिक्षे दिसांनी आमी त्या लिंगाक फुलां घालुनच परिक्षेक वतालीं. त्या लिंगाची कोणच खरी पुजा करनासलो.

पूण केन्ना केन्नाय भगवंत म्हणून एक पिड्डुककार येतालो. प्लास्टिकचीं काकणां, रिबिनां, बावल्यो, सुयो, बिस्टीणी अशें गरजेचें सामान घेवन तो विकूंक येतालो. तो चड करून सोमार दीस येतालो. त्या दिसा तो लिंगाची पुजा करतालो.

आमी व्हड जातकच आमकां कळ्ळें, तें लींग चांदरा कोटांत आशिल्ल्या म्हादेवा देवळांतलें म्हणून! बाटाबाटी वेळार तें असोळड्या हाडून ह्या जाग्यार पुरुन दवरिल्लें. मागीर तें हळू हळू माती वचून दिश्टी पडूंक लागलें. तेन्ना आमकां सांगिल्लें, तें लींग आपले आपूण जमनींतल्यान वयर सरलां म्हणून.

सद्या त्या लिंगा भोंवतणी सोबीत देवूळ बांदलां. भायल्या राखणदारा भोंवतणी घुमटी बांदल्या. आतां थंय सगळीं देवस्पणां चलतात. देवळांत पांयां पडून आमी भायर सरलीं.

कुशावती न्हंय हुपून आमी चांदरा कोटांत आयलीं.

चांदर हो इतिहासीक गांव. ताचे भोंवतणी जायत्यो कथा, आख्यायिका आसात आनी खरो इतिहास लेगीत आसा. ह्या गांवचें नांव पयलीं चंद्रपूर आशिल्लें. उपरांत पुर्तुगेज राजवटकेंत चांदोर जालें. आतां तें चांदर.

चांदरा कोटांत म्हळ्यार पयलींच्या राजाचो राजवाडो जंय आशिल्लो तो जागो. आतां थंय राजवाड्याच्यो कांयच खुणो नात. त्या राजवाड्या भोंवतणी तट बांदिल्लो. ताका कन्नडांत कोट म्हणटात. आमी दोन तीन वर्सां चांदरा रावतालीं. तेन्ना त्या कोटा भोंवतणच्या भागांत पासयेक वतालीं. कोटा भोंवतणचो तो भाग म्हळ्यार पयलींचो खंदक. तातूंत उदक बी आसतालें खंय! पूण हालीं सरा तो रस्तो जाला. तेन्ना कोटाच्यो मोडक्यो, तुटक्यो वणटी आमी पळयल्ल्यो. ताचे चिरे लोक काडून व्हरताले.

आतां कोटांत देवळा तळय ह्या वाठारांत म्हादेवाच्या देवळाचो आकार तितलो दिसता. थंय तळी आशिल्ली अशें थळावे लोक सांगतात. पूण तळयेची थंय कसलीच खूण ना. आमी थंय रावतालीं तेन्ना नंदी भोंवतणी झाडां झोपां वाडिल्लीं आनी देवळाचे वणटीचे चिरे लोक व्हरताले. मागीर पुरातत्व खात्यान तो वाठार हातांत घेत पसून आतां तो जागो सांबाळून दवरला. देवळाचो आकार दाखोवपी तो जागो नितळ करुन थंय तकटो लायला. तकली नाशिल्लो येद्दो व्हड नंदी थंय आसा आनी एक बांय आसा. आनीकय बारीक सारीक मुर्ती आनी कितें कितें थंय मेळिल्लें. तें सगळें गोंय, राज्य वस्तू संग्रहालयांत दवरलां.

हांगा पयलीं हिंदू राजवटी वेळार मुसळांचो खेळ चलतालो. पुर्तगेजांनी ह्या वाठारांतल्या लोकांक बाटोवन जरी क्रिस्तांव केले, तरी तांणी कांय परंपरा जपून दवरल्यात. तांतलो एक मुसळां खेळ. कार्नवालाच्या दुसरे राती ते हो खेळ खेळटात. तांणी रंगीत मुसळां सांबाळून दवरल्यांत. पुडवीं न्हेसून माथ्याक मुंडासो बांदून ते राजा हरिहराचे गूण गावपी गीत म्हणत हो मुसळां खेळ खेळटात. मांडार दिवली पेटोवन तळी(नाल्ल-पड) दवरतात. पयलो खेळ मांडार खेळटात. मागीर घरा घरा मुखार वचून खेळ खेळटात.

तो सगळो वाठार पळोवन आमी मुखार गेलीं.

कोटाची शीम सोंपचे पयलीं मेळटा इतिहासीक म्हत्वाचो साराबाय फेर्नांडीस हांचो वाडो.







आमी थळावे लोक ताका सारबायचें व्हडलें घर म्हणटालीं. आमी चांदरा तांच्या घरा मुखावेल्या एका घरांत रावतालीं. तेन्ना साराबाय आशिल्ली. आमी जायते वेळा तांगेर वेतालीं. तिच्या घर भर खेळटालीं, नाचतालीं. पूण त्या घराचें इतिहासीक म्हत्व आमकां खबर नाशिल्लें. आनी आतां जशें तांणी आपल्या कडेन आशिल्ल्या पोरण्या वस्तुंचें प्रदर्शन दवरलां, तशेंय तेन्ना नाशिल्लें. तांच्या घराच्यो थोड्यो कुडी बंद आसताल्यो. घडये तातूंत तें सामान दवरिल्लें जावये!

आज तांणी त्या घराच्या फुडल्या भागांत वस्तू संग्रहालय करुन खूब बरें काम केलां. आमी बशींतल्यान देंवन सारबायगेर भितर सरलीं. थंय तांणी सुरवातीकच व्हड व्हड सालांनी माचुलां, अवजारां, फर्निचर मांडून दवरलां. भितर आंगणा वयर चवखेर वणटीक तेंकून फर्निचर आनी तांचेर खाणा जेवणाचीं काचेचीं तरेकवार आयदनां मांडून दवरल्यांत.तरेकवार व्हाज, कुंडयो सगळें दवरलां. ल्हान व्हड झुंबरांय वयर हुमकळायल्यांत.

सारबाय बी पयलींचीं देसाय. सांतेरी तांची कुलदेवी.घरांत फाटल्या भागांत पयलींचें ल्हानशें राज आंगण आसा.आनी ती हिंदू आशिल्लीं तेन्नाच्यो वस्तू थंय मांडून दवरल्यात. नाल्लार कोरांतिल्लो गणपती, देवाच्यो ल्हान व्हड मुर्ती, कासव सांबाळून दवरलां. ते भायर देवा आयदनां ,भाण, रांदपा आयदनां, वान, फातर, दातें, सुपां सगळें मांडून दवरलां.

तें पळोवन आमी वयर गेलीं. सकयलें हें घर जेदें व्हड आसा तेदेंच वयर आसा. पूण वयल्या अर्द्या भागांत तांणी वस्तू संग्रहालय केलां.

वयर लांबचे लांब हॉल आसा. ह्या हॉलांत पयलीं तांगेर काजरां आसतालीं तेन्ना डान्स जाताले. आतां थंय कार्व्हिंगचें तरेकवार फर्निचर मांडलां. वयर तरेकवार झुंबरां आसात. कार्व्हिंगच्यो लाकडी ल्हान व्हड पेटो दवरल्यात. तरेकवार व्हाज. सुरयो मांडून दवरल्यात. एके लाकडी पेटयेंत मोडी लिपयेंत बरयल्लें तांच्या कुळाच्या इतिहासाचें बाड आसा. पयलींची चित्रां, फोटो वणटीची सोबाय वाडयताले.

ह्या सालाच्या एका पोंताक व्हड बॅडरूम आसा. थंय पयलींचो ऊंच कोरीव पलंग आसा. चारय कोनशाक कोरीव दांडे आनी वयर मच्छरदाणी. बॅडरुमांत मेज कदेलां आसातच, ते भायर कार्व्हिंगचें नवलांचें ड्रेसींग टेबल आसा. ताका भितर भितर कितलेशेच चोर खण, भायल्यान पळयल्यार कांयच कळना.

पयलीं काळार संडास, बाथरूम घराचे फाटले वटेन मात्शे पयसचशे आसताले! अशे वेळार रातचें मुतूंक बी वच्चें पडत म्हणून तांब्या पितळेचीं तस्तां दवरतालीं. हांगाय बुंयावां, कंवचेचें तस्त आशिल्लें. तें लाकडी स्टँडार दवरिल्लें. ते भायर एका मेजार हात-तोंड धुवपाक अशेंच कंवचेचें बेसीन बसयल्लें. ताच्या म्हऱ्यांत शाब्बा आयदन, उदकाचें जार आसलें. शिवाय दोन कार्व्हिंगच्यो आरमारी आशिल्ल्यो. त्यो मात बंद आशिल्ल्यो.

ह्या सालाचे फाटले वटेन आनीक एक व्हड हॉल आसा. हांगांय सोफा, कदेलां, ल्हान व्हड मेजां, आरमारी आसात. हांगाय व्हाज, कुंड्यो आसात. मदले वणटीर व्हड बरें आल्तार आसा. ताचेर जेजुची व्हड म्हूर्त आनी मेणवातींचे स्टँड आसात. थंय एक दोगां जाणांक बसपाचो अजापाचो लाकडी सोफा आसा. दोगा जाणांनी दोन कोनशाक बसून गजाली करपाच्यो. ह्या हॉलांत पोरण्या फर्निचरां बराबर नवें फर्निचरय आसा आनी टी.व्ही.य आसा. ह्या हॉला फाटल्यान आमकां वचूंक मेळना. थंय सारबायचे पूत रावतात.

थंयच्यान आमकां आनीक एके कुडींत व्हेलीं. ही कपडे बदलपाची कूड म्हणून आमकां सांगलें. थंय लाकडी आरमारीय आशिल्ल्यो. हे कुडींत फाटले वटेन पड्डो आशिल्लो. त्या पड्ड्या फाटल्यान चोरवाट आसा. थंय भुयारांत देंवपाचीं सपणां आसात. ती वाट बरी निवळ आसा. लायटय घाल्या.

सात आठ ऊंच ऊंच सपणां देंवन आमी तळघरांत आयलीं. थंयच्यान व्होल्त घेवन आमी आनीक सकल देंवलीं. थंय ल्हानश्योच दोन कुडी आसात. थंयच्यान भायर वचपाक दार आसा. आतां तें पुरयलां. थंयच्यान लागींच्यान कुशावती न्हंयेचो फांटो व्हांवता. पयलीं थंय व्हडीं आसतालीं. कोणय दुस्मान, दरवडेखोर आयल्यार हे वाटेन लिपचोरयां भायर सरुन न्हंयचे वाटेन पळून वचूंक मेळटालें. ते कुडींनी ए.सी. लायिल्ले वरी थंड दिसतालें. वयल्यान देंवतना दोन पालशे बुराक दिशिल्ले. आमी तातूंत पळयल्यार आमकां कांयच दिसूंक नासलें. कुडींतल्यान त्या बुराकांत पळयल्यार सपणा वेल्यान कोण देंवता तें दिस्त कळटालें.

हें सगळें पळोवन आमी भायर सरलीं.

ते घरा लागींच एक कपेल आसा. तें पयलीं म्हादेवाचें देवूळ आशिल्लें खंय! त्या देवळाच्यो रूंद विटो अजूनय कपेलाच्या सपणाक लायिल्ल्यो दिसतात. त्या सपणा म्हऱ्यांत व्हड पाटावरी फातर आसा. ताचेर पांयाचे खोंटेच्यो खुणो आसात. त्या वेळार हो फातर कुशावती न्हंये वेल्या बंदराचेर आशिल्लो.

कदंब राजाचेर दुस्मानान घुरी घाली, त्या वेळार राजवाड्यांतल्या सगळ्या बायलांनी आपल्या आंगावेलें भांगर शिंगर मोखून मारुन ह्या फातरार उबीं रावन कुशावती न्हंयेंत जीव दिलो खंय. तांच्या पायांच्या खोटांच्यो खुणो त्या फातरार आयल्यात अशें म्हणटात! खरें फट खबर ना.

आनीक एक आख्यायिका म्हजी आजी सांगताली, त्या राणयांनी मोखून मारिल्लें तें भांगर मागीर कितलोच तेंप लोकांक मेळटालें खंय!

अशे तरेन कुशावतीचे देगे वेली आमची भोंवडी सोंपोवन आमी मडगवां परतलीं.

*मडगांव. मो.: 9420685278*

▶ भोंवडी

# दक्षिण आफ्रिकेंचें द्वीपकल्पाची

दक्षिण आफ्रिकेच्या केप टावनांत पर्यटकांक खूब कांय सुंदर सुवात पळोवपाक आशिल्यो. आमचें रावप फकत दोन दीस आशिल्यान आमी स्टेल्लेनबोश वायन ब्रूअरी, द्वीपकल्पाची (peninsula) आनी केप आफ गुड होप, (Cape of Good Hope), टेबल मौंटन आनी बोटेनिकल गार्डन हांची भोंवडी निवडली. आमकां रोब्बेन द्वीप पळोवपाची खूब आस आशिल्ली पूण त्या दीस पर्यटकांले गर्दी खूब आशिल्यान आमी वचूंक शकले नात. हांगा नेल्सन मंडेला हांणे आपल्या जिवितांतलो चड वांटो हांगचे तुरुगांत काडिल्ले आसा.

स्टेलेन्बोश– वाईनाचो दौरो (Wine Tour)

हो एक पोरनो शार, केप टौना पसून 50 कि मी पयस, हांगा 1680 पसून डच आनी फ्रेंचालें वसाहत आशिल्ले.




**सुषमा अरुर**

*लेखिका अणकाराच्या मळार वावुरता, ललित, भोंवडे वर्णन बरोवपांत रुची*


फ्रेंचान शेंकडा सावन पोरनी सोरो (वाईन) तयार करपाची सुरुवात केल्ली आनी आत्तां तें दक्षिण आफ्रिकेंतल्या सोन्या उद्देगाचें पाळणें म्हणोवन घेयता. हांगा 52 परस चड वाईन इस्टेट आसात आनी तांतूत सरासरी 69.7 कोटी लिटर वाईन तयार जाता. ह्या शार ओक रूकांन भरिल्लें आसून, सुंदर लॉनां (lawns) आनी यूरोपीय घरां हांगचें खासियत आसा. सेसिल रोड्स (Cecil Rhodes) नांवाच्या रोडेशियाच्या संस्थापकान ह्या वाठारांत खूबशें फळांची

मुखेलतायेन द्राक्षाच्यो फार्मां बांदलीं. हांगचे द्राक्षाचे मळे पळयले, पूण आमी द्राक्षांक उशीरान पूण वाईनाक वेळार पावलीं म्हणयेत!

सेंतेंब्र पयली तारकेक, वसंत ऋतुची सुरुवात आनी वाईन चाखप दिसाक आमी थंय पावलीं. त्या दीस रोज वाईन उत्सवाची सुरुवात आशिल्ली.

इरेस्ट (Erest) न्हंयचे देगेर सुरम्य दोंगराचे भोंवतणींत वसलां. अंतराष्ट्रीय मान्यताय मेळिल्लें विद्यापीठ आनी त्या वाटारांत सुंदर ईगर्जी, कॉलेज इमारती, फ्ली मार्केट, रस्त्याचे दोनी बाजूक रोयिल्यो ओक रूकां इतिहासीक परंपरा आनी आधुनिकतायेचो एक आगळोच संयोग हे सुवातेर दिसून येत्ता.

## विद्यापीठ परिसर (द्वीपकल्पाचो दौरो)

स्टेलेन्बोश पासून आमी पश्चिमी किनाऱ्याचे आरपार दर्यादेगे वयल्यान 82 कि मी टॅक्सीन प्रवास केलो. वाटेर आमकां फाल्स बे ( False Bay ) आनी ताचे फुडें म्यूजनबर्ग शार पळयत मुखार सरलीं. अमचे पुराय प्रवासांत निळसर महासागर, तशेंच किनाऱ्यार दिसपी पेंग्विनाच्यो झुंड पळयलेले अद्भुत दृश्य अजून मेरेन दोळ्यां मुखार येयत रावता.

आनी मुखार सरता तेन्ना थंय भोवत आशिल्ले सुंदर ऑस्ट्रिचान, तांणीगोमटी वयर करन आमकां येवकार दिलो. सैमाचो सोबीत आनी अपरूपाची सृष्टी पळयत आमी दक्षीण आफ्रीकेचे दक्षिणी तोंकाक पावलीं.

ही भूशीर दर्या थरा सावन 200 मीटर उंचायेचेर आसा. आमी फनेल कारार वयर चडले आनी थंय निळे-निळे अट्लांटीक आनी हिंदु महासागराचे संगम एका तोंका सावन दुसऱ्या क्षितीजा मेरेन दिसपी दृश्यान आमकां मंत्रमुग्ध केलें! आम्मी गेल्ले तेन्ना महासागर शांत आनी गंभीर दिसलो, पूण वास्को डा गामाक वादळ आनी तुफानाक तोंड दिंवचे पडलें. केप ऑफ गुड होप, केप माक्लीयर आनी केप पोयंट ह्यो तिनूय सुवात प्राण्यांनी आनी वनस्पतीनी भरिल्ली दाट रान शें लांबून दिसतालें.

लायट हावसांत एक ल्हानशा म्युजियमांतल्यो वस्तु पळोवन महासागर पार करन वचपी नावीक आनी दर्या चोरांची याद आयली. दर्यांत मोडिल्ले तारवांचे अवशेष, नाविकांली तावीज, तांणी उपेग केल्लीं उपकरणां, कंपास, टेलीस्कोप सगळें पळोवन दोळ्यां मुखार त्या काळांतलो इतिहास याद कर्न घेतलें.

आमचो प्रवास दर्या वयल्यान चालू दवरलो. वाटेर आमी च्यापमन शिखर, हौट बे, केंप बेचेर सोबित सैम,





आनीक कांय शहामृग (ostriches) पळयत मुखार सरलीं. केंपबे च्या शिखरार 12 अपोसलांले (Apostles) तोंडां सामके स्पष्ट दिसतालें.

रस्त्याची कडार केपटौन विश्वविद्यालय, ताचे वयर दोंगुल्लीर रॅडस मेमोरियल (Rhodes Memorial) पळयत सुर्यास्ता पयलीं टेबल मौंटन (Table Mountain) पावलीं.

दुसऱ्या दिसाक आमी सूर्योदय पळोवपाक टेबल मौंटन परतीं गेले. थंय देकून केबल टूरार आमी आनी वयर सकून केप टौन शार , बंदर, क्लीफटन बीच , रोब्बेन द्वीप पळोवन आमचें मन सुखावलें. क़ेबल टूराचो अणभव अपरूपाचो आशिल्लो.

### करस्टन्बोश बोटेनिकल गार्डन
### (Kirstenbosch botanical Gardens)

प्रवेश द्वाराचेर एक फळ्यार बरयल्लें हें एक संवसारांतलें पयलें देशी वनस्पती उद्यान जें दक्षिण आफ्रीकेचे वनस्पतीचो प्रचार आनी संवर्धन करपा खातीर 1913 त स्थापन केल्लें आस्सा.

### Garden abounds in colorful flora

528 हेक्टर इस्टेटांत एक लागवडीची बाग आनी राखीव सैमांत 4500 वयर प्रजातीं सयत दूर्मीळ आनी धोक्यांत आशिल्ल्या वनस्पतींक हांगा राखून दवरिल्लें आस्स. दोंगरां भोंवतणींत रंगीत फुलांनी भरिल्ली पाचवी बाग धर्तरेचेर खऱ्या अर्थान स्वर्ग शी दिसताली!

मुखेलतायेन द. आफ्रिकेचे राष्ट्रीय फूल म्हूण नामनेचें प्रोटियस वेग-वेगळ्या रंगांत पळोवन मन खोशयेन भरून गेलें.

वेळ उणो आशिल्लो, हांगच्यो सुखद यादी मनांत रुजोवन घेवन द. आफ्रिकेचो निरोप आमी घेतलो.

*दोनापावल, मो.: 9740399995*

# संमोहनशास्त्र एक विज्ञानीक दिश्टी कोण



संमोहनशास्त्रा बद्दल जनसामान्यांत एक गूढ आसा. संमोहन हो एक जादुचो प्रयोग वो एकाद्रे व्यक्तीक आपल्या नियंत्रणा खाला दवरपाक केल्लो यत्न अशीच जायते जाणांची समजूत आशिल्ल्यान ताचे पासून पयसच रावप बरें हेंच तांचें मत आसता. आमी सिनेमानी जायते फावट संमोहनाचेर चित्रीत केल्ले प्रसंग पळयतात आनी आमचे मनांतलें गूढ आनीकूय वाडटा. अशेच कांय प्रसंग–

प्रसंग 1 – एकलो जादुगार माचयेर जादुचे खेळ करता. तांतूंत वाटेकार जावपाक तो प्रेक्षकां मदल्या कोणाकूय एकल्याक आपयता. त्या मनशा दोळ्यां मुखार दोन तीन फावट हात फिरयता आनी संमोहीत करून ताका आपल्याक जाय तशें करपाक सांगता. तो मनीस जादुगार सांगता ते प्रमाण सगळें करता. समजा जादुगारान आंगावेले कपडे देंवोंवपाक सांगले वो कोणाकूय कितेंय चोरपाक सांगलें जाल्यार तो तशें करत व्हय? जादुगाराक ताका प्राणी वो शेवर्णे करप शक्य आसत काय?

प्रसंग 2 – एक वेब सिरीज पळयिल्ली जंय एक खलनायक जो एक सायको किलर आसता तो ल्हान भुरग्यांक फारावन तांकां संमोहीत करून तांचे नकळत तांचे कडसून खून करून घेता. अशे तरेन त्या शारांत जायते खून जातात. अशें संमोहीत करून खून करून घेवप शक्य आसा व्हय?

प्रसंग 3 – एक जादुगार एकल्याक संमोहीत करता आनी ताका तसोच सोडून दिता. तो मनीस जादुगारान सांगिल्लें तेंच आनी तितलेंच करीत रावता आनी कसोच त्या
संमोहनांतल्यान भायर सरना. ताका तांतूंतल्यान भायर काडपाक जेन्ना त्या जादुगाराक सोदून हाडटात तेन्ना ताका सारको करपाक जादुगार जायते दुडवांची मागणी करता आनी ते दितकरच ताका तांतूंतल्यान भायर काडटा. आमचे वांगडाय बी अशें घडल्यार भिरांत शी !? असो प्रस्न जायते जाणांक पडटा.

आतां हें सगलें कितलें सत्य आनी कितलें मिथ्या? तशें पळोवपाक गेल्यार सिनेमा, चडकरून दाक्षिणात्य सिनेमांत असले कल्पने पलतडचे आनी अतार्कीक प्रसंग चित्रीत करून सिनेमाचे काल्पनीक स्वातंत्र्याच्या नांवा खाला लोकांच्या गळ्यांत घालतात. हात वाऱ्यांत फिरोवन वावटळ तयार करप, पिस्तुलांतल्यान सुटिल्ली गुळी हातान धरून मारतल्याचेर परत शेवटुवप, एके व्यक्तीच्या आंगांतलें रगत सरळ दुसऱ्या मनशाच्या आंगांत घालप, जळटे चितेवेलो मनीस जितो जावन भायर सरप असले अतार्कीक प्रसंग


**मंजुषा सिनाय तळावलीकार**

*लेखिका विद्यादानाचें कार्य करता. हेर भासांतल्या आपल्या वाचनाचो लाव हेरांकूय मेळचो म्हूण तें गिन्यान लेखा रुपान कोंकणींतल्यान सोंपेपणान मांडटा.*

आमकां सिनेमांत हमखास पळोवपाक मेळटात.. तांतूंत जेन्ना संमोहनाचे प्रसंग आसतात तेन्ना तर संमोहनशास्त्रा बद्दलचें लोकां मदलें गूढ आनीकूय वाडटा, जे वरवीं लोकां मदीं नाका जाल्ले गैरसमज पातळटात. जायत्या जाणांक दिसता संमोहन म्हणल्यार मनाची वो जाणिवेची एक असामान्य स्थिती जंय ती व्यक्ती ट्रान्सांत वचून स्वताचें नियंत्रण आनी इच्छा शक्त गमायता आनी स्वताचेर ताबो नाशिल्ल्यान संमोहन तज्ञान सांगिल्लें तें सगळें अंमलांत हाडटा. ह्या समजांतल्यान फकत अर्दसत्य लोकां मेरेन पावता आनी ताका लागून ह्या शास्त्रा कडल्यान लोक मातशे पयसूच रावतात.

तर आयज ह्या लेखांतल्यान संमोहन शास्त्रांतले समज कितले सत्य आनी कितले मिथ्या हाचेर विज्ञानीक दिश्टीकोणांतल्यान उजवाड घालपाचो एक ल्हानसो यत्न.

संमोहन हें एक मानसशास्त्र, जंय संमोहीत केल्ले व्यक्तीचें लक्ष वेंचीक गजालींचेर एकाग्रतायेन केंद्रीत जाता. ते व्यक्तीची आशीकुशींक आशिल्ल्या गजालींची जाणीव उणी जाता आनी सुचनेक प्रतिसाद दिवपाची क्षमता जायते पटीन वाडटा.

संमोहना बद्दलचो उल्लेख 'ट्रांन्स' म्हणून सगळ्यांत आदी 1027 एविसेनिया ह्या पर्शियन चिकित्सकाच्या लिखाणांतल्यान सांपडटा. ते उपरांत बद्द 18 व्या शेकड्यांत फ्रॅन्झ मेस्मर ह्या जर्मन चिकित्सकान आधुनीक संमोहनाची बुन्याद घाली. म्हूण संमोहनाक ताच्या नांवा वेल्यान मेस्मरिझम म्हूण उल्लेखतालीं. तांकां संमोहन शास्त्राचो जनक म्हूण वळखतात. संमोहनाचें संशोधन फुडें व्हरपी आबे फारिया हो गोंयचो लुसो- गोवन कॅथलीक जाचो जल्म 1756 क बार्देस तालुक्याच्या कांदोळी गांवचो. तांणी संमोहनाचो शास्त्रीय पद्दतीन अभ्यास केलो. तांणी संमोहनशास्त्र वापरून जायते जाणांक बरे केले. गोंयांत पणजे सचिवालया कडेन तांचो संमोहन करतनाचे कृतींतलो पुतळो आमकां पळोवपाक मेळटा. वैद्यकीय शास्त्रांत दोतोर एलियस्टन आनी दोतोर जेम्स एसडेयल आनी संशोधक जेम्स ब्रॅड हांणी जैवीक आनी भौतीक दिश्टींतल्यान संमोहनशास्त्राचेर उजवाड घालो. संमोहनशास्त्र शास्त्रीय पद्दतीन उपचार पद्दती म्हूण वापरतात. दूख, चिंता, नैराश्य, मोटसाण, किमोथेरपी खातीर जावपी मळमळ वो ओकारी, ताण तणावा सारकेल्या मानसीक दुयेंसांक पयस करपाक संमोहनशास्त्राचो योग्य तरेन उपेग करपाक जाता. संमोहन



उपचार हे बाकीच्या वखद आनी संज्ञानात्मक वर्तणूक उपचारा वांगडा (cognitive behaviour therapy) वापरुंक येता. तरी जनसामान्यांत आयज लेगीत संमोहना बद्दल गूढ आसा. लोकांक ती जादूच कशी दिसता आनी ते खातीर ताचे बद्दल जायते गैर समज लोकां मदी आसतात!

### संमोहनाशास्त्रा बद्दलचे कांय गैरसमज

गैरसमज 1 – संमोहनतज्ञ आमकां संमोहीत करतकच मांजर ना जाल्यार कोंबडी करपाक शकता-

जो संमोहन चिकित्सक तज्ञ आसता तो ही नाका जाल्ली हात चलाखी करना. माचयेर प्रयोग करपी जादुगार वो संमोहनतज्ञ कसलीय चलाखी करून मनोरंजन करतात. पूण खरेपणान एखादे व्यक्तीचें तो मांजर वो अन्य प्राणी वो शेवण्यांत रुपांतर करप कशेंच शक्य आसना. प्रेक्षकांची मनरिजवण करपाक ताका प्राण्याचे वो शेवण्यांचे आवाज बी काडपा लावप शक्य आसा. पूण चिकित्सा पद्दतींत मनरिजवण ही मोख नासता. माचये वेले प्रयोग आनी चिकित्सा संमोहन हे दोन वेगळे प्रकार. पूण दोनूय कडेन ते व्यक्तींक संमोहीत करपा खातीर ते व्यक्तीची आपखोशयेन मान्यताय मात आसपाक जाय.

गैरसमज 2- मनान कमकुवत आशिल्ले व्यक्तीकूच संमोहीत करप शक्य आसता.

हो निव्वळ गैरसमज. कोणाकूय संमोहीत करप शक्य आसता. पूण फकत त्या मनशाची आपल्याक संमोहीत करून घेवपाची मानसीक तयारी मात आसपाक जाय. पळोवपाक गेल्यार आमी सगळींच जाणां दर दिसा कळत-नकळत जायते फावट संमोहीत स्थितींत पावतात. आमी जेन्ना कल्पना करतात, सृजनात्मक काम करतात तेन्ना आमची एक तरेन तंद्री लागता वो भावनीक अणभव घेतात तेन्ना आमचें लक्ष पुरायपणान तांतूंत घुस्पता वो केंद्रीत जाता.

कमकुवत मनाचे वो कणखर मनाचे आसूं, तांचें पुराय सहकार्य आसल्यारच तांकां संमोहीत करप शक्य आसता. ते खातीर कमकुवत मनाचे बी आसपाची गरज ना. पूण संमोहन खंयचेय व्यक्तीक आपले मनाचेर आनी कुडीचेर बरे रितीन नियंत्रण दवरपाक मजत करता आनी ते खातीर ते ताका कणखर मन विकसीत करपाकूय मजत करता.

गैरसमज 3 – व्यक्ती जेन्ना संमोहीत स्थितींत आसता तेन्ना तो न्हिदेंत आसता.

खरें म्हणल्यार संमोहीत स्थितींत तो मनीस अदीक जागृत आनी एकाग्र आसता. आदले काळांत संमोहनतज्ञ संमोहीत करतना ते व्यक्तीक न्हिदपाची आज्ञा दितालो. पूण आतांचे संमोहन चिकित्सक तशें करनात, पूण त्या वाट्याचे ते ताका गाढ सुशेग घेवपाचे स्थितींत व्हरतात; जंय ताची तंद्री लागता. पूण अजुनय संमोहकाचे पोरणी पद्दतीचें चित्रूच लोकांच्या दोळ्यां मुखार येता.

गैरसमज 4 – संमोहनतज्ञा कडेन एक लोलकाचें घड्याळ आसता जाचो लोलक तो संमोहीत जावपी व्यक्तीच्या दोळ्यां मुखार झुलयता–

संमोहनतज्ञ हें क्वचितच करतात. संमोहीत करपाक आशिल्ल्या हजारांनी पद्दतीं मदली ही एक तरेची पद्दत. आतां काळांत ही पद्दत साप्प उणी जाल्या. पूण एकादे व्यक्तीक जाय आसल्यार तें वापरूं येता.

गैरसमज 5 – लोक एकेका फावट संमोहनांतूच उरतात आनी भायर येनात.

हें तर साप्प फट. खंयचीय व्यक्ती संमोहनांतल्यान सहज भायर येता. पूण केन्ना-केन्नाय एकादी व्यक्ती ते तंद्रेंतल्यान भायर येवपाक सोदना. कित्याक तर ते संमोहीत स्थितींत ताच्या मनाक इतलो सुशेग मेळिल्लो आसता की तांकां तांतूंतल्यान भायर येवपाची इत्साच जायना. ते खातीर आमकां तो आसोच संमोहीत जावन उरतलो असो गैरसमज जाता. पूण संमोहनतज्ञान दोन-तीन वेळा आज्ञा दितकच तो तांतूंतल्यान भायर येता वो ताका न्हीद लागता आनी तो उठता तेन्ना तो तांतूंतल्यान भायर आयिल्लो आसता. तांतूंतच घुस्पून उरता अशें सिनेमांत सोडून आनीक खंयच घडना.

गैरसमज 6 – संमोहीत जाल्ले आसतना आशीकुशीक उजो पेटलो वो कसलोय घात-पात जालो जाल्यार ताची जाणीव ते व्यक्तीक जायना.

संमोहीत जाल्ले व्यक्तीक ताचे आशीकुशीक घडपी सगळ्याच गजालींचें भान नासलें तरी कसल्याय धोक्याची वो अरिश्टाची जाणीव वो भान आसता. संमोहन चालू आसतना खंयी अचकीत उजो बी लागल्यार ती व्यक्ती आपोआपच संमोहनांतल्यान भायर येता आनी अपेक्षीत तरेन परिस्थिती हाताळटा.

आमी सदच्याच वळखीच्या रस्त्याचेर गाडी चलयतना जायते फावट आमची तंद्री लागता. आमकां रस्त्याचेर चड लक्ष केंद्रीत करपाची गरज पडना. आमचो मेंदू आपोआपच तें हाताळटा. पूण अचकीत जर फुडल्यान कोणेंय ब्रेक मारलो वो अपघात जालो जाल्यार आमी पुराय भानार येतात. खरे म्हणल्यार सदचेंच काम करतना आमची जायते फावट तंद्री लागता तें एक तरेचे संमोहनच. तें करपाक आमकां कोणा तज्ञाची गरज भासना, तर तें एक तरेचे आत्म-संमोहन. आशीकुशीक कसलोय धोको दिसलो जाल्यार जशी आमची तंद्री मोडटा तशेंच संमोहीत केल्ले व्यक्ती बाबतय घडटा.

गैरसमज 7 – व्यक्ती संमोहीत स्थितींत आसतना जर संमोहनतज्ञाक वो चिकित्सकाक कितेंय जालें वो तो थंयच्यान नाच्च जालो जाल्यार ती संमोहीत व्यक्ती तेच स्थितींत उरता–



हांव ल्हान आसतना दुरदर्शनाचेर एक 'झोपी गेलेला जागा झाला' नांवाची एक मराठी हास्यमालिका येताली जातूंत अशोक सराफान काम केल्लें. तांतूंत अशेच प्रसंग दाखयल्यात जंय संमोहनतज्ञ ताका संमोहीत करून सोडून दिता आनी ते स्थितीतूच उरुन हांसत उरता आनी कित्या कितेंय करपाक लागता. पूण हें फकत टिवी सिनेमांतूच घडटा. खरेंपणान तशें कांय घडना. संमोहन तज्ञा कडसून सुचनेची वाट पळोवपी व्यक्तीक जर जायते वेळ मेरेन कांय सुचना मेळ्ंकू ना जाल्यार एक तर तो वाजेवन तांतूंतल्यान भायर येतलो ना जाल्यार ताका न्हीद लागतली आनी जाग येतकच तो सदचेच वरी न्हिदेंतल्यान उठून कांयच घडूंक नाशिल्लो भशेन वर्तन करतलो. संमोहनतज्ञाचें संमोहीत केल्लो व्यक्तीचेर कसलेय तरेचें असामान्य नियंत्रण आसना.

गैरसमज 8 – एकादे संमोहीत जाल्ले व्यक्तीक संमोहनतज्ञाचो आवाज आयकूंक आयल्यार ताचो अर्थ तो संमोहीत जालोना असो जाता.

हेंवूय कांय खरे न्ही. दरेकल्याचो तो वैयक्तीक अणभव आसता. थोडे जाण संमोहकाचो आवाज आयकतात तर थोडे जाण तो आयकनात. पूण आवाज आयकूंक येता हाचो अर्थ तो संमोहीत जालो ना असो जायना. चड करुन लोक एके तंद्रेंत वचपाक सोदता जेणे करुन तांकां सुशेग आनी आनंद मेळटा.

गैरसमज 9 – संमोहनाचे तंद्रेंत आसतना व्यक्ती कडल्यान ताचें खोल गुपीत लोकां मुखार ताच्या तोंडांतल्यान वदोवन घेवपाक शकता –

एकादे व्यक्तीक ताचे जिणे बद्दल कितेंच उलोवपाक नाका जाल्यार तें वदोवन घेवप सोंपें नासता. संमोहीत जाल्ली व्यक्ती फट मारपाक शकता आनी ती ते स्थितींत चडच कल्पक आसता. म्हूण संमोहीत स्थितींत दिल्ली गवाय कोर्टांत ग्राह्य धरनात.

गैरसमज 10 – संमोहनतज्ञा कडेन असामान्य शक्त आसता –

जायते शिक्षीत लोकांचो लेगीत असो गैरसमज आसता. खरें म्हणल्यार संमोहनतज्ञ हो सगल्या सामान्य मनशां सारको मनीस जो खाता पिता, न्हिदता, उठटा, आनंदीत जाता, दुखी जाता आनी बाकी सगलें करता. ताचे कडेन कांयच जादुई शक्त बी नासता. फकत ताणें संमोहन शास्त्राचो अभ्यास केल्लो आसता आनी प्रशिक्षण घेवन त्या कामांत कुशळताय मेळयिल्ली आसता. ती कला अवगत करुन जायते वर्सांचो अणभव गांठीक मारतकच तो एक कुशल संमोहनतज्ञ वो चिकित्सक जावन लोकांक संमोहीत करून तांकां मजत आनी मार्गदर्शन करुंक शकता.

माचयेर प्रयोग करपी संमोहनतज्ञ मात आपल्या कडेन असामान्य शक्त आशिल्ले वरी चित्र उबें करतात जे वरवी तांचो खेळ गूढ आनी मनोरंजक जाता आनी लोकांची मनरिजवण जाता. पूण ते माचयेर करतात ती चडशी हातचलाखीच आसता जी तांणी खर यत्न करुन आनी अणभवान सादिल्ली आसता.

गैरसमज 11 – कूड शिथील करुन विसवाचे स्थितींत व्हरून व्यक्तीक संमोहीत करचें पडटा

कूड शिथील करुन विसव घेवपाक लावन संमोहीत करप हो संमोहीत करपाची एक पद्दत जरी आसली तरीय संमोहन फकत तेच पद्दतीन करपाक मेळटा अशें ना. खंयचोय खर भावनीक अणभव जागो करुन वो मनाक उत्तेजीत करुन वो चिंता जागृत करुनय संमोहीत करपाक मेळटा. संमोहनतज्ञ गरजे प्रमाण जी सगळ्यांत कार्यक्षम पद्दत आसा ती वापरुन संमोहीत करता. फकत रिलॅक्स करुनच संमोहीत करपाक जाय अशें ना.

गैरसमज 12– संमोहीत जावपी व्यक्ती संमोहीत जाल्ल्याचें फकत संवंग घेता.

लोक जायते फावट म्हणटात की एकादे व्यक्तीक माचयेर प्रयोग करपी जादुगारान माचयेर आपयलें आनी ताका संमोहीत केलें जाल्यार ती व्यक्ती खरेपणान संमोहीत जायना तर त्या जादुगाराक बरें दिसपाक जाय म्हूण फकत नाटक करता. स्टेजीर प्रयोग करतना एकाद्रें कांय फावट खरें आसत! पूण उपचार पद्दतींत मात खरेपणान संमोहीत जाता. हजारांनी लोकांचेर संमोहन चिकित्सा करुन हुंगरी लायनासतना शस्त्रक्रिया करप शक्य जालां.

तर अशे हे समज आनी गैरसमज. अस्तंते कडच्या देशांत संमोहनशास्त्राचेर जायतें संशोधन जालां आनी मनोचिकित्सक शास्त्रीय पद्दतीन ताचो वापर करतात. भारता सारक्या देशांत मात चड करून लोक कसलेय गजाली कडेन अंधश्रध्दाळू नदरेंतल्यान पळयतात. ती नदर आमी आतां बदलपाची गरज आसा. मनोचिकित्सेन मान्यताय मेळयिल्लें संमोहन हें एक शास्त्र जाचे बद्दलचे नाका जाल्ले गैरसमज आमी पयस करुन ताचो आमचे जिणेंत उपचार पद्दती म्हूण लाव आमी घेवपाक शकतात.

***मडगांव, मो.: 9822981508***

# तूं म्हजेंच

''रुचा, तुवें फटयलें गो म्हाका.''

निधी बडबडली. सकाळ जाल्या ती पळोवन ती हातरुणां वयली उठली. सुर्याचीं किर्णां धर्तरेर वयर सरतात तशी-तशी थंडाय पयस-पयस वताली. घरांत रोजांचो परमळ पसरललो. खळ्यांत माटवांतले सजावटी खातीर लायलले पड्डे घराक वेगळीच सोबाय हाडटाले. लग्नाच्या घराक माटव पडलो काय तो काडीसर पांच-स दीस तरी घरच्या मनशांक एकेच उमेदीन दवरता. अशें आसलें तरी कालच लग्न जाल्ल्या ह्या घराच्या प्रसन्न वातावरणांत दोग जीव घुस्मटताले. निधी आनी लतिका.

निधी रुचाचें आतें, पूण खरेपणी ताची आवयच जाल्ले वरी ताणें ताका ल्हानाचें व्हड केल्लें. रुचा कितेंय जाल्यार आपल्या आत्याकच उलो घालतालें आनी निधीकय ताच्या शिवाय जिवाक सूख लागनासलें. लतिका, रुचाची आवय सभावान एकदम बरी. रुचा आपले पेक्षा आपल्या आत्याकच चड मानता, ताचो चड मोग करता म्हूण तिका केन्ना वायट दिसलें ना वा तिणें केन्ना रुचाचेर राग उगतायलो ना. निधीचें लग्न जावंक नासलें आनी भावाकय तें जड जावंक नासलें, तरी निधी जायते फावट आपणाक लागून घरचें वातावरण गरम जावचें न्हय हाची खूब काळजी घेतालें.

रुचाचो जल्म जावन एक वर्स जाल्लें. 'लतिका पळय, बायच्या फुडाराक कितें तरी सांबाळून दवरूंक जाय. पयशे अशेच मोडत आसता, हातान कांयच उरना.' भावाचीं हीं उलोवणीं कानार पडलीं तेन्ना निधी येवजणेंत पडललें. हांवूय ह्या घरांत रावतां. म्हजोय कितें तरी वांटो घर खर्चाक वचपाक जाय. पूण पयशे खंयच्यान हाडूं? सोदतल्याक वाट मेळटाच. तिणें घरांतच वाड्या वयल्या कांय भुरग्यांक ट्युशनां दिवपाक सुरवात केली. तिच्या मोगाळ आनी बरे तरेन समजावन सांगपाच्या सभावाक लागून भुरगीं बरीं करून शिकतालीं. ट्युशनाच्या भुरग्यांक व्हरूंक आयिल्ल्या पयकी एके बायलेन एक दीस पांच वर्साच्या रुचाचीं फकाणां केलीं. 'हें आत्या आमचें. आमी ताका व्हरपाक आयल्यांत.' रुचा सोमतेंच रडकुरें जावन आत्याक पळोवंक लागलें. निधीन ताका आपणा कडेन ओडीत म्हणलें, ''बाय, हांव



**संपदा केरकार**

*कविता,कथा आनी ललित ह्या साहित्य प्रकारांत रुची आशिल्ल्यान उमेदवारी करता.*

तुजेंच. तुका सोडून खंय वच्चोंना.'' तेन्ना पासून रुचा ताका अदी मदी 'तूं म्हजेंच' म्हणटालें आनी निधी लेगीत 'हांव तुजेंच' म्हणून हांसतालें.

आठवी यत्तेंत आसतना एक दीस रुचा स्कुलांतलें बेगीनच घरा आयलें आनी कोणा कडेन उलय नासतना सरळ आपले कुडींत गेलें.

''निधी, पळय गो रुचाचें कितें जालां तें, न्हिदून रावलां. कितें विचारल्यार तुका धाड म्हूण सांगता.'' लतिकान रागान म्हणलें.

निधी रुचाक पळोवन आयलें तेन्ना लतिकान हुस्क्यान ताचे कडेन पळयलें. निधीन म्हणलें, ''कांय जावंक ना. मासीक पाळी जाल्या म्हूण न्हिदून रावलां, फाट फोडटा खंय. हांव गरम उदकान शेकतां ताका. तूं बेश्टी चिंत्ता करूं नाका.''

लतिकान कपलार हात मारलो. ''ताका ही गजाल म्हाका सांगू जाय नासलली?''

रुचा अभ्यासांत हुशार तर आसलेंच, तितलेंच सगळ्या गजालींनी शिटुकय आसलें. धावी, बारावी आनी ताचे फुडली प्रत्येक यशाची पायरी हुपतकच ताचें श्रेय ताणें आपल्या आत्याकच दिल्लें.

एक दीस अशें सहज म्हूण ताणें आत्याक विचारलें, ''आत्या, म्हाका एक सांग, तूं लग्न कित्याक जावंक ना?''

अचानक विचारिल्ल्या प्रस्नान निधीक मातशें कच्चा जालें, पूण रूचा आतां बरें वायट समजुपा इतलें व्हड जालां हें मतींत घेवन ताणें जाप दिवपाक कळाव केलो ना.

''जाणा रुचा, तुज्या वयार आसतना हांव कोणाच्या म ोगान पडिल्लें. पूण मोग चड काळ टिकूंक ना. तुज्या मम्मा पप्पान म्हजें लग्न करपाक खूब धडपड केली पूण म्हजें मन लग्न जावंक केन्नाच फुडें सरलें ना.''

आपल्या प्रस्नान आत्याक मातशें दूख जालां कशें समजून रुचान विशय बदल्लो. 'तूं म्हजेंच' म्हणलें आनी तें थंयच्यान गेलें पूण परत आनी केन्नाच हो प्रस्न काडलो ना.

कांय वर्सां सरलीं आनी रुचाचें लग्न थारलें. थारलें म्हणचे परस रुचानच आपलो साथिदार सोदून काडललो आनी निधीक फुडें काडून लग्न थारावन घेतिल्लें. लग्न थारऽ मेरेन तें काल लग्नाक भायर सरऽ मेरेन रुचान आत्याक मात पासून पातयेलेंना. 'आत्या, पळय हो पाचवो रंग म्हजेर बरो दिसता न्हय? तुवेंनय असलीच साडी न्हेसपाक जाय. हांव पसंद करतां तीच न्हेसपाची आं!' ताणें आपल्याक जाय त्यो आनी पसंद आसलेल्यो सगळ्यो



गजाली आत्या कडल्यान करून घेतल्यो. 'घरची सजावट आमी रोजांनीच करुंया आं!' निधीन ताका पसंद तितलेंय करून घेतलें. कसलेच गजाली वयल्यान रुचाचें तोंड बावचेंना हाची खातरी करून घेतली.

काल सकाळीं सगळीं लग्नाक भायर सरता म्हणसर घर भर बोवाळ. 'सडसडीत भायर सरात. म्हुर्ता पयलीं पावपाक जाय.' कोण एक जाणटेली आवाज चडोवन उलयताली. सगळ्यांकच घाई. 'सगळें सामान सारकें घातलां मुगो? तुमचो कायदो हो. कांय कमी पडूंक दिवं नाकात.' तिच्या धेंकण्याक लागून लतीकान निधीक सामानाची परतून तपासणी करपाक लायली.

निधीन सामानाची गाडी बरी करून तपासली आनी परत आयलें.

'सगळें सारकें आसां.' ताणें म्हणलें.

'रुचा चल भायर सरुंया. सगळ्यांक पांया पड.' रुचान देवाक हात जोडले आनी जाणट्यांच्या पांयां पडूंक आयलें तेन्ना ते जाणटेलेन म्हणलें, 'चला बेगीन, वाटेक दवरपाक पान-वेडो घेतला मुगो?'

लतिकान 'हय' म्हणलें. सगळीं भायर सरलीं. जाणटेली तुळशी कडेन पावली तशी तिणें फाटीं वळून पळयलें, आनी म्हणलें, ''आगो लतिका, घरा कोण रावता गो?'' लतिका वोगीच रावलें, तिच्या हातांत चावी, कुलूप आसलें. पूणं तिणें 'घर बंद करून वतां' म्हणलें ना. निधी गाडयेंत बसपाक वतालें. ताका पळयत तिणें म्हणलें. ''पळय निधी, घर बंद करून भायर सरप आसना. तूं राव घरा. हांगा वाड्यार सुद्दां कोणाक सांगतलीं म्हणल्यार लोक हॉलांत पावला जातलो!'' लतिकाक तिणें म्हणलें, ''तुमी येजमानी तुमी
फुडें सरात आनी हॉलांत पावलीं काय कोणाक धाडून दियात.''

निधीन लतिका कडेन पळयलें. ताका तिचें सांगणें

मानवलेंना. जाणटेलेचे दचकेन लतिकान ताच्या म्हऱ्यांत येवन म्हणलें, ''निधी तूं राव मातशें. आमी हॉलांत पावतांच कोणाक धाडून दितां.''

निधीन 'हय' म्हणलें ना , 'नाय' म्हणलें ना.

पूण घडलें विपरीत. लतिका हॉलांत पावून सगळें विसरलें. हेवटेन निधी आतां आपणाक व्हरूंक कोण येतलो म्हूण भायर भितर फावटी मारतालें तर तेवटेन आपले धुवेचें लग्न लागता तें पळोवन लतिका खोशयेचीं दुकां लिपयत सगळ्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक जाप करतालें. अचानक ताका याद जाली,'आरे! हो सुखाचो खीण अणभवपाक निधी ना! ताणें वाड्या वयल्या दोगां तिगांक मातशें घरा वचून निधीक धाड म्हूण विनोवन पळयलें, पूण लग्न सांडून हांगेर वचून रावपाक कोणाक आवडपाचें आसलें? जाणें ताणें 'आपूण मगीर वतां' म्हणलें. आनी नाइलाज जावन लतिका लग्नाच्या हेर कार्यांत व्यस्त उरलें.

सांज जावपाक पावली तशी निधीन आपली साडी बदल्ली. तें साडयेक पळयत हुंडक्या हुंडक्यांनी रडलें. 'रुचा, तुका म्हजी मातूय याद आयली ना? हांव लागीं ना ताची जाणीव तुका जाली ना काय? जिणेचे दर नवे वाटेर म्हाकां पयलीं मान दिवपी आज नव्या संवसारांत पावल दवरतना तुज्या दोळ्यांनी म्हाका सोदलें ना काय?'

लतिका आनी बाकिचे लोक घरा पावले तेन्ना वाडो किण्ण कसो दिसलो. लतिका गुन्यांवकारी भावनेन घरांत सरलें. कित्याक आपणें निधीक फाटीं राव म्हणलें. जाणटेलेन सांगलें आनी हांवें आयकलें, पूण तिकाच,'तूंच मातशी राव' म्हणपाक जालें ना. आनी ही रीत पाळपाक म्हत्वाची आसलीच काय ना तेंय म्हाका खबर ना. आतां निधीक कशें म्हूण तोंड दाखोवं? गेल्लो वेळ परत येवचोना.

निधी कुडींत बसून आसलें. लतिकान पळयलें. रडून रडून ताचें तोंड सुजिल्लें. फाल्यां उलोवया म्हूण लतिका आपले कुडींत वचून आड पडलें, पूण दोळ्यांक न्हीद नासली.

सकाळ उदेली तशें लतिका निधी कडेन गेलें. निधी उठलेलें पूण ताचें तोंड बावललें. माटवांतल्यो अस्ताव्यस्त पडलल्यो खुर्च्यो सारक्यो करीत निधी घरांत भितर सरतालें. रावूं नज जावन लतिकान ताका वेंग मारली. ती दोळ्यांत दुकां भरून उलयताली, ''निधी माफ कर म्हाकां. म्हजीच चूक जाली. हांवें कोणा कडेन तरी पयलींच खबर काडपाक जाय आसलली. घराक कुलूप करूनूच वचपाक जाय आसललें. कांय बिगडपाचें नासललें. खोशयेचो दीस आसलो तरी आज म्हाका दुख्खाचो दीस कसो दिसता. म्हज्या हातान घडिल्ली ही चूक म्हज्यान कशीच सुदारूं येना. माफ कर म्हाका.''

निधीक आतां आनिकूय रडपाक आयलें.

'रुचान म्हजी एकदां तरी वासपूस केल्ली?' हो प्रस्न ताका करूं कसो दिसलो पूण तोंडांतल्यान उतरच भायर सरलें ना. मोन्यांनीच रडलें आनी मनाक समजायलें. 'जावं, सुखाचो संवसार कर रुचा. हांव फुड्यान ना तें कळूनय तुज्यान कांय करूं नज आसलें. कोणूय कितेंय म्हणू पूण तूं म्हजेंच. तुजें लग्न पळोवंक पावलें ना म्हूण तुका दोश दीवं नजो, हो म्हज्या नशिबाचो भोग म्हणचो पडलो! तरी तूं म्हजेंच गो बाय!'

अशें चिंतत निधी न्हिदूंक गेलें. पूण ताका रात भर दोळो लागलो ना. फकत ताचे सामकार रुचाचें लग्न येतालें,जें पळोवप ताच्या नशिबांत नाशिल्लें.

सकाळीं उठून जेन्ना तें भायर आयलें तेन्ना कालचो लग्नाचो माटोव घस्स करून ताच्या दोळ्यांर आयलो. ताका परतून रुचाची याद आयली.' 'रूचा, तुंवें फटयलें गो म्हाका.' म्हणत तें माटवांत पडिल्ल्या रोजांचें पारतें झाडूंक लागलें.

---

***म्हापशें, मो. 9767112524***

---

# उश्णे पयशे...!




पयशे उश्णे दिवपाची काव्यश्रीक तांक आसा आनी इत्साय आसा. ताचे कडल्यान खूब जाणांनी उश्णे पयशे घेवन
आपापलीं कामां केल्यांत. कोणाचीय गरज भागयल्यार आपणाक पूण्य मेळटलें हेच भावनेन तें दिता.
उश्णे पयशे दिवन वायटय प्रसंग आंगलट आयल्ले आसात आनी आजूनय 'तूं देव मनीस कशी म्हाकां ते वेळार पावल्ली' अशेंय म्हणपी लोक संपर्कात आयल्यात.

निमाणें, 'पांच बोटां सारकीं नासतात' तशेच मनशाचे वेग वेगळे विचार, वेगवेगळे संस्कार. थोडे उपकार मानपी, तर थोडे तोंड लिपोवपी आनी थोडे तर आशिल्ल्यांनी नाशिल्ल्यांक दिवंकच जाय अशे विचार बाळगुपी आसात. जगाची रीतच ती! कोणाकच दोशी थारोवप न्हय तर मेळिल्लो अणभव खूबशें शिकोवन वता म्हूण कितें तरी पुण्य आनी अणभव जोडलो म्हूण धादोसकाय मानून घेवंक जाय. काव्यश्री तशेंच चिंतता म्हूण आज खूब खूश आसा. हातांतलें गेलें तें दुसऱ्याचें आनी हातांत आयलें तें आपलें अशें तें म्हणटा.




**कल्याण सावंत**

*कविता,कथा आनी ललित ह्या मळार उमेदवारी करता. ताचो 'काव्यश्री' हो काव्य सग्रह उजवाडाक आयला.*


1983 सालांत काव्यश्रीची एका खेड्यांतल्या कुटीर हॉस्पिटलांत बदली झाली. थंयचे आरोग्य कामगार गरज तेन्ना काव्यश्री कडल्यान उश्णे पयशे मागून व्हरताले. तांतूंतले थोडे पगार मेळतगीर रोकडेच हाडून दिताले, थोडे 'फुडल्या म्हयन्यांत हाडून दितां' म्हूण सांगताले तर थोडे 'काव्यश्री विसरलां आसतलें' म्हूण संदीसादूचें पांगरुण घेतल्या वरीं ओगी रावताले.
पूण काव्यश्री तशें बरेंच श्रूड! सोंपेपणान सोडचें ना.
कित्याक सोडूंक जाय आपल्या कश्टांचे पयशे अशें आज्येन ताका शिकयल्लें. खरें तर प्रत्येक जाण त्रास काडून जोडून दवरतात, ते कितें लोकांक चणे कशे वांटूक न्हय. पूण गरज तेन्ना पावंकच जाय.
एकदां एक गजाल घडली ती अशी, एक दीस तीनसांजचो कामा वेलो एक वॉर्डबॉय रोहीदास माथें खरपीत काव्यश्रीच्या कॉर्टसा कडेन सामको खालती जावन आयलो.
म्हणपाक लागलो,''सिस्टर म्हजी आवय बरी ना. पन्नास रूपया मेळत? दोतोरान वखदां बरोवन दिल्यांत.''
बाबडें काव्यश्री घरांत वचून हळूच पन्नास रुपयांची नोट घेवन आयलें आनी ताचे हातीर दवरली. एकूणीसशें चौद्यांयशी, पंच्चायशीं सालांत पन्नास रूपया म्हळ्यार आयजचे पांचशे रुपया. आपणें कोणाक तरी वखदां हाडूंक मदत केली म्हूण ताका काळजांतल्यान बरें दिसलें.
दुसऱ्या दिसा काव्यश्रीक सकाळीं ड्यूटी आशिल्ली. हॅन्ड ओवर घेवंक वच जाल्यार हो रोहीदास एडमीट जाला. काव्यश्रीक पळयना फुडें ताची आवय रडूंक लागली. 'बाय तुयेन पयशे दिले आनी तो फेणी पियेलो आनी पडलो. ही दशा जाली तेजी!' ती रडूंक लागली. काव्यश्रीक सामकें तोंडार थापट पडिल्ले वरीं जाल्लें. दुसऱ्या दुयेंतीची लज्जय दिसली.
काव्यश्री तोंड धापून ओगीच रावलें. उज्यांत पेट्रोल घाल्यार आनीक मोठो उजो जातलो आनी एका हॉस्पिटलांत मठ्यान उलोवचें न्हय म्हूण ओगीच रावलेंय बी आसत!
एक म्हयनो गेलो, दुसरो म्हयनो आयलो. रोहीदासाचो पत्तोच

नाशिल्लो. रजा सोंपून पगार कापचो पडलो.
अर्दो म्हयनो सोंपलो आनी रोहीदासाची आवय काव्यश्रीच्या घरा कडेन  पयशे मागूंक हजर. आतां ताका आयतीच संद मेळ्ळी आनी रोहीदासाची सगळी  काणी काव्यश्रीन ताचे आवयक
सांगली आनी हॉस्पिटलांतली तिची वागणूक याद करून दिली.
काव्यश्रीचो स्वभाव मात्सो तिरकस! बरें जाल्यार कितलेंशेंच बरें आनी एकदां फिरलें जाल्यार ना म्हणजे ना. रोहीदासाचे आवयक  कशेच दिले नात ताणें पयशे. गरजवंताक  दिवंचे पूण अशें  नाक शिंब्रें जावन न्हय.
असोच हॉस्पिटलाचो एक ड्रायव्हर पयशे मागून घेतालो आनी  परत करपाच्या वेळार निमतां सांगून वेळ मारून व्हरतालो. पूण केन्नाच परत करी नासलो. मागले जाल्यार, 'कित्याक पयशे तुमकां? तुमी दोगांय जोडटात.' अशें म्हणटालो. इतलेंच न्हय, खंयचेय नर्सी कडेन ताणें पयशे मागून मेळ्ळेनात जाल्यार तिजें नांव कित्याय कितें घडोवन खबरी सांगून घाणायतालो. ते वेळार ड्रायव्हरांक काम तरी कितें आसतालें? खास करून हॉस्पिटलांत काम करतल्यांक फकत दुयेंत चड बरो ना जाल्यार व्हडल्या  हॉस्पिटलांत पावोवन येवपाचें आनी चकटां मारीत बसपाचें! हाच्यो ताच्यो खबरो घडोवन हाका ताका सांगपाचो.आयकुपी  बरो आसलो जाल्यार  खरें खोटें  ओळखून शाणेपणांची दोन उतरां धवळ्याक सांगता.
आयकूपी जर पोकळ कानांचो आसलो जाल्यार सांगूकच नाका.तिखट मसालो लावन,पाखांचो पारवो करूंन,  पत्रावळी गाठावन त्यो कश्यो सगळ्यांक पातळावपाचें तें काम गोस्तान करतात.
तशीं कानपोकळेपणां शिकनाशिल्ले मनीस पसरता अशें न्हय तर शिकील्ले दोतोर, नर्सी, बाकीचे ऑफीस कर्मचारी आणि अधिकारी सूद्धा मोठ्या गोस्तान वाटेकरु जातना दीसताले. आतां  सरकारान  एमटीएस म्हणूण एक कामगार वर्ग केला ताका लागून ड्रायव्हरांक बाकीचें ऑफीसांतलें आनी प्युनाचेंय काम करचें पडटा. आदल्या तेंपार 'हें म्हजें काम न्हय, तें म्हजें काम न्हय' अशें ते म्हणटाले.
अशेंच एकदां पंदरा सोळा वर्सां पयलीं कोणें एकट्यान काव्यश्री कडेन मागून  धा हजार रुपया घेतले आनी दिवपाची खबर करीना जालो. आपलीं कामां व्यवस्तीत करीत रावलो. काव्यश्रीन एके शेजान्नीक सहज म्हळें, 'पळेलां गो, अमक्या मनशान गरजेक पयशे मागून घेतिल्ले ते दिलेच नात. आज ताणें दोन गाडयो घेतल्या पूण म्हज्या पयशांची याद करीना.'



काव्यश्रीचे जिबे
वेल्यान उतरां भायर
मात सरल्यांत, चुळके
शेजान्नीन केन्नाच वचून
कान फुंकले.
त्याच दिसा सांजवेळां
शुक्रार आशिल्ले कारणान
काव्यश्री दिवली पुजतालें.
इतल्यांत नेटान बेल
वाजली म्हूण काव्यश्री बेगीन बेगीन दार उगडूंक गेलें जाल्यार उश्णे पयशे घेवपी  तो मनीस रागीश्ट तोंड करून दारांत उबो. कितें समजूंक जाय तें  काव्यश्रीच्या लक्षांत आयलें.
''यो भितर बस, च्या करतां.'' काव्यश्रीन म्हळें.
''नाकां च्या करूंक.''  ताणें म्हळें. बोल्सांत  हात घालून पयशांचें बंडल भायर काडलें आनी 'घे तुजे पयशे' म्हणत सोफाचेर पयशे उडोवन तुरतुरीत  चलूंक लागलो.
काव्यश्री ताका पळेत उरलें. ज्युरा शिवाय धा-बारा वर्सां वापरले म्हूण देव बरें करूं म्हणप सोडून दी. वेल्यान हो राग तरी कित्याक? काव्यश्रीक अजिबात वायट दिसूंक ना. असल्यो खूब घडणुको ताचे जिणेंत घडल्यात.
दिवली पेटोवन तें ध्यानाक बसलें. घडिल्ली खबर ताणें कोणाकच सांगली ना. ताका हालींच कळ्ळें की जो मनीस शुक्रारा पयशे आपटून गेल्लो तो केन्नाच वयर सरलोचना. असो लक्ष्मीचो अपमान केलो जाल्यार ती तरी कशी येतली?
काव्यश्रीचे  एके सिनियर नर्सीक आनी तिचे भयणीक कोणेंतरी रीण फारीक करचें पडटा म्हूण कोयत्यान जितींच मारुन उडयलीं.  ही  फोण्यां घडिल्ली खबर. जेन्ना पेपरार वाचली  त्या दिसा काव्यश्रीन आपल्या घरकाराक भीत भीत आपणाक घडिल्ली खबर सांगली.
एकदां एकदां पयशे उश्णे दितात तेन्ना बाप्पाय गेलो आनी पुडवेंय  गेलें अशी परिस्थिती येता. पयशेय परत येनात  आनीक रीण घेवपी मनीसय पयस जाता. संबंद आनी आपलेंपणय तुटून वता म्हूण ही म्हण याद जाली.
पूण ज्याचें पयशां खातीर अडता तांकां आदार दिवंकच जाय हें मनीसपण. पयशे उश्णे घेतिल्ल्या मनशान मनीसपण दाखोवन परत केले जाल्यार तीं ताचीं मोठेपणां, ताचे संस्कार आनी तें आपल्या हातांत ना अशें काव्यश्रीक दिसता.

---

फोंडें, मो.  9765128185

भुरग्यांचें अंगण

# भिलो तो शेणलो



एक वागीण आपल्या भुरग्यांक घेवन रानांत भोंवताली. सकाळचो वेळ. मोव वत सगळ्याक पातळिल्लें. एक वागाचें पोर मुखार मुखार धांवतालें.

''पळय, एकलो एकलो फुडें धांव नाका. शेणटलो आं!''

ताची मम्मा परत परत शिटकायताली. पूण हो चड बुदवंत समजतालो जावये! आंगान बरो धश्टपुश्ट आशिल्ल्यान तो बरो व्हड दिसतालो.

एकलो एकलो हेवटेन तेवटेन धांव धांव धांवतालो.

आनी खरेंच जालें. ताची आनी मम्माची, भावंडांची चुकामूक जाली.

रान सामकें गच्च. कशाय कशीं वाडिल्लीं झाडां. झाडां पेडांक वेंगायल्ल्यो गच्च कांट्यांच्यो वेली.

त्या वागाच्या पोराक आपली मम्मा दिसचना. तो फाटल्यान परतलो आनी आपल्या भावंडांक सोदूंक लागलो. आतां तर तो सामकोच भिल्लो.

वाट चुकून मर्दी आशिल्ले मेकळे सुवातेर तो पावलो. व्हडलें मळ अशें आशिल्लें तें.

एके वटेन दोंगर आशिल्लो. तो त्या दोंगराक पळोवंक लागलो. ह्या दोंगरार बी गेली काय? भोंवन भोंवन पोटाक सामकी भूक लागिल्ली आनी अचकीत ताची नदर थंय लागसारच बसून वत खातल्या सोशाचेर गेली.

व्वा! बरो सांपडलो! मनांत खूश जायत ताणें सोशा वटेन उडी मारली.

आरे देवा! हांवें कशें पळयलें ना हाका? सोंसो मनांतल्यान भिलो.

आतां धांवन कांयच उपेग ना. तो धपक्यांत म्हाका धरतलो आनी खातलो. सोंसो चिंतूंक लागलो. फट्ट करून ताणें म्हळें,

''आरे ही तीं पळय, गुबगुबीत कोंबी! आपल्या सानुल्या पिलांक घेवन भोंवता पळय!''

''धांव मार बेगीन. काय बरे गुबगुबीत कोंबयेचें रुचीक मांस खांवंक मेळटलें तुका.''

''खंय रे? म्हाका दिसना मरे!'' वागा पोर उचांबळ जालें.

'' त्या झुडपा फाटल्यान आसा मरे....! दिसली?

चल हांवच दाखयतां तुकां!''

सोंसो दोन पावलां फुडें सरलो.

''पळय सारको. तें झाड हालता पळय. थंयच पोंदा आसात तीं!''

''सामकें तन्नें रुचीक मांस मेळटलें तुका. मार धांव बेगीन.''

वाघा पोर बेगोबेग फुडें सरलें तशी होळूच सोशान कूस मारली.

वाघा पोर बाबडें झुडपा फाटल्यान गेलें आनी वालींत घुसपलें.

सोश्यान घरा येवन आपल्या भुरग्यांक सगळी खबर सांगली आनी सांगलें कितलोय त्रासांत पडूं, तकली थंड दवरून उपाय सोदपाक जाय. भिवपाक जायना. भिलो तो शेणलो!!



**उषा ज. कामत**

*लेखिका बाल साहित्य आनी ललित हातूंत सातत्यान लेखन करतात.*

मो.: 9763823745

# चिमणेची हुशारी



एक आसली चिमणी आनी एक आसलो सोंसो. चिमणी खूब हुशार आसली आनी सोंसो खूब आळशी आसलो. एक दीस सोंसो आनी चिमणी दोगांय बाजारांत गेल्लीं. बाजारांत चिमणेन आपोल, केळें, पेर घेतलें. सोंश्यान कांदो, मिरसांग, बटाट, गाजर घेतले. दुकानदारान चिमणेक पयशे दी म्हळें. चिमणेन दिले. दुकानदारान सोंश्याक पयसे दी म्हळें. आळशी सोंसो कितें तरी चिंततालो. चिमणेन ताका हालयलो. तरी तो चिंतत आसा. चिमणेन ताच्या बोल्सांतल्यान पयश्यांचें पाकीट काडलें आनी दुकानदाराक पयशे दिले.

अशी आशिल्ली तांची आमिजाद!



**आर्याही अंबर शेणवी बोरकार**
*विद्या भुवन कोंकणी शाळा,मडगांव.*
*यत्ता तिसरी.*



# शाळा

एक चलो आसलो. ताचें नांव हेमंत. हेमंताक आयकुपाक येना आसलें. ताची भयण शीला. ताका कांयच प्रॉब्लेम नासलो. शीला शाळेंत वतालें. हेमंत शाळेंत वचऽ नासलो. हेमंताक शाळा आवडटाली. पूण ताका वचपाक मेळनासलें. भयण जेन्ना सद्दां शाळेंत वताली तेन्ना तो रडटालो.

एक दीस आवयन ताका समजावन सांगलें, '' आरे तुका आयकूंक येना न्ही! ते खातीर तूं शाळेंत वचना.'' आवयन ताका हात हालोवन जें सांगलें तें ताका कळ्ळें. तो रडपाचो थांबलो आनी आवय सांगता तसो वागूंक लागलो. सद्दां उठून टीवी पळोवन ताका अभ्यासाचो वाज येवंक लागलो. ताका अभ्यास आवडना जालो.

पूण एक दीस ताचे भयणीन ताची समजूत काडली. आयकूंक येना जालें तरी तूं शाळेंत येवन बस सांगलें. थोड्या दिसांनी तोय शाळेंत वचूंक लागलो.

मागीर ताकाय शाळा आवडूंक लागली.

# स्मार्ट सिटी



'पणजी वील बी अ स्मार्ट सिटी' टिचरीन म्हणलें तशें सगल्या भुरग्यांच्या मम्मी- पप्पान ताळयो वाजयल्यो. राहुलाच्या मम्मी-पप्पानूय. पूण राहुलान ताळयो वाजयल्यो नात, ताका हालीं हालीं ह्या 'स्मार्ट' उतराचीच तिडक
मारताली. तागेर कोणूय येवं मम्मी ताका सांगताली, 'सिंग अ पोयम बाबा' मागीर राहुलान 'बाबा ब्लॅकशीप हॅव यू ॲनी वूल' नाजाल्यार 'लंडन ब्रीज इज फॉलींग डावन, फॉलींग डावन, फॉलींग डावन' म्हणपाक जाय आसलें. राहुलाक त्या कवितांचो अर्थूय कळनासलो. पूण



नयना आडारकार

*वेगवेगळ्या पुरस्कारांनी सन्मानीत ज्येश्ठ लेखिका,कथा,कविता,ललित,विनोदी,बाल साहित्य ह्या प्रकारांत फिशाल.*

कविता म्हणटकच मागीर मम्मी पप्पा धरून, आयिल्लीं सोयरीं ' मार्ट बॉय, स्मार्ट बॉय' म्हणून ताळयो वाजयतालीं.

राहुलाक खूब आवडटाली ती 'हळ्ळुवो ताल्ल बेबो'
कविता. ती म्हणटना ताका सामकी खोस भोगताली. मामाच्या गांवातलो व्हाळ, व्हाळा देगे वयलो बेबो उडक्यो मारीत 'डराव डरांव' करतालो, मामाल्या दुरगार तांबडो गुंज कोंबो 'कोंकोंच कोंऽऽ' करतालो, आंगणांतल्या झाडार बसून कावळो 'कांव कांव' करतालो आनी धवोफुल्ल बुकी जाल्यार सामको म्हऱ्यांत येवन 'म्यांव म्यांव' करता अशें राहुलाक दिसतालें. पूण ती म्हणपाक गेल्यार मम्मा दोळे मोट्टे करताली. ओगीच आयलीं मामाचो गांव सोडून राहुलाक दिसलें.

आतां पणजी स्मार्ट सिटी जातली हें आयकतच त्या स्मार्ट उतरा खातीर राहुलाक तिडक मारली.

त्या दिसा राहुल न्हिदपाक गेलो. पूण ताका न्हीद येना जाली. ताका याद जाली मामाई. आपले कुशींत घेवन ताका थापटुपी 'न्हीद रे म्हज्या बाबुल्या, पयस वच रे काजुल्या...' म्हणत ललय गावपी. केन्ना केन्ना मामाई काणीय सांगताली, निळ्या कोल्याची, हुपू माकडाची, टिल्लू हुंदराची. राहुलाक मामाईच्यो काणयो खूब आवडटाल्यो. मम्मीय तश्यो काणयों सांगताली, पूण त्या काणयांतलीं नांवां ताका लागींचीं दिसनासलीं. रेड रॉबीन, स्नोमॅन... ताका मागीर काणी सुरू जावचे पयलींच न्हीद येताली.

आयज ताका मामाईची खूब याद जाली. मामाईनूच ताका हळ्ळुवो ताल्ल बेबो म्हणपाक शिकयल्लें.

'आतां तूं मामाईचो राहुल न्हय, स्मार्ट सिटींतलो स्मार्ट बॉय'- मम्मीन ताका सांगिल्लें.

हे स्मार्ट सिटीचो धसकोच घेवन राहुल न्हिदलो.

राहुल जागो जालो तो एका विचित्र आवाजान. 'गॅट अप राहुल, गॅट अप राहुल' आवाज घुमतालो. पळयल्यार वणटींतल्यान, खाटींतल्यान आवाज येता 'गॅट अप राहुल'. राहुल भियेवन 'मम्मा' म्हणीत उठून भायर आयलो. पळयल्यार भायलो सोफा ताका म्हणटा, 'हॅलो, गुडमॉर्नींग, हॅलो
गुडमॉर्नींग!' तो तसोच बाथरुमांत आयलो. ताका पळोवन ब्रशान म्हणलें, 'ब्रश युवर टीथ'. राहुलान बेगीबेगीन तोंड धुयलें. तोंड पुसून तो हारशा मुखार उबो रावलो तशें हारशान म्हणलें, 'स्मार्ट बॉय'.

राहुलाक अचकीत आपलें आंग घट जाता अशें दिसूंक लागलें. ताचें तोंड आंवळून येवंक लागलें. पळयतां पळयतां ताका तो एक रोबोट कसो दिसूंक लागलो. रोबोट जाल्ल्या राहुलान हारशांतल्या आपल्या प्रतिबिंबाक पळोवन म्हणलें, 'हाय! आय ॲम राहुल, अ स्मार्ट बॉय फ्रॉम द स्मार्ट सिटी' राहुल मागीर चलपाक लागलो पावलां मेजीत. पंदरा पावलांत राहुलाचो रूम. थंयच्यान धा पावलांत राहुलाची आलमार... पावलां पावलां मेजता मेजतां राहुलाचे हात आपशींच काम करताले. ताणें कपडे घाले, नाश्तो खालो, बूट घाले आनी तो शाळेंत वचपाक भायर सरलो. भायर रस्तोभर सगलेच रोबोट. जुही, श्वेता, शांभव सगलींच रोबोट. की... कीट... की... कीट... वाटभर फकत एकूच आवाज. ना हांसप, ना किटकिटप, ना बोवाळ, ना गोंदळ. शाळेच्या आंगणांत लेगीत हेंच, सगलेच रोबोट चलतात. कसलोच आवाज ना, गोंदळ ना.

राहुल रोबोट जाल्लो तरी ताचें मन तशेंच आसलें. मनशा वरी. भाव-भावनांनी भरिल्लें. खळखळीत हांसपी जुही, वासरा वरी उडयो मारीत चलपी शांभव, सगलीं सगलीं भुरगीं भावना नाशिल्लीं रोबोट कशीं चलतालीं. हांसतमुखान सगल्या भुरग्यांक जाप दिवपी ताचो क्लास सर लेगीत एक यंत्र कशें दारांत उबो रावून येत्या वत्या भुरग्यांक दोळे मोट्टे करून येवकार दितालो, 'वेलकम टू दी स्मार्ट स्कूल'

'स्मार्ट' शब्द आयकना बरोबर राहुलाचें काळीज सामकें धडधडपाक लागलें. तो तसोच वर्गांत भितर सरलो. सगलीं रोबोट जाल्लीं भुरगीं आपल्या आपल्या जाग्यार ओगी बसलीं. इतल्यांत टिचर भितर सरली. रोबोट टिचर मीस स्मिता. तिणें आपल्या मुखा वयल्या भुरग्यांक 'ई-बूक' ओपन करूंक लायलो आनी ती शिकोवपाक लागली. 'लाऽलाऽलाऽ .... लंडन ब्रीज इज फॉलींग डावन, फॉलींग डावन, फॉलींग
डावन...'

भुरगींय गावपाक लागलीं... 'लंडन ब्रीज इज फॉलींग
डावन, फॉलींग डावन फॉलींग डावन...' राहुलाक तें आयकून अख्खो लंडन ब्रीज आपल्याचेर कोसळटा अशें दिसूंक लागलें. ताणें आकांतान आपले दोनूय हात वयर उबारले तशीं आपसूक ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं,
'हळडुवो ताल्ल बेबो शेता मेरेर उबो, हांवें म्हळें बेब्या बेब्या...' राहुलाचें मन खोशयेन भरलें. ताका मामाई दिसपाक लागली. मायेन भोंवडायल्लो हात, ती ललय याद जाली. तो नेटान गावंक लागलो, 'धवो फुल्ल बुकी आंगणांत येवून बसलो, हांवें म्हळें बुकी बुकी हुंदीर आयला धांव... '
राहुलाचें आंग आतां सदळ सदळ जावपाक लागलें. स्मार्टनेस येवपा खातीर आंखडून धरिल्लें आंग मेकळें जालें.

मेकळ्या आंगाक मेकळें वारें लागलें तसो ताचो आवाजूय नेटान येवपाक लागलो. ताच्या आवाजाचे सूर सगल्या भुरग्यांच्या वळखीचे... बेबो, कोंबो, बुकी.... तीं उतरां तांच्या काळजाक केन्नाच आपटलीं आनी तांच्याय आंगा वयले रोबोट झरझर वितळूंक लागले. सगलीं राहुला सांगातान गायत उडयो मारपाक लागलीं, 'धवो फुल्ल बुकी आंगणांत येवन.....'

राहुलान पळयलें ताची मीस लेगीत खोशेन ताळयो मारीत तांकां साथ दीत म्हणटाली, 'म्यांव... म्यांव... म्यांव'.

---

*खोर्ले, मो. 9823537563*

# पिन्टूची मन भोंवडी..

किणी किणी असो घांटीचो आवाज कानार पडना फुडें पिन्टूक कळ्ळें, आज्रेची पुजा करून सोंपली.

आयतार वा सुटये दिसांनी पिन्टू घरा आसता तेन्ना ताका आज्रेची देवपुजा पळोवंक मेळटा. तिची देवा कुडींत वचून पुजा करपाची एक थारावीक वेळ आसता. ती पयलीं न्हाता धुता आनी मागीर देवाकुडींत वचून बरोच वेळ देवाचीं स्तोत्रां, पोथी बी कितें कितें वाचता, अभंग म्हणटा आनी मागीर शेवटाक घांट वाजोवन देवाक पांयां पडटा. मागीर लागीं  कोण आसात तांचे हातार प्रसाद म्हूण गोडा कुडको, मोदक जावं हेर कितेंय हातार दवरता. कांयच ना जाल्यार साकर तरी दवरता.

पयलीं पिन्टू आज्रेची पुजा सोंपपाची वाट पळयतालो तो ह्याच प्रसादा पासत. सुरवातीच्या काळांत पिन्टू आज्रे वांगडा देवा कुडींत आसनमांडी घालून हात जोडून बसतालो. पूण आजी कितें बडबडटा तें ताका कांयच कळऽ नाशिल्लें. ताका वाज सो येतालो. 'सोंपय गे आज्रे आनी म्हाका प्रसाद दी' अशें मनांतल्या मनांत म्हणटालो. पूण ती घांट हातांत घेवन किणी किणी करून हालयना ते सर कोणाकूच प्रसाद मेळना म्हणपाचें पिन्टूक अणभवान कळिल्लें.

मागीर पिन्टू देवा कुडींतल्यान आज्रेचे घांटीचो किणी किणी आवाज येवपाची वाट पळयत आपलें कितें ना कितें काम करतालो आनी घांट वाजली रे वाजली धांवत देवा कुडींत वचून देवा मुखार हात जोडून बसतालो.

पूण आज पिन्टूचें लक्ष देवा कुडींत लागिल्लें तें वेगळ्याच कारणाक लागून. ताणें काळदादाक विचारिल्लें मन मनशाचे कुडी भितर खंय आसता काय म्हूण!

तेन्ना काळदादान उरफाटें ताकाच म्हणिल्लें, तुजे आज्रेक वचून विचार देव खंय आसता काय म्हूण. तुका जाप मेळटली. आनी काळदादा मागीर नाच्च जाल्लो. तेन्नाच्यान पिन्टू आज्रेक आपूण विचारतलोंच म्हूण राविल्लो. पूण ताका सक्काळीं शाळेंत वच्चें पडिल्ल्यान ती संद मेळूंक नाशिल्ली. आयज आयतार आशिल्ल्यान तो घरा आशिल्लो आनी केन्ना एकदां आज्रेची ती माणकुली घांट किणी किणी करता हाची वाट पळयतालो.

आज्रेची किणी किणी एकदाची सोंपता. देवाकुडी कडेन कान लावन बशिल्लो पिन्टू पुट्टूक करून उठटा आनी देवा कुडीकडेन धांव मारता.

''आयलो म्हजो बाबुलो? घे प्रसाद घे आनी देवाक पांयां पड.''

आजी हातांतली घांट देवा पांयां कडल्या पडग्यांत दवरीत पिन्टूच्या हातार मागीर पंचपात्रांतलो गोडा कुडको दवरूंक वता. पिन्टू हात फाटीं घेता.

''आज्रे म्हाका पयलीं सांग, देव खंय आसता?''

पिन्टूच्या प्रस्नान आजी अजापता. पिन्टून असो प्रस्न हे आदीं तिका केन्नाच विचारूंक नाशिल्लो. कित्याक विचारलां काय पिन्टून? आजी येवजूंक पडली.

तिणें पिन्टूक भक्त प्रल्हाद, हिरण्यकश्यपुची बी काणी केन्ना तरी सांगिल्ली. तेन्ना काय पिन्टून तिका देव खंय आसा अशें केन्नाच विचारूंक नाशिल्लें. मोन्यानी काणी आयकल्ली. पूण आतां ताच्या ह्या प्रस्नान तिणें आपले दोळे बारीक केले. ताका नियाळीत ताका हात मुखार करूंक सांगलो आनी ताच्या हातार प्रसाद दवरलो.



**दिलीप बोरकार**
*साहित्यकार, ज्येश्ठ पत्रकार आनी बिम्ब मासिकाचे मुखेल संपादक*

'' पयलीं देवाक पांयां पड आनी मागीर प्रसाद खा.''

''आगे, हांव पडलों मगे पांयां भितर सरतनाच! तूं दोळे धांपून आशिल्ली ताका हांव कितें करूं? तुका जाय जाल्यार हांव परतून पडटां. पूण म्हाका पयलीं सांग देव खंय आसता?''

आपले पांय जमनीर सकयल वयर करीत पिन्टून हातांतलो प्रसाद तोंडांत उडयलो आनी आपले हात आज्जेच्या पदराक पुशीत तिका विचारलें.

''आरे तो गोडाचो हात म्हाका पुसता? मुयो आनी दोमळे भरतले मरे पापया!''

'' ते हांव धांवडायतां मागीर. पूण पयलीं सांग देव खंय आसता? काळदादान सांगलां म्हाकां तुका विचार म्हूण.''

''कोणें सांगलां?''

आज्जेच्या प्रस्नान पिन्टू शादूर जालो.

''आगे कोण ना गे. तो म्हजो सिक्रेट. आसा कोण तरी! तूं सांग पळोवंया म्हाका, देव खंय आसता?''

''आरे पिन्टूऽऽऽ आज्जेक पिडूं नाका रे सकाळीं सकाळीं...तिका पुजा करूनी! देव सगळ्याक आसता. चल हांगा यो ब्रेकफास्ट करपाक. हांव सांगतां तुका देव खंय आसा तो!''

पिन्टूचे मम्मान पिन्टूक रांदचे कुडींतल्यान सादयलो.

'' तूं नाका. तूं खंय करता तर सकाळीं पुजा देवाची? आजी करता. तीच सांगतली!''

पिन्टून आज्जेचो हात धरीत म्हणलें.

'' आरे पिन्टू, मम्माय करता आं पुजा सांजची! तुळशीक निरंजन बी दवरता, पळोवंक ना तुवें? सकाळचें तिका तुजे पोटपुजेची तयारी करची पडटा न्हय!''

''पूण म्हाका तूं सांग. तूं देवा कडेन बी उलयता. हय मगे? मागीर सांग देव खंय आसता?''

पिन्टू दाडेक धरिल्लें आतां सोडचो ना हें आज्जेक कळ्ळें. ताका कितें तरी सांगले बगर तो सोडचो ना हें तिका खबर आशिल्लें. पूण तिका तरी खंय खबर आसा देव खंय आसा तो! तो आसा तें खरें. ताचें अस्तित्व तिका होलमता. पूण तो अमूक सुवातेर आसा,तमूक सुवातेर आसा म्हणपाचें सोदपाक ती केन्नाच वचूंक ना.

''बाबू, देव मरे सगळ्याक आसा. तो एकेच सुवातेर म्हूण ना.''

पिन्टूक कशें सांगचें आनी समजावचें हाचो विचार करीत आज्जेन म्हणलें.

'' मागीर तूं देवाचेच कुडींत बसून देवाची पुजा कित्याक करता? देव सगळ्याक आसा जाल्यार तुवें सगळ्याक पुजा करपाची. केन्ना आंगणांत, केन्ना सालांत, केन्ना बल्कावांत. पूण तूं तर सदांच देवाकुडींतूच वचून पुजेक बसता. तूंच कित्याक? पप्पाय तेंच करता आनी मम्माय तेंच. म्हाकांय देवाचे कुडींतूच पांयां पडपाक येवंचें पडटा!''

'' पिन्टू,देव म्हणल्यार उजवाड. देव हें उतर द्यूः ह्या संस्कृत उतरांतल्यान तयार जालां. तें तुका व्हडलो जातकच शिकूंक मेळटलें. आतां तूं फकत देव म्हणल्यार उजवाड इतलेंच मतींत धर.''

इतलो वेळ मोन्यानी पेपर वाचपी पप्पान आतां मदीं तोंड घालें.

'' देव म्हणल्यार उजवाड जाल्यार आजी उजवाडाक येवन ताची पुजा कित्याक करी ना? ती देवाकुडींत काळखांत वचूनशी कित्याक पुजा करता?''

पिन्टूच्या प्रस्नान आतां सगलीं गडबडलीं.

''पिन्टू पळय,आमचें हें व्हडलें घर आसा. तातूंत आमी घर बांदतना ही देवाची कूड केल्या. तातूंत देव आसा अशें आमी मानून थंयच आमचें मन आमी केंद्रीत करतात. तसो देव सगळ्याक आसता. पूण आमच्या धांवत्या मनाक आमी ते कुडींत हाडून बांदून घालतात..! थंयच देव आसा अशें मानतात!''

आजी आपले परीन ताका देव खंय आसा तें समजावपाचो प्रयत्न करताली. पूण ताची जाप आपल्याक काळा कडल्यानच बरे तरेन मेळटली हें पिन्टू जाणां आशिल्लो...

***(चलता...)***

---

***पणजी, गोंय. मो. 9822136885***



# माया खरंगटे हांचे 'अमृतवेळ' कादंबरीक प्रतिश्ठेचो 'साहित्य आकादेमी' पुरस्कार




कोंकर्णीतल्यो ज्येश्ठ लेखिका माया अनिल खरंगटे हांचे 'अमृतवेळ' हे कोंकणी कादंबरीक ओंदुचो 2022 वर्साचो केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. 1 लाख रुपया आनी साहित्य अकादेमीचें मानचिन्ह अशें ह्या पुरस्काराचें स्वरूप आसा. साहित्य अकादेमी वेगवेगळ्या भासांतल्या त्या वर्साच्या उत्कृश्ट साहित्याची निवड करून दर वर्सा हो पुरस्कार भेटयता. हो पुरस्कार त्या त्या भाशेंतल्या लेखकाक राष्ट्रीय मान्यताय दिता, देखून तो पुरस्कार देशांत प्रतिश्ठेचो मानतात.

माया खरंगटे पेशान शिक्षिका आनी त्यो मडगांवच्या कोंकणी भाशा मंडळ चलोवपी रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदिरात विद्यादान करून हालींच निवृत्त जाल्यात.

फाटलीं कितलींच वर्सा माया खरंगटे सातत्यान कोंकणी साहित्याची सेवा करतात. आतां मेरेन तांची 48 पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. खरंगटे बालसाहित्य, कथा कविता. कादंबरी, भोंवडे वर्णन अशें साहित्य रचतनाच वेगवेगळ्या भासांतल्या साहित्याचो अणकारूय करतात. तांच्या 'रानाचे मनांत' ह्या पुस्तकाक 2015 वर्साचो साहित्य अकादेमीचो बालसाहित्य पुरस्कार फावो जाला.

माया खरंगटे मडगांवच्या चौगुले म्हाविद्यालयांत पदवीचें शिक्षण घेता आसतना तांणी 1975 वर्सा लेखनाक आरंभ केलो.त्या उपरांत नोकरी आनी संवसार सांबाळून तांणी सातत्यान साहित्य निर्मणी चालूच दवरली आनी कोंकणी साहित्याच्या मळार मोलाची भर घाली. तांकां प्रवासाची खूब आवड आसा आनी संद मेळटा तशी तांची भोंवडी चालूच आसा. भोंवडे वेळार तांचें निरिक्षण चालूच आसता आनी तातूंतल्यान तांचीं प्रवास वर्णना तयार जाल्यांत. हालींच बिम्ब प्रकाशनान तांच्या राजस्थानांतल्या प्रवासाचेर तांणी बरयल्लें 'वीरभूंय राजस्थान' हें प्रवास वर्णन उजवाडाक हाडलां जाचें लोकार्पण रोखडेंच जावपाचें आसा.

माया अनिल खरंगटे बिम्ब मासिकांतल्यान सातत्यान लेखन करतात. तांचो 'मळब झेंप' हो कथा संग्रह बिम्ब प्रकाशनान 2006 वर्सा उजवाडाक हाडलो. जाल्यार तांकां 2011 वर्सा बालसाहित्या पासत 'बीम्ब' पुरस्कार भेटोवन भोवमान केलो.

ह्या पुरस्कारां भायर तांकां 2018 त साहित्य कृती पासत गोंय सरकारचो राज्य पुरस्कार,2000 वर्सा दिल्लीचो एनसीईआरटीचो पुरस्कार फावो जाला. तांच्या ह्या यशा पासत तांचें सगळ्या स्तरांतल्यान अभिनंदन जाता.



## माणिकराव गावणेकार हांकां साहित्य अकादेमीचो अणकार पुरस्कार



कोंकणींतले ज्येश्ठ कार्यकर्ते, शिक्षणतज्ञ आनी लेखक माणिकराव नायक गावणेकार हांणी अणकारीत केल्ल्या श्री रामकृष्ण अमृतवाणी (भाग 1 आनी 2,दरेकी तीन भागांनी) ह्या पुस्तका पासत ओंदुचो 2022 वर्साचो केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो अणकार पुरस्कार फावो जाला.

माणिकराव नायक गावणेकार शिक्षकी पेशांतले एक जाणकार शिक्षणतज्ञ आनी कोंकणी शिक्षणाक दिका दिवपा पासत तांणी मोलाचो वावर केला. तेच वागंडा तांणी सातत्यान लेखन करून कोंकणी साहित्यांत मोलाची भर घाल्या. ते वेगवेगळ्या भासांतलें साहित्य कोंकणींत आनी कोंकणी साहित्य हेर भासांनी अणकारीत करपाक फिशाल आसात. हालींच तांणी कोंकणींतले नामनेचे कवी सर्गेस्त प्रकाश दामोदर पाडगांवकार हांच्या 'चिरंतन ब्रह्मांड-योगी' ह्या काव्य

## मानसी धाऊसकार ◀




संग्रहाचें "COSMIC YOGI OF ETERNITY' ह्या नांवान इंग्लीशींत भाशांतर केलां.

'श्री रामकृष्ण अमृतवाणी' हें मूळ बंगाली भाशेंतलें पुस्तक निबंधाचें आसून तें 'श्री रामकृष्ण कथामृत'ह्या नांवान महेन्द्रनाथ गुप्ता हांणी बरयलां.

माणिकराव नायक गावणेकार हांणी 1600 पानांचें रामायण कोंकणींत बरयला. तांणी प्रकाशक म्हूण पुस्तकांय उजवाडाक हाडल्यांत. साहित्य अकादेमीचो अणकार पुरस्कार तांका भेटोवन तांच्या वावराचो सन्मान जाला म्हणपाचें कोंकणी लोक तांचें अभिनंदन करतना सांगतात. 50 हजार रोख, मानचिन्ह अश्या स्वरुपाचो हो पुरस्कार तांकां रोखडोच भेटयतले.

---



**धाऊसकार हांका गोंय विद्यापीठांतल्या कोंकणी विभागांत एमए पदवी परिक्षेंत सगल्यांत चड गूण जोडिल्ले पासत पिलारच्या 'वावराड्याचो इश्ट' नेमाळ्यान पुरस्कार भेटोवन आमदार कार्लूस फेर्रेर हांचे हस्तुकी भोवमान केलो.**

## कस्तुरी मोहन पै हांच्या 'महाप्रस्थान खंड 1 आनी 2' चे लोकार्पण.

डॉ.कस्तुरी मोहन पै हांणी बरयल्ल्या 'महाप्रस्थान' ह्या दोन खंडांतले कादंबरीचें लोकार्पण देजेंब्र म्हयन्यांत मडगांवच्या रवीन्द्र भवनांत जालें. ही कादंबरी 'संजना पब्लीकेशन' हे प्रकाशन संस्थेन उजवाडाक हाडल्या.

मडगांवच्या रवीन्द्र भवनांतल्या कृष्णकक्षांत आयोजीत केल्ल्या ह्या सुवाळ्याक ज्ञानपीठ पुरस्काराचे मानेली आनी ज्येश्ठ साहित्यकार दामोदर मावजो हे मुखेल सोयरे जाल्यार सुवाळ्याचे अध्यक्ष ज्येश्ठ साहित्यीक आनी गीतकार ॲड. उदय भेंब्रे आशिल्ले. कवयित्री नूतन साखरदांडे पुस्तकाचेर उलोवपा पासत मुजरत हाजीर आशिल्लीं. ह्या वेळार उलयतना भाई मावजो हांणी डॉ. कस्तुरी मोहन पै हांणी ही कादंबरी बरयल्ले पासत तांचें अभिनंदन केलें आनी ह्या विशयाचेर कादंबरी सारकें साहित्य रचून इतिहास जागोवपाची गरज आसा म्हणपाचें सांगलें. गोविंद मोपकार हांणी सुत्र संचालन केलें.

## ► उतरकुवाडें

## जानेर 2023 उतरकुवाडें



**संतोष हळर्णकार**
बांदिवडे-बंदर,फोंडा-गोवा 403 401
मो. : 9762641615



| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| 1 | | 2 | ■ | 3 | ■ | 4 | 5 | | ■ |
| | ■ | 6 | 7 | | 8 | ■ | | ■ | 9 |
| 10 | 11 | | | ■ | | ■ | 12 | | |
| ■ | 13 | | ■ | 14 | | | | ■ | |
| 15 | | ■ | 16 | ■ | | ■ | ■ | 17 | |
| | ■ | 18 | | | | ■ | 19 | | ■ |
| 20 | | | | ■ | ■ | 21 | ■ | 22 | |
| | ■ | | ■ | 23 | 24 | | 24अ | | ■ |
| ■ | 25 | | | ■ | | ■ | | ■ | 26 |
| 27 | | | ■ | 28 | | | | | |

**आडवे :** 1-घरावें नुस्तें खावपी जनावर,माजराचें पुल्लींग. 4-कडक नेमान वागपी लोकांचो एक पंथ, 6 - घडये, जायत, चड करून. 10- रानवटी फुलांची माळ. 12- घमघमीत, रुचीक. 13 - मानिल्लें, कबूल, मंजूर. 14- आपणावपी, स्विकार.15- शिजयिल्ल्या तांदळाचें निवळमिश्रीत अन्न, कांजी. 17- बे, एक आनी एक. 18- पन्नास आनी पांच.19 - स वो म्हयनो. 20 - गांवठी, बावळट, अबरगत. 22- शिक्षण दिवपी घर, विद्येचें घर. 23- पंचवीस क्रमांकार आशिल्लें. 25- कापशिणीच्या बोंडांतलो तंतूमय धवो पदार्थ. 27- माकोड.28-कायद्याक, नेमांक धरून आशिल्लें.

**उबे :** 1-बटण. 2- लोकां रुचीर्चे, बाळ गंगाधर टिळक. 3- भर्याणची चली. 5- घोडो चलोवपी व्यक्ती. 7- कइडणाची दाब. 8- सृश्टीचे निर्मणेचें ज्ञान,जाणवाय, मूळ जाणविकाय. 9- आठ कोन आशिल्ली आकृताय. 11- मुसलमानांची प्रार्थना.15- धोलकें वा घांठ वाजोवन लोकांक केल्ली कळोवणी.16- खूब उलोवपी, बडबडें. 17- दोनशें क्रमांकार आशिल्लें. 18- चंद्रभागा न्हंयचे देगे वयले यात्रेचें एक स्थान, पंढरी. 21- सूर्य. 24- भांगेच्या झाडाच्या दिखाचो पिठो. 24 अ-कच्च्या भाजयांचो मीठ मसालो घालून जेवणा आर्दी वा सांगाताक खावपाचो एक पदार्थ. 25-आयकुपाचें काम करपी इंद्रीय.26- आमचो राष्ट्रीय पक्षी, मयूर.

## देजेंब्र 2022 ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| क | व | नी | ■ | म | ग | ग | द | ■ | घ |
| वा | ■ | च | तु | र्द | स | ■ | म | क | र |
| ली | न | ■ | वा | ■ | रो | य | ण | ■ | का |
| ■ | का | य | लो | ळी | ■ | म | ■ | अ | न्न |
| सों | सो | ■ | ■ | ■ | पा | न | वे | ल | ■ |
| प | ■ | ब | र | क | य | ■ | ■ | ग | दा |
| प | गा | र | ■ | रो | ज | ■ | मा | ता | ■ |
| ■ | ज | पा | न | ■ | मो | ल | ■ | य | ति |
| भे | ■ | व | ■ | ना | ■ | ■ | घू | ■ | सा |
| स | क | ळ | वि | क | ळ | ■ | स | वा | ल |

